श्री. बस्तीमाम हांका
मायमोगान

3/2/2021

# खलील जिब्रान

## वेंचीक साहित्य

अणकार

**नागेश करमली**

संजना
पब्लिकेशन्स

**KHALIL JIBRAN**
(Venchik Sahitya)
Translated by Nagesh Karmali

**खलील जिब्रान**
वेंचीक साहित्य
अणकार - नागेश करमली
'मानसदीप', भगवती कॉलनी,
चिंबल, रायबंदर, गोंय. 403 006



**प्रकाशक :**
संजना पब्लिकेशन्स,
39, दत्तवाडी, सांगें, गोंय. 403 704
sanjanapublications2@gmail.com

**पयली उजवाडावणी :**
2019

**छापणावळ :**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**मुखचित्र :**
अमोल कामत

**मोल :** रु. 200/-

# मांडावळ

# विश्व साहित्यांतलो मानदंड आनी कला योगी खलील जिब्रान

सुमार साठ-बासस्ट वर्सांआदीं, गोंयच्या मुक्ती संग्रामांतलो वांटेकार म्हणून रेजमागचे बंदखणींत आसतना म्हाका खलील जिब्रानाल्या साहित्याची पयली वयली वळख घडली. श्रीपाद जोशी हाणी मराठींत सुंदर रितीन अणकारिल्ली सलमा ही जिब्रानाली नवलिका जेन्ना हांवें वाचली तेन्ना तांची बरोवपाची आनी अभिव्यक्तीची शैली पळोवन हांव सामको भारावन गेल्लों. ते उप्रांत श्रीपाद जोशी हांणीच जिब्रानाची शैली पुरायपणान आपणावन अणकारीत केल्ल्यो जिब्रानच्या नीतिकथा वाचूंक मेळ्ळ्यो. हिंरे आणि हिरकण्या हेंय, श्रीपाद जोशी हांणीच अणकारिल्ले पुस्तक वाचलें. तेन्ना कळ्ळें, जिब्रानाली आनीकय पुस्तकां आसात. प्रोफेट हें तांचे सर्वोत्कृष्ट पुस्तक हेंय कळ्ळें आनी ताचीं पुस्तकां वाचपाची एके तरेची उमळशिकच लागली.

तेन्ना ती पुराय जाली ना. तरी पूण जिब्रानान म्हज्या मनाचो ताबो घेतिल्लो तो इल्लोय उणो जालो ना. 1959त बंदखणींतल्यान सुटले उप्रांत जिविताच्यो राटावळी सुरु जाल्यो. गोंयचो मुक्ती संग्राम सोंपूंक नाशिल्लो. ते परिस्थितींत जिब्रानच न्हय तर आनी

दुसरें कितेंय काम हातांत घेवप शक्यच नासलें. 1966त जेन्ना हांव आकाशवाणी पणजीचे सेवेंत रुजू जालो तेन्ना जिब्रानाचो प्रोफेट म्हज्या हातांत पडलो. जिब्रानाची भास-शैली, ताची विचार मांडपाची पद्दत हे सगळें म्हाका आगळेच कशें दिसलें. मनाक दिसलें हें सगळें कोंकणीत येवंक जाय. पूण तेन्ना तें म्हाका म्हजे तांकी भायले कशें दिसलें. मागीरच्या काळआंत, जिब्रानालें हेरूय साहित्य हांवें पुंजायलें आनी ताचें वाचन मनन केलें. ताचें जिझस्, द् सन ऑफ मॅन हें पुस्तक वाचलें तेन्ना म्हाका तातूंतले विशेष कांय कळ्ळें ना. म्हाका दिसलें, हें समजतलें जाल्यार बायबल वाचून काडूंक जाय. म्हण्टकीच बायबल वाचून काडलें. ते उप्रांत परत जिझस्, द् सन ऑफ मॅन घेवन बसलों तेन्ना पयलीं परस तें अदीक बरें समजलें. ख्रिस्ती धर्मी लोक जेझूक देवाचो पूत मानतात. जिब्रान हाच्या उरफाटो लौकीक पांवड्यार हाडून ताका मनशाचो पूत कसो सगळ्यांमुखार दवरता. जेझूक पळयिल्ले, वळखूपी, ताचे विशीं जाणा आशिल्ले हांच्या सांगण्यातल्यान जिब्रान जेझूख्रिस्ताक आमच्या मुखार उबो करता. ह्या पुस्तका खातीर जिब्रानाक खूब त्रास जाल्यात. ताका धर्मद्रोही थारावपाचोय प्रयत्न जाला. पूण जिब्रानान कोणाचीच पर्वा केली ना.

जिब्रानाचो जल्म लेबाननचेउत्तरेक आशिल्ल्या पर्वत रांकां मदल्या बशेरी ह्या सैमसोबीत गांवांत 6 डिसेंबर 1883 ह्या दिसा जालो. तो धर्मान मॅरोनायट पंथी ख्रिश्चन. ताचो परिवार मूळचो खूब आस्पतीचो. आजो व्हड गिरेस्त जमीनदार आसलो. ताचो बापूय - ताचे नांवय जिब्रान - एक आल्मी खुशाल मनीस. नाका जाल्लीं सोरो बी असलीं वेसना आनी मौजमजा असल्या उधाळदिकपणान ताणे आपणाली बरीचशी गिरेस्तकाय होगडायली.

तो कामिला रहमी हे पयलो घोव भायर पडिल्ले बायलेकडेन लग्न जालो. कामिलाक पयल्या घोवापासून एक पूत आसलो ताचे नांव पिटर. कामिला सुस्वभावी, समजीकायेची आनी संवसारीक बायल आशिल्ली. तिच्या पयल्या पुताक जिब्रानान आपणाल्याच पुतावरी मायामोग दिलो. कामिलाक तो खूब बरें करी. तिणेंच ताचें उधाळदिकपण आटापांत हाडले. जिब्रानापासून तिका तीन भुरगीं जालीं - एक पूत खलील जिब्रान आनी दोन धुवो, मरिना आनी सुलताना. खलील जिब्रान हो मुळासावन एक वेगळेच तरेचो भुरगो कसो वागतालो. ताचें मुळावें शिक्षण गांवांतच जाले. तो अरबी आनी सिरियन ह्यो भासो शिकलो तरी ताची बरोवपाची भास ही अरबीच आसली. खलील भुरगेपणातच खडवान वा कोळसो घेवन मेळत थंय चित्रां काडटालो. तो वांगडच्या भुरग्यांमदीं भरसना आसलो. ताका एकांत आवडटालो. शेजारच्याच एका मोडक्या मठांत वचून तो बसतालो ना जाल्यार एकलोच बसून कितें ना कितें बरयत आसतालो.

खलील जिब्रानाक बारा वर्सां जाली तेन्ना ताचे आवयन आनी तिच्या व्हडल्या पुतान अमेरिकेक वचपाचें थारायलें. त्या काळांत भरपूर जोड्डंक मेळटा म्हणून बरेचशे लेबानीन अमेरिकेक वचून स्थायीक जातालें आनी भरपूर दुडू कमयताले. खलील जिब्रानाचे आवयन आनी तिच्या व्हडल्या पुतान, बापायक घरदार आनी शेतभाट सांबाळपाक गांवांकच दवरलो. 1895 वर्सा आपणाल्या चौगांय भुरग्यांक घेवन कामिला अमेरिकेक गेली. थंय बोस्टन शारांत जायते लेबाननी रावताले थंयच ताणी राबितो केलो. तांकां जाय तसो कामधंदो मेळ्ळो. खलील जिब्रान थंयच इंग्लीश - फ्रेंच बी शिकलो. अरबी भाशेभायर इंग्लिशींतय बरोवपाची ताची तयारी जाली. पूण दोन वर्सांतच तो बैरुताक (लेबाननची

राजधानी) परतलो आनी थंय शिकूंक लागलो. 1901 वर्सा ताणे आपणाले पदवीमेरेनचे शिक्षण पुर्ण केले. ह्याच काळांत ताचें बरोवपाचेय काम चालू आशिल्लें. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ताणें अरबी भाशेंत अल् नबी ह्या नांवान प्रोफेटचे पयलें बरोवप केलें. बेरुतांतलें शिकप सोंपले उप्रांत लेबानन आनी भोंवतणच्या देशांनी तो भोंवलो आनी चित्रकलेचे उंचेलें शिक्षण घेवपाक तो पारिसाक गेलो. थंय तो 1903 मेरेन उरलो. पारिसाक आस्तनाच ताची धाकली भयण सुलतान बारीक जोराच्या दुखण्यान 1902 च्या एप्रीलांत भायर पडली म्हणपाचे ताका कळ्ळें. फाटोफाट बारीक जारोन 1903 च्या मार्च म्हयन्यांत ताचो सवती भाव पिटर गेलो आनी आतां त्याच जोराच्या दुखण्यान आवयय बरी ना म्हणपाचें खलिलाक कळ्ळें. तो तसोच चित्रकलेचें शिकप अर्दार सोडून बोस्टनाक परतलो. दुखण्यान हातरुणार पडिल्ले आवयक ताणे अल् नबी वाचून दाखयलो. तेय अवस्थेंत आवयन खलिलाक म्हळें, खूब सुंदर बरयलां तुवें. पूण आतांच छापू नाका. तें आनीकय सुंदर जावं येता. तशें जातलें तेन्ना छाप.

कामिलाक आपणाल्या पुताची तांक खबर आशिल्ली. ती 1903 च्या जुनात भायर पडली. आतां उरलो खलील आनी ताची भयण मरिना.

खलील आनी मरिना त्या अमेरिका देशांत आतां एकसुरी जाल्ली. दोन वर्सां भितर सवती भाव, उप्रांत भयण आनी आतां आवय हांच्या मर्णान खलील सामको हाल्लो. तरीपूण आपणाक आनी भयणीक सांवरून घेत आपणाले साहित्य आनी कला साधनेंत तो पुरायन बुडून गेलो. एकेवटेन साहित्य निर्मणी आनी दुसरे वट्यां चित्रां हें जिब्रानचे काम अखंडपणान चालूच आशिल्लें. ताणें आपणाल्या प्रभावान अमेरिकेंत जायते

इश्ट आनी इश्टिणी जोडल्यो. हांतल्यान कांय जाणाचो पालव मेळिल्ल्यान तो 1908 च्या जुनांत चित्रकलेचो अभ्यास करपाक तो परत पारिसाक गेलो. थंय तो दोनेक वर्सां उरलो. थंय ताका नामनेचो शिल्पकार ओगुस्त रोदां हाचे मार्गदर्शन मेळ्ळें. 1910 च्या ऑक्टोबरांत तो अमेरिकेक परतलो. ताणे आपणालो राबितो बार-टनच्यान न्यूयॉर्क शारांत हालयलो. थंय ताणें आपणालो स्टुडियो उगडलो.

साहित्य साधना आशिल्लीच तरी आसतना ताणे आपणाले अदीक लक्ष चित्रकलेचेर थिरायलें. ताच्या चित्रांची प्रदर्शना जावंक लागलीं. हो वेळ म्हळ्यार ताणे इंग्लीश भाशेचेर बरें प्राविण्य मेळयलें. तो शैलीदार इंग्लिशींत बरोवंक लागलो. ताच्या नांवांची फांक सगळे कडेन पावली. ताच्या पुस्तकांचे अणकार जावंक लागले. अशें म्हणटात, ताच्या साहित्याचे संवसारांतल्या वीसवयर मुखेल भाशांनी अणकार जाल्यात. ताणें बरयिल्ले अल्नबी (प्रोफेट) ताणे तीन चार फावटी निवळायलें. ताणेंच ताचें रुपांतर प्रोफेट ह्या नांवान इंग्लिशींत केलें तें 1923 वर्सा पयलेच खेप अमेरिकेंत उजवाडा आयलें. ताची अरबी भाशेंतली आवृत्ती ते उपरांत उजवाडा आयली.

खलील जिब्रानचें न्यूयॉर्कांत बरें चलिल्लें. पैशांची येणावळय बरी जाताली. कामाच्या ताणान वा आनीक कित्यानय आसत, 1929 उप्रांत ताची भलायकी इबाडूंक लागली. कांय जाणांचें म्हणणें तो निमाणेकडेन खूब सोरो पियेवंक लागिल्लो. तातूंत ताचें यकृत (लिवर) बाद जालें. तातूंतच 10 एप्रील 1931 ह्या दिसा ताका मरण आयलें. तेन्ना ताची पिराय 48 वर्सां आशिल्ली. ताची कूड निमाण्या संस्काराखातीर बैरुताक हाडली. लोकांक ह्या म्हान लेबाननी कवी, तत्वगिन्यानी आनी

चित्रकाराची व्हडवीक कळिल्ली. हजारांनी लोक ताचे अंतिम दर्शन घेवपाक जमिल्लें. ताचे कुडीवांगडा ताची भयण मरिना अमेरिकेक सावन आयिल्ली. दुखांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी ती हें सगळें पळयताली. बैरुत सावन ताची कूड मागीर ताच्या गांवघरा बशरीक व्हेली आनी थंयच्या मार-सरकीसच्या मठांत तिचें दफन केलें. एका वेळार भुरगेपणांत ह्याच मठाच्या परिसरांत येवन तो बसतालो आनी एकलोच वरांची वरां चिंतन करतालो. जिब्रानाक कवीकुलगुरू रवींद्रनाथ ठाकूरांवरींच आशिया खंडातले साहित्य कला संस्कृतीचे उदगाते मानतात. रवींद्रनाथांनी साहित्यावांगडाच चित्रकलेची आनी संगीताची साधना करून रवींद्र संगीत जल्माक घालें. खलील जिब्रानान अरबी साहित्याक एक नवो आयाम दिवपा वांगडाच साहित्य सृजनाचो एक नवो अध्याय सुरू केलो .

हो खलील जिब्रान मनांत कितलींच वर्सां घर करून आशिल्लो. ताच्या साहित्याचें वाचन मनन काळजांत एक वेगळीच खोशालकाय जागयतालें. ही खोशालकाय आमच्या कोंकणी साहित्य मोग्यांमेरेन पावोवची अशें सदांच म्हाका दिसतालें. आनी असोच एक दीस हांव जिब्रानाक सांगाताक घेवन बसलों, आनी हो अणकार जल्माक आयलो.

सुनापरान्ताचे बाबली नायक हांणी ह्या अप्रूप सांगाताक उमेदीन येवकार दिलो आनी तातूंतल्यानच हो जिब्रानाच्या वेंचीक साहित्याचो कोंकणी रुपकार आकाराक आयलो. 10 मे 2014 सावन 27 एप्रील 2015 मेरेन दर आयताराच्या सुनापरान्तांत हो रुपकार उजवाडा येतालो. सुनापरान्ताच्या ह्या आदाराचें मोल करुं नजो. संजना प्रकाशनाचे दिनेशबाब मणेरकार हे एक दीस आमगेर आयिल्ले तेन्ना जिब्रानच्या रुपकाराची कात्रणाची फायल तांचे

नदरेक पडली आनी तांणे ती सोमतीच उखल्ली. हें पुस्तक ह्या आदींच वाचप्यांकडेन पावपाचें. पूण म्हज्याच कांय पारिवारीक अडचणीक लागून ताका उजवाडाचें किर्ण पळोवपाक गरजे परस चड दीस लागले.

दिनेशबाबान हांसत्या मुखामळान तें सगळें मानून घेतलें ते खातीर मनस्पुर्वेक उपकार.

**- नागेश करमली**

# भूंय-देव

*(भूंय-देव हें नामनेचे लेबाननी साहित्यकार आनी तत्वचिंतक खलील जिब्रानालें एक ल्हानशें 35-36 पानांचें पूण खूब म्हत्वाचें अशें गद्यकाव्य. ही कृती तीन भूंय-देवांचे भोंवतणी विणिल्ली आसा. तीन वेगवेगळ्यो प्रवृत्त्यो ती उक्तायता. खासा जिब्रानी शैलींतलें हें एक रुपक.)*

जेन्ना संवसार निर्मणेच्या बाराव्या युगाची रात सगळ्याक पातळ्ळी आनी रातीचे शांततायेंतल्या जोरगत-ल्हारांनी दोंगुल्ल्यांक वेंगायल्यो तेन्ना धर्तरेर जल्मल्ले, जिविताचे बळगेवंत राखणदार अशे तीन देव, पर्वतांच्या माथ्यार प्रगट जाले.

न्हंयो तांच्या पावलातळा खेळूंक लागल्यो. धुंवटी तांच्या हड्ड्यांचेर हुबूंक लागली. आनी तांचीं मस्तकां मोटे व्हडविकायेन संवसारांत वयर तळपूंक लागलीं उपरांत ते उलोवंक लागले. पयसुल्ल्यान मारिल्ल्या गडगडाटा वरी तांचो आवाज दोंगुल्ल्या वयल्यान सकला तळामळां वयल्यान गाजूंक लागलो.

**पयलो देव :** वारें उदेंतेवटयां वेळूंक लागलां. हांव म्हजें तोंड दक्षिणेवटयां घुंवडायतां. कारण, ह्या वाऱ्यान म्हजें नाक मड्यांचे कुसके घाणीन भरून उडयलां.

**दुसरो देव :** हो तर भाजिल्ल्या मांसाचो म्होंवाळ आनी खोसदिणो परमळ. हांव तो हुंगीत रावतलों.

**पयलो देव :** ही म्हणल्यार आपणाल्याच उज्या-झोतांनी ल्हव ल्हव

लासत वचपी मर्णाची दुर्गंध. वारें ताच्या भारातळा घुस्मट्रूंक लागलां आनी फोंडाऱ्यांतल्यान येवपी घाणयाऱ्यो दर्बटाणी म्हज्या शिस्त्रांक सोंसनात. हांव म्हजें मुखामळ गंधहीन उत्तरेवटया करतां.

**दुसरो देव :** ध्यान धारणेंत गुल्ल जिविताच्या जळपाचो अप्रूप परमळ हो. हो परमळ हांव आतां आनी हे उपरांत सदांच हुंगीत रावतलों. देव बलिदानाच्या म्हालवजार जियेतात. तांगेली तान रगतान न्हिवता. ताचीं काळजां माणकुल्यांच्या आत्म्याच्या बलिदानान खोशी जातात. तांच्या कुडींच्या कणा-कुसांक मर्णा वांगडा सर्त लावप्याच्या उस्वासांनी घटाय मेळटा. आनी तांगेली शिंवासनां मनीस कुळयेच्या पिळग्यांच्या गोबराचेर उबीं जातात.

**पयलो देव :** ह्या सगळ्याक म्हजो जीव सामको वाजेला. संवसार-निर्मणे खातीर हांव आतां कुस्कूटय करचों ना. न्हय म्हणल्यार तो ना करपाचेय भरीक पडचों ना. मर्ण म्हज्या हातांत आसतें तर असो जियेत रावचोंच नासलों. कारण युगां-पर्यांचो भार म्हज्या भुजांचेर आसा. समुद्रांच्या अंतहीन पिरंगणेन म्हाका न्हीद पडना. कटा! हांव म्हजो मूळ हावेसच विसरिल्लों जाल्यार... आनी अस्ताक वचपी सुर्यावरी ना जावन गेल्लों जाल्यार... खऱ्यांनीच, म्हज्या देवपणाच्या कर्तव्यांतल्यान मेकळो जावप म्हाका शक्य जाल्लें जाल्यार आनी म्हज्या अमरत्वांतलो स्वास अनंत अंतराळांत पातळावंक शकिल्लों आनी मागीर सदां खातीर नदरे आड जावंक पाविल्लों जाल्यार... ना-नपश्चात करपी उज्यांत लासून, काळचक्राच्या उगडासाच्या चपक्यांतल्यान सदां खातीर सुटपाचो आनी म्हजें अस्तित्व एक शून्य जावन उरपाचें.

**तिसरो देव :** आयकात, म्हज्या भावांनो,

म्हज्या पूर्वपुरातन सांगात्यांनो, एक वयावयलो तरनाटो, मुखा वयल्या देगणांत राती खातीर आपणाल्या काळजा उमाळ्यांचें गीत गायता... तागेली वीणा भांगराच्या सरयांची आनी आबसूनच्या लाकडाची. तागेलो ताळो म्हणल्यार रुपें आनी भांगराचो खळखळाट.

**दुसरो देव :** हांव मर्णाची आस्त धरपा इतलो निड्डुको न्हय. कठिणांतली कठीण वाट चलत रावप बाजत म्हजे कडेन दुसरो उपाय ना.

रुतुगतींच्या पावलटी मागशीं हांव चलत रावतलों आनी वर्साकाळाची व्हडवीक वाडयतलों. हांव भुयेंत बीं ओंपतलों आनी तिचें पोट फाळून तें किल्लून वयर सरतना ताका पळयतलों.

फुलाक ताच्या लिपिल्ले सुवाते वयल्यान हांव साद घालतलों  आनी ताका ताचें जिवीत कळोवंक शक्त दितलों-  आनी जेन्ना राना पान्नांत वादळ घोंगेतलें तेन्ना हांव ताका खुडटलों...

गुपीत काळखांतल्यान हांव मनशाक भायर काडटलों पूण ताचीं पाळांमुळां धर्तरेच्या कुसव्यांत रोमून दवरतलों.  हांव ताका जिविताची खराय दाखोवन दितलों. आनी मर्णाक, ताच्या वांगडा तागेलो वाडगो घेवन चलत रावपी करतलों.

हांव ताका दुखीं सांगाता वाडत वचपी मोग दितलों- जो मोग हावेसां वांगडा फुलून येतलो. आस्त-उर्बा वांगडा फळत रावतलो.

आनी पयलेच फावट वेंगेंत घेतकीच मोगाळून वतलो. हांव ताच्यो रातीं फुडें येवपी व्हड दिसांच्या  सपनांनी सुरंगारायतलों. आनी तागेल्या दिसांक सोबीत रातोडांच्या सुंदर दिश्टाव्यांनी भरून उडयतलों.

आनी तरिपूण, तागेल्यो राती आनी दीस एकमेकांक समसारकेच जावन उरचे म्हणपाचीय जतनाय घेतलों.  हांव ताच्या मनकल्पनांक पर्वता वयल्यान उडत वचपी गरुडावरी करतलों. आनी ताच्या चिंतनांक दर्यांतल्या तुफानाचो वेग दितलों. आनी तरिपूण-

सवकासायेन निर्णय घेवपी हात दितलों. आनी विचारपूर्वक पावली मारीत अशे पांय दितलों. ताणें आमचे मुखार गीत गायत रावचें अशे तरेची ताका हांव धादोसकाय दितलों. आमकां ताणें साद घालीत येवचें असली व्यथाय हांव ताच्यांत निर्मितलों. उपरांत ताका धर्तरेचे फाटीर न्हिदयतलों. आनी जेन्ना धर्तरी भुकेन आकूळ-पिकूळ जावन अन्ना खातीर किळंचतली तेन्ना हांव ताच्या आत्म्याक वयर उबारून

घेतलों. हाका लागून तो आमगेल्या फाल्यांच्या सुखांचो सुवाद घेवंक पावतलो. आनी तरिकूय हांव ताची कूड चिखला-रेब्यांत उरूंक दितलों. म्हणटकीच तो आपणालो फाटलो काळ विसरचो ना. आनी हे भाशेन काळाच्या निमण्या खिणा मेरेन आमी मनशाचेर शेक चलयत रावतले.

आवयच्या कश्टां-रडण्या सांगाता उपजल्ल्या ताच्या स्वासां-उस्वासांचेर आमी ताबो दवरतले, जें ताच्या भुरग्यांच्या विलापां विकळांपा वांगडा सोंपतलें.

**पयलो देव :** म्हजें काळीज तानेलां. तरिपूण हांव एके दुबळे कुळयेचें निखरें रगत घोंटचो ना. कारण तो वाडगो हळशिकावला आनी तातूंत जो तिजिल्लो सोरो आसा तो म्हजे जिबेक कडुसार लागता. हांवें तुजेचवरी माती कालयली- मस्तिली आनी तिका स्वास उस्वास घेवपी प्राण्याचो आकार दिलो तो म्हज्या बुळबुळीत बोटांचपक्यांतल्यान निसरलो आनी खाजनां चिखलणां आनी दोंगराचेर वचून फाफसलो. हांवें तुजेचवरी जिवीत आरंभाचे काळखां खोलायेंत पर्जळ पातळायलो. आनी ताका धोलींतल्यान सरपटत सरपटत दोंगरमाथ्यार चडटना निरखिलो. हांवें तुजेच वरी वसंत रुतूक आपयलो. ताचे सुंदरायेन सगळी भोंवर नटयली- जी सुंदराय तरणेपणाक भूल घालता. आनी फुलत-फळत वाडत वचपी पोसवणेक बळ दिता.

तुजेच सरीं, ताणें आमचे मुखार दिमी मारची म्हूण हांवें ताच्या माथ्यार भयांकृत तुफान निर्माण करून दवरलां. आनी ताका आमकां उलो मारूंक पडचो देखून पावलां तळची भूंय हांवें थरथरावन सोडल्या. आनी तुजेचवरी, आमकां ताणें आखांतून साद घालीत मर्णाचे सुवादीन जायसर ताच्या सुगूर जुव्यांराबित्याक खंकाळ समुद्राक हांवें गिळूंक लायलां.

हें सगळें आनी हाचेकूय विशेश हांवें केलां आनी तरिपूण जें कितें केलां तें निरर्थक आनी गरजेभायलें. जाग्रुताय ही निर्फळ आनी न्हीद जाल्यार पोल-फुकट आनी सपन म्हणटात तें तर हाचेकूय तीनपट पोल अर्थाभायरें.

**तिसरो देव :** भावांनो, म्हज्या म्हान भावांनो,

सकला, मेथयेच्या झिलां-झोंपांनी चंद्रिमाक नियाळी-नियाळीत एक तरणाटी चली नाच करता. तिच्या केंसाचेर जमिल्ले दवाकण, हजारांनी नखेत्रांवरी चकचकतात. आनी तिचीं पावलां- तांकां तर हजारांनी पांखटे फुटल्यात.

**दुसरो देव :** निळसार दंवा-धुंवटेन भरिल्ल्या नवसुल्या फांतोडपारा आमी मनशाक जल्माक घालो, द्राक्षवाली रुजयल्यो आनी भूंय कसली. आमी कंवळ्या खांद्यांक कोमरी फुट्टना पळयली. आनी रुतूंगती भायऱ्या दिसांच्या वर्सावर्सांनी आमी तरण्या आंकूर पानाचो थातो मातो केलो. आनी वाऱ्या वादळा पसून कळ्या-बोंग्यांची जतनाय घेतली. सगळे तरेच्या अनिश्ट वारगतीं पसून फुलांची राखण केली.

आनी-

आतां आमगेल्या द्राक्षांच्या वालींक फळां धरूंक लागल्यांत तेन्ना तुवें तीं सोरो काडपाचे भाटयेर व्हरचीं न्हय आनी त्या सोऱ्यान तुजो वाडगो भरचो न्हय? तुजे परस आनीक खंयचो बळिश्ट हात हीं फळां तोडूंक शकतलो? आनी तुजी तान भागोवपा परस व्हड असो ह्या फळाक आनीक कसलो शेवट तरी आसा?

मनीस म्हणल्यार देवांलें अन्न. जेन्ना ताचो उद्देश विरयत सुवाद देवाचे पवित्र ओंठ चोखून घेतात तेन्ना मनशाच्या भाग्योदयाक पावल फुट्टा. मनीसपणाचे गूण त्या मनीसपणाचे मर्यादि पुरतेच उरप हाका अर्थ ना, भुरग्यांचे सादेंभोळें निश्पापपण आनी तरणाटेपणाची उर्बा-उमेद, निबर दादलेपणाचो भावनावेग आनी जाणटे पिराये वयली बुदवंतकाय. पातशाचें आनी झुजाऱ्यांचें जैत, कवींची नामना आनी सपनाळ्यांची तशेंच संतांची मान-मान्यस्तना, हें सगळें जें ताच्यांत आसा तें सगळें देवांकच भोगपाक. हें सगळें जर देवांनी उपभोगलें ना तर देवांची ताचेर कृपादृश्टी ना असोच ताचो मतितार्थ जातलो. जे तरेन धान्याचो एक मोनो गोटो बुलबुलाचे चोंचींत पावतकीच ताचें प्रेमगितांत रुपांतर जाता, तेच तरेन मनशान देवांनी चोखपाचें अन्न जावन देवपणाची

खोशी जोडूंक जाय.

**पयलो देव :** आह! मनीस म्हणल्यार देवांचें अन्न! आनी जें कितें मनशा कडेन जोडिल्लें आसा तें सगट देवांले परातींत पुंजा जावंक जाय. गुरावाचाराचे कश्ट आनी भुरग्याक जल्म दिवपा वेळा वयल्या वेणाची दूख; रातीचे नागडे कुडीक चिरीत वचपी माणकुल्या भुरग्यालें आकूळ रडणें, आनी थकून भागून न्हिदपा खातीर लालेता आसतनाय आपणाल्या हड्ड्याच्या बिड्ड्यांतल्यान नवे जिणेक पोसवण दिवपी आवयची तीव्र वेदना, दुखावल्ले तरुणायेच्या उस्वासाचीं उज्या-केणां, काळजांत दामून उरिल्ल्या खर आवेगांची बोग; पडींग भुंयेचें हड्डें फाळपी मनशाचें घामान थपथपिल्लें कपल, आनी जिविताचे इत्से आड, जिवीतच मर्णांक वेंगोवंक वता तेन्ना पातळपी निस्तेज म्हातारपणाची खेद-खंत.

हें पळय, हो मनीस! हो मनीस स्वता भुकेचेर पोसलो आनी तरिकूय भुकेल्ल्या देवालें अन्न जावन रावला, तो एक द्राक्ष-वाल, जी अमर मर्णाच्या पांयातळा धुल्लांत चिड्डता, तो एक परमळीत फूल, जें अद्रुश्टी सावळेंतल्या रातोडांत फुलता, तो दुखां-खंतीच्या दिसांतले आंबूस द्राक्ष आनी भिरांत आनी लजेच्या खिणांनी भरिल्लो दीस, आनी तरी हांवें खावचें पियेवंचें अशें तुका दिसता. माथ्या मेरेन धुंवटेंत रेवडिल्ल्या मनशां मदें बसून फातरा-कठीण जाल्ले ओंठ चिंवचे आनी जिविताची खराय गांठची आनी मिरयेल्ल्या हातांनी हांवें अमरपण जोडून घेवंचें असो तूं धाक घालता.

**तिसरो देव :** भावांनो, म्हज्या भयाभीत भावांनो,

खोल, खोल थंय खोलायेंत एक तरणाटो गीत गायता ताचो नाद त्या गिता परसूय अदीक गाज वाजता. ताचो साद रानां-वनां हालोवन सोडटा, मळबाकूय भेदून वता. आनी धर्तरेची न्हीद खळयता.

**दुसरो देव :** (जशे कितें आपणें कांयच आयकूंक ना) म्होंवामुसांचें गुजगुंजन तुमच्यांनी कशेंच आयकूंक जायना. म्होंव तर तुमकां विखा समानच. कटा! म्हज्यान तुमकां थाकाय दिवंक जाल्ली जाल्यार...

पूण हांव तें कशें करूं? देव जेन्ना एकामेकांक आपयतात तेन्ना तांच्या उल्यांचो आवाज खोल अगडायेंतच शिरकून उरता. कित्याक म्हणल्यार तांचे मदे एक अभेद्य घळ आसा. अंतरिक्षांत वाव-वारें ना खरेंच, म्हज्यान तुमकां थाकाय दिवंक जाल्ली जाल्यार... हांव तुमगेल्या घुंवटीभरीत वातावरणाक गंभीरतायेन भरून उडयतलों. हांव जाणां, शक्त आनी बुद्द हे संबंदांत आमी सगळे एकसारकेच आसात. तरिपूण हांव तुमकां इल्लें समजावन सांगूंक सोदतां-

जेन्ना अस्ताव्यस्त गजालींतल्यान हे धर्तरेची निर्मणी जाली, आनी आमी-अदीम संतत- उजळ पर्जळांत एकामेकांक पळयले, तेन्ना आमच्या हड्ड्यांतल्यान जो पयलो वयलो कांवरेल्लो सूर भायर सरलो, ताकाच लागून घडये वायू आनी समुद्राच्या सुस्तेल्ल्या ल्हारां मदें वेगाचो संचार जालो. मागीर आमी एकामेकांच्या हातांत हात घालून ह्या सैमाच्या धुकटेल्ल्या उजवाडांत फुडलें पावल घालें. आमच्या लडबडपी पावलांच्या प्रतिध्वनीन काळतत्वाची निर्मणी जाली - चवथो देव; तो आमचेंच दायज फुडें चलयता. तो आमचेच विचार आनी संकल्पांचेर आपणालो प्रभाव घालता आनी तो पळयता तो मात आमगेल्याच दोळ्यांनी. उपरांत जिवितान हे धर्तरेचेर पावल दवरलें आनी त्या जिवितान आत्मो आपणायलो. तोच ह्या संवसाराचो म्होंवाळो प्राण- राग. आमी जिवीत आनी आत्म्याचेर अधिराज्य चलयलें. आमचे बगर आनीक कोणाकूच काळचक्राचें मेजमाप तेन्ना मेरेन कळ्ळेंच ना. ना म्हणल्यार वर्सांसंकीच्या निराकार सपनाच्या वज्याची जडाय, जेन्ना मेरेन आमी सैमाच्या सातव्या कल्पाच्या उदरगत काळांत, समुद्राची लग्नांगांठ सुर्या वांगडा घालून दिली ना तेन्ना मेरेन कोणाकच कळ्ळी ना. आनी ह्या दोगांयच्याय लग्नगांठीच्या आनंद-सुखान उपाट भरिल्ल्या घरांत आमी मनीस निर्माण केलो.

मनीस म्हणल्यार असो एक प्राणी जो दुबळो आनी परसुवादीन आसूनय ताच्यांत आपणाल्या आवय-बापायचोच सभाव उतरून आयला. मनीस धर्तरेर चलता-भोंवता खरो, पूण तो वयर नकेत्रां

नियाळीत आसता. तांच्याच आधारान तो संवसारांतल्या पयस परान्तकाक वचपी मार्ग सोदून काडटा आनी आपणावरीच नाशिवंत मनशाकय. घाणयाऱ्या उदकाच्या तळयां-फोंडाऱ्यांच्या कडांनी जावपी तणा-तांठांच्या दांडाऱ्या पसून आमी आमगेल्यां बांसरी तयार करतात आनी तिचे पोकळायेंतल्यान आमी आमगेलो आवाज मोन्यांनी आशिल्ल्या संवसारा मेरेन पावयतात. सूर्य नाशिल्ले उत्तरे सावन सूर्य तेजान धगधगपी रेंव मेरेन दक्षिणेक साळकांच्या सोबीत प्रदेशांत, जंय सुर्योदय जाता, आनी जंयच्या भयांकृत आसमंतारांत सुर्यास्त जाता थंय मेरेन हो आवाज पावता. दुबळ्या काळजाचो मनीस. आमच्या हावेसांच्या बळग्याच्या आदाराचेर तरसाद आनी रणभेदी घेवन झुजामळार उतरपाची धिटाय दाखयता. तो आमच्याच संकल्पाचो धोल-तासो बडयता. तो आमचेच व्हडविकायेचो उद्घोष करता. तागेले मोगान थपथपिल्ले उमाळे समुद्राक वचून मेळपी न्हंयोंच. पर्वताच्या तेमकार बशिल्ले आमी मनशाचे न्हिदेंत आमगेलीं सपनां पळयतात.

आमकां जाय, तांणी गोरवांच्या तळच्याच हुबपी धुल्लाच्या देंगणांतल्यान भायर सरचें आनी पर्वतांचेर चडून स्वता खातीर पुर्णताय जोडची. आमगेलें हांत संवसाराक शेंवटून उडोवपी तुफानाचें फुडापरण करतात आनी मनशान निर्फळ शांतिकायेच्या पयल्यान वचून ताणें निर्माणकारी संघर्षाक सामकारा वचचें, जाका तो जैतांचेर जैतां जोडीत रावतलो. आमच्या दोळ्यांनी अशी एक नदर जी मनशाच्या आत्म्याक उजवाडा केण करून सोडटा, तें ताका म्हयमावंत एकसुरेपण तशेंच विद्रोही भविश्यवाणीचे दिकेन व्हरता. गरज पडल्यार तें ताच्यांत फांशीच्या तख्तार लेगीत चडपा इतली धिटाय निर्माण करता.

मनशाचो जल्म बंदपासांतल्यान जाला आनी त्याच बंदपासांत तागेलो भोवमान आनी व्हडविकाय आस्पाविल्ली आसा. मनशाकच आमी आमगेल्या मनाकाळजांतले उमाळे उक्तावपी साधन करून उडयतात. आनी ताचेच जिणेंत आमगेले आत्म-सिद्धीचो सोद घेतात. मनीस-मन भितरले भितर घुस्मटपाक लागलें जाल्यार मागीर कोणाच्या

काळजांतल्यान आमगेल्या आवाजांचो प्रतिध्वनी प्रगट जातलो तर? जर मनशाल्या दोळ्यांचेर रातीचो काळोख पातळ्ळो तर आमगेल्या उजवाडा कडेन कोण देखतलो? मागीर तुमी ह्या मनशाचें कितें करतले जो आमगेल्या काळजाचो पयलो वयलो कळो आनी आमगलेंच प्रतीरुप?

**तिसरो देव :** भावांनो, म्हज्या बळगेवंत भावांनो,

नर्तकीचीं पावलां गीताचे धुंदेन सामकीं मदमस्त जावन गेल्यांत, तांच्या वेगान वाऱ्या-वावाक नेट चडूंक लागला, आनी पारव्यावरी तिचे हात वयले वयर नाचूंक लागल्यात.

**पयलो देव :** एक चंडोल पक्षी दुसऱ्या चंडोलाक साद घालता, पूण एक गरुड तांच्याकूय वयल्यान उडत आसा, तो तांचें गीत आयकुपाक थारना. तुमी म्हाका, आपणाविशींचो मोग मनशाची पुजा करूनच दाखोवन दिवं येता असो उपदेश करतात. आनी तुमी म्हाका मनशाल्या गुलामपणांतच समाधानी जावपाक शिकयतात, पूण म्हजो आपलो मोग शीम-मेर नाशिल्लो आनी अनंत अथांग असलो आसा. हांव मातयेंतल्यान घडिल्ले हे नाशिवंत कुडींतल्यान मुक्त आनी उंचेलो पांवडो जोडून सर्गांत म्हजे खातीर शिंवासन रचतलों.

म्हजीं बावळीं अंतराळाक रेवाडो घालतलीं आनी दिक-दिगंताक वेंगेंत घेतलीं. हांव मळब-गंगेक म्हजें धनुष्य करतलों आनी नकेत्रांक म्हजे बाण आनी उपरांत अपार-अनंताक घेवन अपार-अनंत कसतलों. पूण ही गजाल तुमचे कडल्यान जायसारकी आसल्यारूय तुमी ती करचे नात. जे तरेन मनीस मनशा खातीर आसा तेच तरेन देव देवां खातीर आसात.

ना-ना, हाचे उरफाटे तुमी म्हज्या थकिल्ल्या काळजाक त्या सरिल्ल्या युगाची याद करून दितात जें आमी दाट धुंवटेन भरिल्ल्या वातावरणांत सारिल्लें. तेन्ना म्हजो जीव म्हाकाच पर्वतां मदें सोदीत भोंवतालो, आनी म्हजे दोळे सुस्त समुद्रांनी म्हजेच सावळेची फाट धरीत आसताले. जेन्ना हांव जल्मा आयलों तेन्ना म्हजो पूर्वकाळ ना-

नपयत जाल्लो. आतां ताच्या थड्याचेर फकत मोनेळ आनी मोनेळच पडिल्लो आसा. आनी ताच्या हड्ड्याचेर वाऱ्यान उडून आयिल्ले रेंवेचे थर पुंजा जाल्ले आसात- गेले, गेले ते दीस! ते परते येवपाचे नात! बेडयांच्या बंधनांत पडिल्ल्या, म्हाका देवपण दिवपी रचणाऱ्या! सांग म्हाका, खंयच्या देवाधिदेवान तुका आपणाल्या चपक्यांत सांपडायलो आनी पांजऱ्यांत घालून तुका रचणार केलो? खंयच्या म्हान सुर्यान तुज्या हड्ड्यांत उश्णताय भरली, जाका लागून म्हजो जल्म जालो? हांव तुका आशिर्वाद दिना, पूण तुका स्रापय दिना, कारण तुवें जे तरेन म्हजेर जिणेचो भार घालो, तेच तरेन हांवेंय बी मनशाचेर जिणेचो भार घालून सोडला. पूण हांव तुजे परस उणें निर्दयी. हांव स्वता अमर आसूनय मनशाक मात नश्वर करून सोडला, आनी तुवें मरता आसतनाय म्हाका अमर केला.

गेले ते दीस! परतून येवपाचे नात ते! एक सांग विश्व प्रलयाच्या दिसा तूं पर्थून येतलो, जाका लागून म्हाका तुजो न्यायनिवाडो करूंक मेळटलो? म्हाका सांग, तूं जिविताच्या नव्या फांत्या पारा जागो जातलो? तशें जायत जाल्यार, हे धर्तरेर आशिल्ली तुजी सगळी यादस्त म्हाका पुसून उडोवची पडटली. म्हजी इत्सा, पुराण काळा पासून मरून गेल्ल्या जिवां वांगडा तुजो पर्थून जल्म जावचो, आनी धर्तरेचे प्राण तिच्या आपणाल्या कोडू फळांक लागून घुस्मटचे नात तेन्ना मेरेन तुवें जिवीत उरचें, आनी सगळे समुद्र. जिवानशीं मारून उडयिल्ल्या मनशांनी भरून कुसचे न्हय आनी संकश्टांचेर संकश्टां येवन धर्तरेचे निर्माण शक्तीचें पाड पडचें न्हय.

**तिसरो देव :** भावांनो, म्हज्या पवित्र भावांनो,

ते चलयेन गीत आयकलें. ती आतां त्या गावप्यांचो सोद घेत आसा. खोशयेन भरून गेल्ल्या हरिणीच्या पेट्या भाशेन ती चडट्यांचेर आनी न्हंयांतल्यान उडणां मारीत आसा. आनी ती हेवटेन तेवटेन तोंड करून पळयत आसा. जेन्ना मनशाचे हावेस अर्देमर्दे जरी सुफळ जातात, तेन्ना खोशयेन भरिल्लें ताचें उल्हसीत मुखामळ ती पळयत आसा,

आह! ताच्या पालवत वचपी आशा-हावेसांनी कितली प्रसन्नताय आसा जाणात! ताच्या त्या ओंठांचेर आतां मोवाळ हांसो खेळत आसा. ते फुडाराच्या सुखांच्या भासां आभासांनी कांपत आसात. सर्गांतल्यान कसलें फूल सकला पडलें? नरकांतल्यान कसलें उज्या-ल्हार फुटलें? जाका लागून शांत आशिल्ल्या काळजाक ह्या अपार आनंदान आनी भिरांतेन भयाभीत करून सोडलें? पर्वताच्या तेमकांचेर आमी कसलेंशें सपन पळयलां? आनी असलो कसलो वाव-वारो संवसाराक दिला-जाका लागून उस्वासत पडिल्ल्या देगणाक जाग हाडल्या आनी रातीक चकासूर करून उडयल्या?

**दुसरो देव :** सैमान तुमकां हो पवित्र असो हातमाग दिला आनी लुगट विणपाची कला शिकयल्या. हो हातमाग आनी ही कला सदांच तुमगेली गिरेस्तकाय जावन उरतली. ते सगळे काळे आनी धवे धागे, तांबडे आनी भांगराळे धागे- सगळे तुमचेच! तरिपूण तुमी आपणा कडेन वस्त्रां नांत म्हूण कागाळ करीत आसतात. खासा तुमी तुमच्या हातांनी जिवंत वारो-वाव आनी उज्यारुपाचीं नकेत्रां हांचे वरवीं मनशाच्या आत्म्याक विणून तयार केला. म्हणटकीच खासा तुमी स्वताच ह्या नकेत्रांक पिसडून उडयतले आनी आपणाल्या कुशळ हाता बोटांक सासणा खातीर कामा भायरीं करून सोडटले?

**पयलो देव :** ना, ना, हांव म्हज्या ह्या हातांनी म्हाका सर्वस्वयंभू अनंताचे रचणुके पासत ओंपून दितलों. हांव अशे तरेची वाट चलतलो, जे वाटेन आजवेर कोणूच चलून वचूंक ना. आरे भावा, जीं गितां आमी परत परत आयकल्यांत तींच पर्थून आयकुपांत कसलें सूखसमाधान आसा? हीं गितां आयकुचे पयलींच ह्या गितांचे वळखीचे सूर आनी नाद हांची कल्पना येता. खरें म्हणल्यार, हांव अशा कांय अजापभरीत वस्तूंची आस्त बाळगून आसां, जाची तो कल्पना लेगीत करूंक शकना. हांव म्हज्या आत्म्याक अशा एका अज्ञाना कडेन घेवन वचूंक सोदतां, जंय याद म्हणटात ती आसचीच ना.

आह! म्हाका जैताचीं हांयसां दाखोवं नाकात. म्हाका आमच्या वा

आमच्या सपनांच्या गांठीक बांदूं नाकात; कारण हांव जो कितें आसां, वा धर्तरीर जें कितें अस्तित्वांत आसा; वा फुडाराक जें कितें घडून येवपाचें आसा, त्या सगळ्या कडेन म्हजो आत्मो ओड घेत वचचो ना. ए म्हज्या आत्म्या, तुजें मुखामळ सामकें निसूक निखरें कित्याक? आरे, तुज्या दोळ्यांत रातोडेच्यो सावळ्यो न्हिदिल्ल्यो दिसतात. पूण तुजें हें निसूक-निखरेपण भोवच भयांकृत आनी खासा तूंय तर भेशटावणोच!

**तिसरो देव :** भावांनो, म्हज्या पवित्र भावांनो,

आतां ते चलयेन त्या गायकाक सोदून काडला. ती ताचें खोशयेन फुल्लटून आयिल्लें मुखामळ नियाळीत आसा. द्राक्ष-घोसांनी भरिल्ल्या सळसळपी वालींनी आनी झाडांझोंपांनी ती एके वागिणीच्या पिलावरी, आपणालें एक एक पावल घालीत फुडें वचत आसा. आनी आतां तो गायक आपणाली खोशयेभरीत गीतां आळयत, नदर जोखून तिकाच नियाळीत आसा.

भावांनो,

म्हज्या बेसावध भावांनो,

तो कोणूय एक नवो देव बी न्हय मूं? जाणें मोगाचे मस्तेन भरून वचून तांबड्या आनी धव्या नकेत्रांचें जाळ विणलां? काय तो मळबांतल्यान तुटून पडून आनी आपणालो मार्ग चुकून हेडत राविल्लें एकाद्रें नकेत्र न्हय मूं? ताचो घूट रातोड, फांत्यापारा पासून ताचो हात आमगेल्या संवसाराचेर अखंड पातळ्ळा, अशें बी न्हय मूं?

**पयलो देव :** ए म्हज्या आत्म्या, तुजें पर्जळाचें मालें म्हाका चोंयशी रेवडावन रावलां. तुज्या प्रवाहाक हांव कशी वाट दाखोवं? कशे तरेन तुजे उमळशिकेक अंतरिक्षा वटयां वचपाक लावूं? ए म्हज्या सांगात सोडिल्ल्या आत्म्या, तुका भूक लागता तेन्ना, तुजीच शिकार करता, आनी आपणाल्याच दुकांनी तूं आपणाली तान भागयता. कारण, रातीं थंडायेची ओलसाण तुजे पेले भरिना आनी ना म्हणल्यार दिसूय तुका कितेंच काडून दिना.

ए म्हज्या आत्म्या,

तूं म्हणल्यार हावेसांनी उपाट भरिल्ले तारू जें रेंवेंत मुंगरून पडलां. तुगेलीं शिडां फुलोवपाक वारें येतलें खंयच्यान? आनी खंयचो भरते भार तुज्या सुकाण्याक मेकळें करतलो? तुवें तारवा नांगोर पाणयांत सोडला आनी शिडां, फुलपाक सामकीं आशेल्यांत; पूण माथ्यार मळबांत मोनेळ पडला, आनी शांत-थीर समुद्र तुजी निश्चलताय पळोवन हांसत आसा. आतां तुजे आनी म्हजे खातीर कसली आस्त उरल्या? तिनी लोकांतलें कसलेंशें बदलप, सर्गांतले कसलेशे उद्देश- आतां तुका आपणायतले? अपार अनंताच्या कुसव्यांत तुजे खातीर कोण तरी सोडवणदार वाडत आसा? सोडवणदार, तुजेय परस अदीक बळगेवंत, जाचे हात संवसार बंधनांतल्यान तुका मुक्तताय जोडून दितले?

**दुसरो देव** : तुमचो एकसारको भितरलो खरायेचो आवाज आनी तिडकल्ल्या काळजांतल्या स्वासा उस्वासांक आडावन धरात, कारण ही अपार-अनंत सृष्ट तुजे खातीर भेड्डी-भयरी, आनी हें मळब तर तुजी उवेखणीच करीत आसा. आमी खासा अनंत कुळामुळाचे आनी खासा परमात्मा, आनी आमच्या शिमे विरयत अपार अनंताच्या मदेकांत आमच्या निराकार उद्देशा बगर आनीक कितेंच न्हय. तू अज्ञाताक साद घालता काय कितें? पूण तो अज्ञात भोंवते फिरते दाट धुंवटेंत आपणाक गुठलावन घेवन खासा आपणाल्याच आत्म्याचे खोलायेंत थाण मांडून बशिल्लो आसा. हां... हां... हय, तुमगेलो सोडवणदार तुमच्याच आत्म्यांत सुस्त न्हिदून पडला आनी तो न्हिदिल्लो आसूनय सगळें कितें पळयता, नियाळटा जे तुमी जागे आसूनय तुमच्या दोळ्यांक दिसना. आनी सांगूं, तोच आमगेल्या अस्तित्वाचो खरो घूट. पसवून तयार जाल्ली फसल तुमी अशीच सोडून दितले- जे फसले खातीर बेगी-बेगीन, ह्या शेकान शेक पातळिल्ल्या कुणग्यांनी तुमकां नव्यान बीं ओंपप शक्य जातलें? वाट नकळो आशिल्ल्या शेतांनी आनी ऊंच सकयल फातरटांनी तुमी तुमगेलीं कुपां कित्याक पातळायतात- जेन्ना तुमकां तुमगेले वांगडचे सोदीत आसतात आनी ते तुमच्या सांगाताक दसून रावंक सोदतात? मातशे थारात आनी संवसाराचेर नदर भोंवडायात;

तुमच्या मायेमोगाच्या दुदाच्या भुरग्यांक पळयात. ही धर्तरी तुमगेलें घर आनी ही धर्तरीच तुमगेलें शिंवासन; मनशाच्या मनांतल्या हावेसां परस पयस तुमचो हात ताच्या नशिबाक हात दिवपाचो आसा. तो सूख आनी दुख्खांतय तुमचे लागीं येवपाचो आटापिटो करीत आसा. ताका तुमी असोच सोडून दितले? तुमी ताचे उत्सुकतायेन भरिल्ले नदरे वटयां तुमचें मुखामळ घुंवडावचे नात?

**पयलो देव** : सांगात, फांतोडपार रातीच्या काळजाक आपणाल्या हड्ड्यालागीं वेंगावन रावता? बुडून मेल्ल्या प्राण्याच्यो कुडी समुद्र केन्ना पोटांत घेवन रावता? फांतोडपारा वरी म्हजो आत्मोय बी म्हज्यांतल्यान जागो जावन उठ्ठा सामको नग्न आनी स्वतंत्र, आनी उचंबळीत समुद्रा वरी म्हजें काळीजय बी मनीस आनी संवसारांतल्या नाशिवंत अवशेशांक भायर उडोवन दिता. हांव आतां ताच्या काळजांत राबितो करतलों जें म्हजे ताकदीच्या पेलेकडचें आसा.

**तिसरो देव** : भावांनो, म्हज्या भावांनो, ते दोनूय आसमंतदर्शी आत्मे, मळबा धारेर एकामेकाच्या मुखार उबे आसात मोन्यांनी आनी अजापभरीत जावन ते एकामेकांक पळयत आसात. गावप्यांचें गीत गावप थांबलां. पूण सुर्याचें उश्णतायेन सुकून गेल्ल्या ताच्या गळ्यांत तें गीत अजूनय थरथरत आसा. चलयेच्या आंगांतल्यान शिंवरून पडपी नाच आतां सोंपला. पूण अजून तिचेर न्हिदेन आपणालो शेक चलोवंक ना. भावांनो, म्हज्या अजापाच्या भावांनो, रात उलगून गेल्या, चंद्रीम पयलीं परसय अदीक पर्जळीत जाला. हरयाळी आनी समुद्राच्या मदेकांत एक खोशयेभरीत निनाद तुमकां आनी म्हाका आपणा कडेन येवपाक साद घालता.

**दुसरो देव** : अस्तित्वांत येवप आनी उदरगत सादप; धगधगपी सुर्याचे तापीन तापप, जिवीत रावप आनी जिवीत मनशांच्या रातींची अशे तरेन जायणी करप- जे तरेन मृगशिरा नक्षत्र आमची जायणी करता. राजभोगाची उंचेली व्हडवीक आनी मुकूट धारण केल्लें मस्तक हांचे चोंयशीं सळसळत रावपी वाऱ्याक तोंड दिवप आनी आपणाल्या

मंद-मोव जिणे खूण अशा स्वासा-उस्वासांनी मनीस कुळयेचीं दुखां पुसप- सांगात, इतलोच आमचो जिविताचो हावेस? तशें पळोवंक गेल्यार, वीणकार काळखांतय आपणाल्या हातामागा मुखार बसता आनी कुंभार-कुंभारय आपणालें चाक पळयनासतना तें एकसारकें घुंवडायत आसता. पूण आमी तर जागरूत आनी गिन्यानवंत, आनी अनुमान आनी दैवयोग ह्या बंधनापासून स्वतंत्र आसात. आमी थारनात आनी ना म्हणल्यार चिंतपा करपा खातीरय कळाव करिनात. आमी सगळ्या नाका जाल्ल्या दुभाव आनी घुस्पागोंदळा पसून पयस आसात. येयात, आमी संतुश्ठायेन भरुंया आनी जे हावेसांनी उपाटल्यात तांकां वचूंक दिवुंया. येयात, आमी न्हंया समान, पर्वतांच्या मुळा-मुळसांतल्यान व्हांवत वचून दर्याक मेळुंया. जेन्ना आमी ताच्या काळजांत रिगतले तेन्ना आमच्यांत फुडारा विशीं कसलीच वादावादी आनी झगडें आसचें ना.

**पयलो देव :** हायस, हें निरंतर चिंतप, विचार करपाचें दुखणें. ही दिसाक राती कडेन आनी रातीक दिसा कडेन मेळोवपाची जायणी; ही निरंतर उगडास काडप आनी विसराळपणाची सुकती-भरती, ही भाग्योदयाचें बीं ओंपप आनी ही फकत हावेसांचे फसलेची लुवणी करप, फकत मातयेची इत्सा धरप आनी इत्सांच्या भारान सगळें मातयेभरवण जावप, आनी मागीर, आनी आनीक इत्सां सयत दाट घुंवटेक सोदीत रावप आनी हो काळचक्राचें मेजमाप घेवपाचो एकसारको आटापिटो! किंतें करप म्हज्या आत्म्यान, जाचीं ल्हारां एकामेकाचेर आदळ-आपटत आसतात असो विशाळ सागर जावचो काय अशेंच एक मळब जंयचीं नेटाचीं वाव-वारीं तुफानां निर्माण करतात? जर हांव एक मनीस वा एका फातराचो कुडको आसतों तर हांव हें सगळें धिरिश्टायेन सोंमून घेवपाचों. जर हांव परमात्मो आसतों- जो मनीस आनी देव हांचे मदलें उणावपण भरून काडटा- तरीय म्हाका खोशी भोगपाची पूण, हांव आनी तूं, संवसारी जीव न्हय, ना म्हणल्यार सिद्ध लोकांतलो परमात्मोय न्हय. आमी म्हणल्यार फकत उजवाडाचें एक ल्हवपीक कीर्ण जें एके मळबाधारे सावन दुसरे मळबाधारे मदल्यान येता आनी

पालवत रावता. आमी देव, संवसाराक वेंग मारून आसात आनी ताका बांदिल्ले आसात. आमच्या नशिबांत दुसऱ्यांचे धोल वाजोवपाचें बरयिल्लें आसा. जेन्ना संगीत आनी स्वास-उस्वास खूब पयसुल्ल्यान येतात. आनी हांव बंड करून उठ्ठां. हांव म्हाकाच ना-सो करून शुन्य करून उडयतलों, हांव म्हाका स्वताक तुमचे नदरे आड करून सोडटलों आनी त्या वोग्यांनी आशिल्ल्या तरणाट्याच्या स्मरणांतल्यान लुप्त जातलो, जो आमगेलो धाकलो भाव कसो आनी जो आमचे सरीं बसून मुखा वयलीं दोंगर-देंगणां नियाळीत आसा. ताचे ओंठ जरी कितें तरी पुटपुट्टात अशें दिसलें तरी ताच्या तोंडांतल्यान एक उतरय भायर सरना.

**तिसरो देव :** म्हज्या बेसावध भावांनो, हांव तुमकां पर्थून पर्थून सांगतां, हांव खऱ्यांनीच सांगतां तुमकां. पूण तुमी आपणालें सोडून दुसऱ्या कोणालेंय कितेंच आयकून घेनात. तुमचे कडेन हांव मागतां- तुमी आपणाली आनी म्हजी व्हडवीक लक्षांत घेयात. पूण तुमी म्हजेर नदर पडल्यार तोंड घुंवडायतात आनी आपणाले दोळे धांपतात आनी आपणालीं शिंवासनां हालयतात. तुमी स्वर्गलोकाचेर आनी पातळाचेर राज्य करपी सम्राट. हय हो, खासा बाग घेवन रावपी देवांनो, तुमगेलो सरिल्लो काळ तुमगेल्या फुडाराच्या काळा कडेन सदांच अखटायेन पळयता. हे जिणे विशीं आकूळ पिकूळ जाल्ल्या देवांनो तुमकां तुमगेलेंच उलोवप रागतिडकीन तापोवन सोडटलें. आनी संवसाराक गडगड जोगलावण्यांनी गाजोवन उडयतलें. तुमच्यांतलें झगडें-वाद म्हणल्यार तो पूर्व पुरातन विणेचो फकत झंकार, ते विणेच्या सरयांतल्या संगिताची दैवी बोटांक मात विसर पडून गेल्या त्या संगितांतली सतार, झांज, मंजिरे म्हणल्यार सूर्य माळेंतली नकेत्रां. पूण तुमी बडबडत आनी वथरेत आसात. ते विणेच्यो सरयो झंकारत आसात आनी झांजो झन-झन-झन वाजत आसात, हांव तुमचे कडेन मागतां, तांचें गीत आयकात. पळयात, एक अस्तुरी आनी एक दादलो- जशें कितें एक उज्या-केण दुसऱ्या उज्या-केणाक मेळ्ळां आनी मंगलमय खोशयेक

भार चडला. धर्तरेच्या भांगराळ्या कुसव्यांत रिगून तिका चिंवपीच मुळां. मळबाची खेम घेवपी जोत कशीं फुलां फुलयतात. तो भांगराळो कुसवो म्हणल्यार आमीच. वयलें मळब म्हणल्यार आमीच. आमचो आत्मो आनी खासा जिविताचो आत्मो, तुमचो आत्मो आनी म्हजो आत्मो, उजवाडीत काळजाच्या संगीतकाराच्या कंठांत सुवात घेवन आसा. आनी तांणीच ते नाचपी चलयेक घोळत मोडत येवपी ल्हारांचें न्हेसण न्हेसयलां. तुमगेलो राजदंड ताच्या भाग्याचेर कसलोच परिणाम करूंक शकना. कारण, तुमच्यांतली अस्वथकाय म्हणल्यार फकत एक हावेसाची गजाल. उरिल्लें सगळें कितें एक अस्तुरी आनी दादल्याच्या मोगाच्या तुफानांत झडपून-झंजाळून गेलां.

**दुसरो देव :** हां! ही तरणाटी अस्तुरी आनी तो दादलो हांच्या मोगा संबंदांत तुका कितें म्हणपाचें आसा? उदेंतेचो वाव कशे तरेन तरणाटे अस्तुरेच्या नाचरंगांत गुल्ल पावलां सांगता नाचता पळय- आनी अस्तमतेचीं वाव-वारी तरणाट्या दादल्याच्या म्होंवाळ गिता सांगाता. सर-सर करीत वयले वयर झोंपय मारीत आसात पळय. पळय, आमगेलो पवित्र उद्देश आतां, एक नाचत आशिल्ली तरणाटी अस्तुरी आनी तिचे सामकार गायत आशिल्ल्या तरणाट्या दादल्याची विनवणी आनी प्रार्थनेच्या स्वरुपांत फळादीक जायत आसा.

**पयलो देव :** हांव म्हजी नदर सकला करून हे धर्तरेच्या फटकिऱ्या विचारांचेर ती घालचों ना आनी ना म्हणल्यार ह्या समज नाशिल्ल्या भुरग्यांच्या इल्ल्या इल्ल्या सुपूर दुखण्यांचेंय म्हाका कांय एक पडून वचूंक ना. हो मोग म्हणल्यार कितें? हो मोग म्हणल्यार त्या चामड्यान बांदिल्ल्या धोला बगर आनीक कितें जो धोल मनीस आनी ताच्या गोड पूण अनिश्चीत आशा हावेसांच्या लांबदीक रांकेक दुसऱ्या ल्हवसार दुखण्यासरीं घेवन वता? हांव ह्या दोंगरी देगणा वटयां पळोवचों ना. शेवटाक, तो तरणाटो दादलो आनी ती तरणाटी अस्तुरी जीं रानांत उबीं आसात तांचे बगर आनीक पळोवपाचें आसा तरी कितें? तें रानय तांकां आपणाल्या चपक्यांत फारावपाकच निर्माण जालां, जाका लागून तांणी

आपल्या आपणाकच विसरून अजून जाची सुलूस लागूंक ना अशा फुडारा खातीर नव्या नव्या प्राण्याक जल्माक घालचें.

**तिसरो देव :** हायससायबा, हें गिन्यानाचें दुखणें, भेदून वचपाचो आनी प्रस्न आनी जापो दिवपा-करपाचो हो गच्च काळखाचो पड्डो-जो आमी संवसाराच्या मुखामळार पातळावन दवरला. आनी मनशाचे सोसणीकायेचें हें खरायेचें आव्हान! आमी फातरा पोंदा एक मेणाची मूर्त करून दवरतात आनी संवसाराक सांगतात ती मातयेची मूर्त आनी ते खातीर मातयेंतच तिणें आपणालो शेवट सोदपाचो. आनी आमगेल्या हातांत उज्याचो झोत धरतात आनी मनांत म्हणटात तो आमचोच अंश जो परत आमकांच आपणावपाक आयला. आमी सांगतात, हो स्वास आमचोच एक अंश जो आमचे पासून वेगळो जाल्लो आनी आतां चडांत चड परमळ हुंगपाक आमगेल्या हातां आनी ओंठा वटेन परत परत येता.

आरे भूंय देवांनो, म्हज्या भावांनो, जरी आमी पर्वताच्या तेमकार विराजीत आसले तरी- आमची खरी लागणूक हे धर्तरि कडेच आसा. हांगा आमी मनशा वरवीं ताच्या भाग्याच्या भांगराळ्या खिणांची आस्त बाळगितात. आमचें शाणेपण म्हणल्यार ताच्या दोळ्यांतली सुंदराय झोमून घेवप इतलेंच आमचें काम? ताच्या सगळ्या आशा-हावेसांक चिड्डून उडोवप वा ताका आमच्या हावेसाच्या पासान बांदून घालप इतलोच आमचो आटापिटो काय कितें? जंय मोगाचे सेनेन आपणालें पेणें केलां थंय तुमगेल्या तर्क वितकांच्यो फौजो कितें करतल्यो, सांगात? जे मनीस मोगांत पराभूत जातात, जांचे कुडीचेर स्वार जावन कामदेवाचो रथ, समुद्रा साकून पर्वता मेरेन आनी परत पर्वता सावन समुद्रा मेरेन वता. ते सगळे, लजे लजेत आपले आपूणच एकामेकांक वेंगेंत घेतिल्ल भाशेन उबे आसात. फुलांक फुलां वांगडा भरसावन ते पवित्र परमळाचो वास घेत आसात आनी आत्म्याक आत्म्या वांगडा मेळोवन ते जिविताचें सार काडून घेत आसात. तांचे दोळे नियाळ्ळ्यार अशें दिसता, जशें कितें ते तुमचे कडेन आनी म्हजे कडेन कसलें तरी

मागणें करूंक सोदतात. मोग म्हणल्यार एक रात; तिणें आपणालो पालोव, रातओल्या दवाकणांनी अभिषेक केल्ल्या झोपां-रोपयांचेर पातळावन दवरला. मोग म्हणल्यार एक मळब जें पाचवेंचार मळां-मैदानावरी आसा आनी जाच्या समेस्त नकेत्रांनी झिगझिगपी काजुल्यांचें रूप धारण केलां. एक खरें, आमी ह्या सगळ्याच्या पयले कडेन आसात. आमीच सर्वश्रेश्ठ परमात्मा हेंय खरेंच. पूण मोग आमकां पडिल्ल्या प्रस्नांच्या पयलेकडचो आसा. कारण, मोग आमगेल्या गितां परस कितलेच उंचाये वयल्यान विहार करीत आसता.

**दुसरो देव :** सैमाच्या आदिकाळा सावन, जेन्ना ताणें मळां-मैदानाक पर्वता मेरेन आनी घळयां-देगणां कडेन जोडून उडयिल्लीं तेन्नाच्यान हें अशेंच जायत आयलां. आनी निर्माणेच्या निमण्या खिणा मेरेन अशेंच जायत रावतलें. ह्यो आमगेल्या काळजा बिड्ड्यांतल्यो कल्पना ज्यो दोंगर देगणांनी हालत्या धोलत्या झाडां-झोंपाच्या रुपान प्रगत जाल्यात. आमी म्हणल्यार सूरस्वरांच्या गीतांच्या परमळाचीं फुलां, जीं मळबाचीं खेम घेत आसतात. अमर आनी नाशिवंत दोन न्हंयो समुद्राक मेळपाक व्हांवत आसात. एक आवाज आनी दुसरो आवाज हांचे मदीं आमच्या कानांतल्या शुन्याकारा बगर दुसरें शुन्य ना. काळ आमच्यांतले आयकुपाचे शक्तीक आनीक खर करीत आसा आनी तिच्यांत अदीक उत्सुकताय निर्माण करीत आसा. मनशा भितरले दुभावच तागेल्या आवाजाची धार उणे करतात. पूण आमी दुभावां पासून कितलेच पयले कडेन पाविल्ले आसात. मनीस म्हणल्यार आमच्या माणकुल्या काळजाची संतत. मनीस एक प्राणी, जो ल्हव ल्हव देवांचे सगळे गूण आपणायता, आनी आमी ताच्या सुखां आनी दुख्खांच्या मदेकांत न्हिदतात आनी सपनां पळयतात.

**पयलो देव :** गावप्याक गावंदी आनी नर्तकेक आपणालो नाच सुरू करूं दी. कांय वेळ तरी म्हाका संतुश्टाय मेळूं दी. आयचे राती म्हज्या आत्म्याक शांतिकाय प्राप्त करूं दी. घडये हांव म्हजे तंद्रेंत गुंग जावन वचन आनी ते तंद्रेंत एक अदीक उजवाड भरीत संवसार

पळोवंक पावन आनीक पळोवंक पावन जोती सारके पर्जळीत म्हज्या मना सारके मनीस.

**तिसरो देव :** आतां हांव उठ्ठलों आनी खासा म्हाका काळावेळाच्या आनी अंतरिक्षाच्या बंदपासांतल्यान मुक्त करतलों. हांव त्या कुंवार शेतांत वचून नाचतलों. आनी ते नर्तकेची पावलां म्हज्या पांयासांगाता पावली मारतलीं. हांव ह्या मळबाचे विशाळायेंत गायत रावतलों, आनी मनशाचो आवाज म्हज्या आवाजांत भरसून गाजतलो. आमी मागीर तीनकात्रींच्या आंचळांत पावतले.

शक्य आसा, आमी एका नव्या संवसाराच्या झिळमीळ फांतोडपारा जागे जातले. पूण मोग, तो आसा तसोच उरतलो. ताच्या हाताबोटाच्यो कुरवो कश्योच पुसून वचच्यो नात. पवित्र अग्नीकुंड पेटपाक लागलां! उज्याच्यो किटी उसळूंक लागल्यात आनी दर एके किटीचो एक सूर्य जाला. आमचे खातीर हेंच सगळ्यांत व्हडलें आनी भोव बुंदवंतकायेचें. आतां आमी एक गच्च रुखामळ सोदुंया आनी आमच्या संवसाराचे अनंततायेंत न्हिदुंया आनीक- मोग, मनीसपण आनी मनम्होंवाळपणाक फुडाराचेर शेक चलोवंक दिवुंया!

# अग्रदूत

तूं तुजो स्वताचो अग्रदूत. आनी तुवें जे मीनार बांदल्यात तें तुज्या व्हड व्यक्तीमत्वाचें मुळावण. खासा तूंय बी सगळ्याची एक बुन्यादच.

आनी हांवय खासा म्हजोच अग्रदूत. कारण सकाळपारा दीस उदेता तेन्ना म्हजी सावळी म्हज्या मुखार लांब मेरेन पातळटा आनी दनपारां ती म्हज्या पांयामुळा येवन थारता. आनीक एका सुर्योदयाचो वेळ आनी तशीच म्हजी सावळी म्हज्या मुखार लांब मेरेन पातळटा आनी तशीच ती दनपार जातासर म्हज्या पांयामुळा येवन थिरावता.

आमी सदांच आमचे अग्रदूत आसले आनी हे मुखारय तशेच आसतले. आनी तेच खातीर तर आमी एकठांय आयल्यात. आजवेर कोणेंच खणूंक-कसूंक नाशिल्ल्या शेतांत आमीच आमगेलीं बियां जावन शेत ओंपतले. शेत म्हणल्यार आमीच. शेत कसपी जोतकारय आमीच. पिकावळ काडपी आनी पिकता तें पुंजावपीय आमीच.

तूं जेन्ना दाट दवा-धुंवटेंत भोंवपाक लाळेतालो तेन्ना हांव बी तुजेंच भाशेन करतालों. थंय आमी दोगूय एकामेकांक मेळ्ळे. आनी आमच्या काळजांत जी उमळशीक आशिल्ली तातूंतल्यानच सपनांचो जल्म जालो. सपनां अमर्याद आनी काळातीत. सपनां अनंत अवकाशा सारकीं.

आनी जेन्ना जिविताच्या थरथरपी ओंठांचेर तूं एक मोनें उतर जावन आसलो. तेन्ना हांवय बी थंयच आसलों. एक मोनें उतर जावन. आनी उपरांत जिवितान आमकां उलयते केले. आमी वर्सा-काळाचेर स्वार

जावन कालच्यो खतखतत्यो यादी आनी ताचे वांगडा फाल्यां खातीर आशा-हावेस घेवन आयले. कारण, काल आमी मर्णाचेर जैत जोडिल्लें आनी फाल्यांचो काळ नवे निर्मणे फाटल्यान लागपाचो आसलो.

आतां आमी ईश्वरीय शक्तीच्या सुवादीन आसात. तूं एक सूर्य जावन तिच्या उजव्या हातांत आसा आनी हांव एक धर्तरी जावन तिच्या दाव्या हातांत. आनी तरिपूण हांव झगमगून उठिल्लों दिसता तसो झगमग तुका ना.

आनी आमी, सूर्य आनी धर्तरी म्हणल्यार आसा ताचेय परस व्हड सूर्य आनी धर्तरी जावपाचो आरंभ. आमी सदांच आरंभकाळच जावन उरतले.

जाणा जा. तूं तुजो स्वताचो अग्रदूत; एक सामको अनवळखी-म्हज्या उद्यानाच्या दरवट्या कडल्यान चलत वचपी.

आनी हांवय म्हजो स्वताचो अग्रदूत. पूण हांव म्हज्या रुखाचे सावळेंत बसलों. सामको निस्तब्ध!

**स्वप्नदर्शी**

एका व्हडल्या रेंवटाळ्या वाठारांतल्यान एक मनीस शारिया नांवाच्या व्हड शारांत आयलो. आंगार एक सादो डगलो आनी हातांत एक दांडो सोडून ताचे कडेन आनीक कांयच नासलें. सपनांत गुंगत रावपी तो एक स्वप्नदर्शी आसलो.

तो शारांतल्या रस्त्या वयल्यान चलत वचूंक लागलो तसो तो अजापीत आनी चकासूर जावन व्हड व्हड मंदिरां, मीनार आनी राजमहाल पळोवंक लागलो. कारण शारिया शार आसलेंच तशें सुमारा भायलें सोबितायेन भरिल्लें. चलतां चलतां, ताणें रस्त्या वयल्यान येतल्या-वतल्या कडेन शारा विशीं जाणून घेवपाक उलोवपाचो प्रयत्न केलो. पूण थंयच्या लोकांक हागेली भास कळनाशिल्ली आनी लोकांली भास हाका मातूय समजनाशिल्ली.

दनपारचो वेळ जालो तसो तो एके व्हड खानावळी मुखार थांबलो. तें घर हळदुव्या पाशाण फातरांनी बांदिल्लें आसलें. लोक त्या घरांत

कसलेय आडखळी बगर भितर वताले, भायर सरताले, तें त्या मनशान पळयलें.

'हें एक मंदीर आसूंक जाय' ताणें मनांत म्हणलें आनी तोय तातूंत भितर सरलो. भितरली सगळी दोळे दिपकावपी सुरंगारणी पळोवन तो सामको अजापीत जालो. खूब दादले-बायलो थंय पुंज्या पुंज्यांनी मेजा भोंवतणी बशिल्ल्यो. ते जेवताले आनी पियेताले आनी वाद्यकाराचें संगीत आयकताले.

'शे!' स्वप्नदर्शीन मनांत म्हणलें- हें देव देवस्पण न्हय. हांगाच्या राजान कसले तरी व्हड परबे निमतान घडोवन हाडिल्लो हो एक जेवण-सुवाळो आसतलो.'

इतल्यांत थंय एक मनीस आयलो. तो ताका राजाल्या गुलामावरी दिसलो. ताणें ताका एका मेजा कडेन व्हरून बसयलो आनी ताका सुरबूस जेवण आनी दाकूंचो सोरो हाडून दिलो. उपरांत बऱ्यांतली बरी मिठाय बी हाडून दिली.

जेन्ना जेवन-खावन स्वप्नदर्शी संतुश्ट जालो तेन्ना तो वचपाक भायर सरलो. पूण म्हालदारा कडेन, ताका एक उंची न्हेसणांतल्या आनी मोठ्या आंगलोटाच्या दादल्यान आडायलो.

'खात्रेन हो खासा राजकुंवरच आसूंक जाय' स्वप्नदर्शीन मनांतल्या मनांत म्हणलें आनी ताणें नमळायेन बाग घेवन त्या मोठ्या दादल्याक उपकारी मनान दिनवास दिले. पूण त्या मोठ्या दादल्यान स्वप्नदर्शीक म्हळें, तुवें तुजे जेवणा खाणाचे दुडू फारीक करूंक नात. स्वप्नदर्शीक तागेली भास निखालस कळ्ळी ना. आनी ताणें त्या दादल्याक पर्थून एक फावट काळजांत थावन देव बरें करूं म्हणलें. मोठ्या दादल्यान नदर मोखून ताका एक फावट सारकोच पळोवन घेतलो. ताका कळ्ळें, हो कोण तरी परगांवचो अनवळखी आसा. ताचें म्हणलें न्हेसण ताणें निहाळ्ळें आनी ताका जाणवलें, हाचे कडेन जेवणाचे फारीक करपाक दुडू बी कांय एक नासतलें.

मोठ्या दादल्यान, मागीर व्हडान ताळी वाजयली आनी कोणाक

तरी उलो मारलो. ते बराबर चार पारेकार शिपाय थंय आयले. मोठ्या दादल्यान तांकां कितें सांगपाचें तें सांगलें. त्या चारूय जाणांनी स्वप्नदर्शीक मदें घालून थंयच्यान घेवन गेले.

स्वप्नदर्शीक दिसलें ते चारूय जाण माना सन्मानान ताका घेवन वतात. तो सामको खोशेन भरून गेलो.

'हे व्हडले मानापानाचे मनीस आसूंक जाय.'

'स्वप्नदर्शी मनांतल्या मनांत चिंतूंक लागलो.

ते सगळे वांगडा चलत चलत एके न्यायसभेंत भितर सरले.

स्वप्नदर्शीन मुखार पळयलें. थंय उच्चासन आसलें. शिंवासनच कशें. ताचेर एक बरे तरेन वळयिल्ल्या लांबसार खाडाचो एक मानादीक मनीस बशिल्लो. स्वप्नदर्शीन मनांत म्हणलें, होच हांगाचो राजा आसूंक जाय. आपणाक ताचे मुखार हाडला हाची ताका व्हड खोस भोगली.

आतां पारेकारांनी, मानादीक न्यायाधिशाक, स्वप्नदर्शीन कसलो गुन्यांव केला तें सांगलें. न्यायाधिशान दोगां वकिलांक नेमले. एक वकील गुन्यांव दाखोवन दिवपाक आनी दुसरो वकील गुन्यांवकाराचे वतीन उलोवपाक. हे सगळें पळोवन आनी वकिलांचे मुद्दे आयकून स्वप्नदर्शीक दिसलें- 'म्हज्या येवकाराचींच हीं उलोवपां चल्ल्यांत.'

राजा आनी राजकुंवरान ताचेर केल्ल्या उपकारान ताचें काळीज भरून आयलें.

उपरांत न्यायाधिशान ख्यास्त फर्मायली. स्वप्नदर्शीन कसलो गुन्यांव केला तें बरयिल्ली एक ताटली ताच्या गळ्यांत हुमकळावंची आनी मागीर ताका साद्या उक्त्या घोड्याचेर बसोवचो आनी ट्रंपेट आनी धोलकें वाजयत ताची शारांतल्यान धींड काडची. शारांतले लोक ही धींड पळोवपाक चारूय वशींनी धांवून आयले. तांणी जेन्ना स्वप्नदर्शीक पळयलो तेन्ना सगळे जाण व्हडा व्हडान हांसूंक लागले. गल्ले-गल्लेंत उरपंज्यांनी भुरगींय ताका पळोवपाक आयलीं. स्वप्नदर्शीचें काळीज हें सगळें पळोवन खोशेन भरून ओतलें. ताच्या दोळ्यांत खोशेचीं दुकां दाटलीं. ताच्या गळ्यांत घाल्ली, ताचो गुन्यांव सगळ्यांक कळोवपी

तातली म्हणल्यार राजान ताका दिल्ले आशिर्वाद आनी ताची धींड काडपी मिरवणूक हें सगळें ताच्या सन्माना खातीरच चल्लां अशें ताका दिसतालें.

रस्त्यान ही धींड मिरवणूक वता  आसतना स्वप्नदर्शीक तागेल्याच रेंवटाळांतलो, ताचे वळखीचो एक मनीस दिसलो. स्वप्नदर्शीक ताका पळोवन अत्यानंद जालो. ताणें व्हडान आवाज काडून ताका आयकूंक येत अशे तरेन म्हणलें.

'इश्टा, आरे म्हज्या इश्टा! खंय आसात आमी! म्हज्या काळजाचे खोलायेंत जागो आडावन बशिल्लें हें शार खंयचें? असो हो मान-सन्मान करपी कोण वंशाचे हे लोक? परखन्नां खावोवपी आनी तींय बी राजम्हालांनी. कोण ह व्हड यजमान? म्हाका सांगात दिवपी कोण ते राजकुंवर? म्हज्या हड्ड्यार सोबून दिसपी राजान भेटयिल्ली ही मानसन्मानाची तातली म्हणल्यार, धर्तरे सर्ग देंवोवन हाडपी ह्या शाराची सोयऱ्यांचे सरबरायेची खुणा!'

पूण रेंवटाळांतल्यान आयिल्ल्या ते गर्देंतल्या मनशान ताका कसलीच जाप दिली ना. तो फकत  हांसलो आनी मात्शी मान हालयली. तितले म्हणसर धींड-मिरवणूक फुडें सरली.

स्वप्नदर्शी मात आपणालें तोंड वयर करून नेटान पळयतालो आनी ताच्या दोळ्यांतल्यान उजवाडाचीं किर्णां शिंवरतालीं.

**मोग**

ते सांगतात, - कोलो आनी चिचुंदर एकाच व्हांवत्या वझऱ्याचें उदक पियेतात. शिंव येता, तोय तेंच उदक पियेता.

आनी ते सांगतात- गरुड आनी गिधाडय मेल्ल्या धोरांमासांत एकाच वांगडा आपणाल्यो चोंची धमशितात आनी सगळे आपापले तरेन कसल्याय वांकडेपणा बगर त्या मेल्ल्या जिवां वांगडा जियेतात. ए मोगा, खंयच्या अप्रुपाळ्या हातांनी म्हज्या इत्सा-हावेसांक अशे गांठायले... आनी म्हजी भूक आनी तान वाडयली आनी तांकां मानमान्यतायेक आनी व्हडविकेक पावयलीं?

म्हज्यांतलो बलवान आनी अखंडीत आसा ताका ताची भाकरी खावूं दी वा मदिराप्राशन करूं दी. पूण तशें जायत जाल्यार म्हज्यांतल्या बलहिनाचें कितें?

ते परस हांव भुकेल्लोंच उरिल्लों बरो... म्हाका मरूंदी आनी जावंदी नानपयत. हांव हात पातळायतां. हातार कांयच उडय नाकात वा हातांतल्या वाडग्याचेर तुमचो कृपाशिंवोर करूं नाकात.

**संन्याशी राजा**

तांणी म्हाका सांगलें- 'त्या अटंगे रान मातिल्ल्या दोंगरा मदें एक तरणे पिरायेचो दादलो एकलो एकसुरोच जियेता. एका काळार, ह्या दोन न्हंयां पलतडच्या भोव विशाळ राज्याचो तो राजा आसलो. तांणी म्हाका आनिकूय एक सांगलें तें म्हणल्यार ताणें स्वताचे इत्सेन राजशिंवासन सोडलें; ताणें व्हडविकेक पावयिल्लें राज्य आपणेंच नाका केलें आनी तो एकाण्या रानांत वचून रावला.

हाचेर हांवें म्हणलें, 'अशें जाल्यार हांव ताका वचून मेळटलों. आनी ताच्या काळजांतलो घूट समजून घेतलों. कारण जो आपूण जावन राजत्याग करता तो ताच्या राज्या परसय खूब असामान्य आसूंक जाय.'

आनी त्याच दिसा, ताका मेळपाक हांव त्या अटंग्या रानांत गेलों. तो एका सुरेरुखाच्या मुळांत बशिल्लो म्हाका मेळ्ळो. ताच्या हातांत एक बेतकाठी आसली. जसो कितें एक राजदंडच. एका राजाक अभिवादन करतात तशेच तरेन ताका हांवें अभिवादन केलें. ताणें म्हजे वटयां पळयलें आनी शांतपणान म्हाका प्रस्न केलो, 'ह्या एकांतांतल्या अटंग्या रानांत तूं कित्याक म्हूण आयला? हें पाचवेचार रुखावळीचे शीतळ सावळेंत तूं स्वताचो सोद घेवंक आयला वा तुज्या जिविताच्या संधीकाळांत तूं तुज्या घरा परतला?'

आनी हांवें जाप दिली, 'म्हाका फकत तुमकां मेळपाचें आसलें. एदें व्हडलें राज्य सोडून तुमी कित्याक म्हूण ह्या रानांत आयले हें म्हाका जाणा जावपाची इत्सा आसा.'

आनी ताणें जाप दिली, 'उदका वयलो बोंबाडो खिणा भितर फुट्टा तशी म्हजी सुपुल्लीच काणी. घडलां तें अशें : एक दीस हांव राजम्हालांत एका जनेला सरीं बशिल्लों. म्हजो म्हालकारभारी एका विदेशी राजदुता वांगडा म्हजे बागेंत फेरयो मारतालो. ते जेन्ना हांव बशिल्ल्या जनेला कडल्यान वताले तेन्ना म्हालकारभारी आपणा विशीं उलोवन म्हणटालो, 'हांव एक राजाच कसो. म्हाका कडकांतले कडक पतींचो सोरो आवडटा. कसलेय संदीचो हांव फायदो घेतले बगर रावना. आनी म्हजो धनी राजासायबा सारकोच, तिडकीचो. म्हाका केन्ना केन्नाय किंवाटो येता. इतलें उलोवन जाता म्हणल्यार म्हजो म्हालकारभारी आनी विदेशी राजदूत चलत चलत रुखा आडसाक पयस पावले. पूण कांय खिणांतच ते परतून आयले. हे खेपे, म्हजो म्हालकारभारी खासा म्हजे विशीं उलयतालो. तो म्हणटालो, 'म्हजो धनी, राजासायब म्हजेच सारको, ते एक बरे फिशाल नेमबाज, तांकां संगीत खूबच आवडटा. ते दिसाक तीन खेपो न्हातात.'

आनी मागीर, मात्सो थांबून त्या राज्यत्यागी मनशान म्हणलें, 'आनी त्याच दिसा सांजेर हांवें म्हज्या आंगार आशिल्ल्या कपड्यां सयत राजवाडो सोडलो. हांवें थारायलें, जे म्हजी चालरीत आनी संवयो आपूण आपणायतात आनी आपणा मदें आशिल्ले गूण म्हाका दसोवंक पळयतात तांचेर हांव राज्य करचों ना.'

हें आयकून हांव उद्‌गारलों, 'खरीच अजापाची गजाल ही आनी विचित्रतय बी.'

हाचेर ताणें म्हणलें, ना-ना, म्हज्या इश्टा, तुवें म्हजे शांतीकायेच्या दरवट्यार सादयलें. पूण तुका कांय गावलें ना. कारण कोणूच आपणाली सत्ता राजवटकी सोडून दिवन जंय सय रुतू मधुरायेन गायत आसतात आनी एक सारके नाच करीत आसतात थंय येवन रावत? संवसारांत एकांतवास आनी एकमुळेपणाचो सांगाती जावन रावपाक आपखोशेन आपणाली राजवटकी सोडून वचपी कोणतरी आसत? अगणीत अशे गरूड, धर्तरेचीं गुपितां सोदून काडपाक, अथांग मळबांतल्यान खाला

उतरून बारीक सारीक जीव-प्राण्यां सांगाता दीस काडीत? तशे, आपणाली सपनसृश्टींतली राजवटकी सोडून दिवन, सपनविरयताच्या आसमंता कडेन पयस नदर लावन रावपी आसत जायते. आनी अशेय जायते आसात जे आपणाली उगडी-नागडी पडिल्ली राजवटकी सोडून दितात.

आपणालें आत्म्याचें उक्ताडार पडिल्लें रूप दुसऱ्यांनी पळोवन लजेक म्हारग जावचें न्हय. सत्य उक्तें जावचें न्हय आनी धांपण्यांतली सुंदराय संवसाराक दिसची न्हय म्हूण धडपडपीय आसात. आनी हेय परस सगळ्यांत व्हडली गजाल म्हणल्यार जो आपणाली खेद-खंत दुख्खान भरिल्ली राजवटकी सोडून दिता तो. कारण ताका गरजे भायली व्हडवीक आनी फुक्याची मान-मानतूक नाका आसता.'

ते उपरांत तो बशिल्ले कडचो आपणाले बेतकाठयेचेर भार घालीत उठून उबो रावलो आनी ताणें म्हणलें, 'आतां परत तूं तुगेल्या त्या व्हड शारांत वच आनी म्हालदवरवट्या लागीं बस. आनी जे कोण शारांत भितर सरतात आनी शारांतल्यान भायर सरून वतात तांकां बारीकसाणीन नियाळून पळय. आनी असो मनीस सोदून काड जो राज्यपद भोगपा खातीर जल्मल्लो पूण राजा जावंक पावलो ना. आनी काड सोदून जाणे कुडी बडीन राज्य केलें पूण प्रजेक ताचे कांयच खबर ना तें. आनी अशाक कोणाक तरी सोदून काड जाणें अजून राज्य चलोवपाचे आसा पूण तो स्वताच एक आपणेच निर्माण केल्ल्या गुलामांचो गुलाम.

इतलें सांगले उपरांत तो मुमुरखोच हांसलो. ताच्या ओंठाचेर एकाच वेळार हजारांनी फांतोडपार फुलिल्ले म्हाका दिसले. ते उपरांत ताणें आपणालें मुखामळ घुंवडायलें आनी त्या गच्च अटंग्या रानांत तो भितर रिगलो.

हांव म्हज्या शारांत परतून आयलों आनी ताणें सांगिल्ले ते प्रमाण शाराच्या म्हाल दवरट्या कडेन येवन बसलों. त्या दिसा साकून कितलेच दीस उदेले अनी अस्तमले आनी कितल्याच राज्यांच्यो सावळ्यो

म्हज्या आंगा वयल्यान आफडत-हुपत फुडें गेल्यो आनी कांय जाण तर म्हजीच सावळी आंगार पांगरून आपणाले वटेन वचपाक गेले.

**म्हातारी राणी, गुलाम आनी मांजर**

एक म्हातारी राणी शिंवासनाचेरच सामकी न्हिदून पडिल्ली. चौग गुलाम तिका पंख्यान वारें घालताले. ती घोरेताली. तिचे मांडयेर एक मांजर बशिल्लें. तें गुर्रगुर्र आवाज करीत आनी दोळे घुंवडायत वारें घालपी गुलामांक पळयतालें.

सुरवेक पयलो गुलाम उलयलो. ताणें म्हणलें, 'न्हिदिल्ले कडेन ही म्हातारी कितली बुरसट दिसता पळयात. तोंड कशें बावलां पळयात. कोणें तरी देंवचारान तिगेलो गळो अंदिल्ले भशेन ती स्वासोस्वास घेता...'

तेन्ना 'गुर्रऽऽ' करीत मांजरान म्हणलें, 'तूं तुज्या चालत्या-बोलत्या गुलामपणांत जसो दिसता ताच्या अर्दानय तशी ती बुरशी दिसना'.

मागीर उलयलो दुसरो गुलाम. ताणें म्हणलें, 'तुका दिसता जायत-न्हिदिल्ली आसतना तिच्या तोंडा-कपला वयल्यो मिरयो आनीकय वाडपा परस त्यो ना जायत वतात अशें. तिका कसलेंतरी भयांकृत सपन पडलां आसतलें.

मांजरान परतून 'गुर्रऽऽ' केलें आनी म्हणलें, 'तूंय असोच न्हिदून पड आनी तुगेले सुटकेचें सपन पळय.'

आतां तिसरो गुलाम उलयलो. ताणें म्हणलें, 'घडये ती, तिणे आजवेर कत्तल केल्ल्यांची मिरवणूक पळयता आसतली.'

मांजरान परतेंय 'गुर्रऽऽ' केलें आनी म्हणलें, 'ना, ना. तशें न्हय! ती तुमगेल्या जाल्ल्या गेल्ल्या जाण्टेल्यांची आनी वंश-वारसांची मिरवणूक पळयता.'

उरिल्लो तो चवथो गुलाम. ताणें म्हळें, 'हिचे विशीं तुमी जें कितें उलयतात तें बरें आसा. पूण इतलो वेळ उब्यांनी रावन हिका वारें घालीत राविल्ल्यान म्हाका कितलें पुरो जालां तें हांवच जाणां.'

मांजरान 'गुर्रऽऽ' करीत परतेंय आपणालें तोंड उगडलें. तें म्हणूंक

लागलें, 'सासणाचीं सासणां तूं अशेंच वारें घालीत राव. पापया, सर्गांत तशें संवसारांत हें अशेंच.'

बराब्बर हेच खिणा, राणयेन न्हिदांतच आपणाली तकली घुंवडायली आनी तिच्या मस्तका वयलो मुकूट सकला भूंय पडलो.

आनी गुलामां मदल्या एकल्यान म्हणलें, 'हें बऱ्याचें चिन्ह न्हय.'

आनी 'गुर्रऽऽ' करीत मांजरान म्हणलें, 'एकल्याक हें वायटाचें चिन्ह जाल्यार दुसऱ्या कोणाकूय तो बऱ्याचो शुभत्कार!'

दुसऱ्या एका गुलामान म्हणलें, 'जर ही अकस्मात जागी जाली आनी आपणालो मुकूट भूंय पडिल्लो तिणें पळयलो जाल्यार? खात्रेन ती आमच्यो सगळ्यांच्यो गोमट्यो मारतली.'

मांजरान परतेंय 'गुर्रऽऽ' करीत म्हणलें, 'सद्दां तुमच्या जल्मा पासून ती तुमच्यो गोमट्यो मारीत आसा. पूण तुमकां तें कळच ना.'

आतां तिसरो गुलाम उलयलो, 'हय, ती आमकां मारतली आनी म्हणटली- देवांक ओपिल्ली भेट ही!'

आतांय-मांजर आपणालो आवाज काडीत म्हणूंक लागलें, 'जे बळहीन आसतात तांचेंच देवां खातीर बलिदान दितात.'

चवथ्या गुलामान सगळ्यांक वोग्गी केले अनी ताणें ल्हवपीकपणान भूंय पडिल्लो मुकूट उखल्लो आनी आशिल्लो तसो मात लेगीत कसलीच सुलूस लागूंक दिना आसतना राणयेच्या मस्तकार दवरलो.

'आनी 'गुर्रऽऽ' करीत मांजरान म्हणलेंच, 'सकला पडिल्लो मुकूट, फकत गुलामच आसा तसो मस्तकार चडयतात!'

उपरांत थोड्या वेळान राणी जागी जाली आनी तिणें आपणाचेरच एक नदर भोंवडायली आनी एक व्हड जांभय दिली. मागीर तिणें म्हणलें, 'म्हाका दिसता, म्हाका सपन पडिल्लें. सपनांत एका आक रुखाचे भोंवतणी एक विंचू एके वाघोणेचे फाटल्यान लागिल्लो म्हाका दिसलो. शे! म्हाका आवडलें ना हें सपन.'

मागीर तिणें आपणाले दोळे धांपले आनी पर्थूनय तशीच न्हिदली. परतय ती घोरेवंक लागली आनी चवगय जाण गुलाम तिका पंख्यान

वारें घालीत रावले.

आनी 'गुर्रऽऽ' करीत मांजर म्हणूंक लागलें, 'घालात, वारें घालीत रावात मुर्खांनो, तिका तुमी वारें घालतात. पूण तुमी भितरले भितर जळत-करपत रावात.'

**जुलूम**

दर्या देगे वयल्या सात गुफांची राखण करपी उजो ओंकपी म्हासर्पीण अशें गायत आशिल्ली.

'म्हगेलो सांगाती दर्याल्हारांचेर स्वार जावन येवपाचो आसा. गडगडाटा सारक्या ताच्या आकांताळ्या आवाजान धर्तरी सामकी भयभीत जावन वतली आनी आपणाले नाकपुडयेंतल्यान तो जो उजो ओंकता तो सगळें मळब पेटोवन उडयतलो. चंद्रिमाक जेन्ना गिराण लागतलें तेन्ना तेन्ना आमी लग्नगांठ बांदतलीं आनी सुर्याक गिराण लागतलें तेन्ना हांव सेंट जॉर्जाक जल्म दितली आनी तोच म्हाका मारून उडयतलो.'

दर्यादेगे वयल्या सात गुफांची राखण करपी उजो ओंकपी म्हासर्पीण अशें गायत आसता.

**संत**

म्हज्या तरनाटेपणांत, ह्या दोंगरापयले कडेन आशिल्ले एके एकसुरे शांत गुंफेत वचून हांवें एका संताची भेट घेतली. जेन्ना आमी मनशाच्या सभाव गुणां विशीं चर्चा करताले तेन्नाच थंय सामको थकून गेल्लो एक दरोडेखोर कुटत कुटत कसो आयलो आनी ताणें बद्द संताच्या पांयांर घालून घेतलें. ताणें विनवणेच्या सुरांत म्हणलें, 'म्हाराज, तुमी कशी तरी म्हाका थाकाय दियात. म्हजी जीण सगळी पातकांनी उपाट भरल्या.'

संतान जाप दिली, 'हांवय पातकीच कितल्याशाच पातकांचो भार म्हज्या माथ्याचेर आसा.'

आनी दरोडेखोरान सांगलें, 'हांव एक चोर. हांव एक लुटमारो.'

संतान जाप दिली, 'हांव बी एक चोर आनी लुटमारो'.

दरोडेखोरान परत सांगलें, 'पूण... पूण हांव एक खुनमारो. हांवें मारिल्ल्या कितल्याच जाणांचें रगत म्हज्या कानसुलां भोंवतणी किंळचत आसा.'

संतान जाप दिली, 'हांव बी एक खुनमारोच, कितल्याच जाणांचें रगत म्हज्या कानांत आड्डी मारती आसा.'

दरोडेखोर परतून उलयलो, 'म्हाराज हांवें जे गुन्यांव केल्यात ताची गणटीच करूं नजो.'

संतान परतय जाप दिली, 'म्हजेंय तशेंच. हांवेंय हिसपा भायर गुन्यांव केल्यात.'

हें आयकले उपरांत, दरोडेखोर उठून उबो रावलो आनी ताणें संताच्या मुखामळार एक नदर भोंवडायली, ताच्या दोळ्यांचेर एक वेगळेच तरेची सया दाटिल्ली. तो आनीक आनी थंय रावलो ना. तो सामको उडणां मारीत दोंगर देंवन परत गेलो.

आनी हांवें मार्गार संताक निहाळीत म्हणलें, 'तुमी आधारूक नाशिल्लेच गुन्यांव आपणाचेर थापून, तुमी अशें कित्याक उलयले? तुमी उलयिल्लें खरें धरिनासतना तो तस्सो एकदम उठून गेल्लो तुमी पळोवंक ना?

हाचेर संतान जाप दिली, 'हांवें जें कितें सांगलें तें ताका खरें दिसलें ना हें सत. पूण ताका जी थाकाय मेळूंक जाय आशिल्ली ती मेळ्ळी न्हय!' आनी ह्याच वेळार, पयसुल्ल्यान दरोडेखोर मोठ्या मोठ्यान गायतना आयकूंक आयलें. त्या आवाजान सगळें दोंगर-देंगण खोशयेन भरून गेलें.

**गर्भश्रीमंत**

हांव एक भोंवती भागरथ. भोंवता भोंवतां हांव एका जुंव्यार पावलों. थंय म्हाका एक महाकाय राक्षस दिश्टी पडलो. ताचें मस्तक मनशावरी जाल्यार पांय लोखंडाचे आसले. तो एक सारको जमीन उस्तू-उस्तून माती खातालो आनी दर्याचें उदक धोंकतालो. बरोच वेळ ताका हांवें नदर लावन पळयलो. मागीर हांव ताच्या म्हऱ्यांत गेलों आनी ताका

विचारलें 'आयुष्यांत तुवें केन्नाच पोटभर खावंक जेवंक ना? तुजी भूक केन्नाच भागली ना आनी तान केन्नाच न्हिवली ना?'

आनी ताणें जाप दिली, 'सांगतां आयक. हांव समाधानी आसां. जेवपा-खावपाचो म्हाका आतां कंटाळो आयला. पूण म्हाका एक भिरांत दिसता. फाल्यां घडये खातलों म्हणल्यार माती आसची ना.' आनी तानेक पियेतलो तर दर्योय आसचो ना.'

**व्हडविकायेची गजाल**

अशीच एक गजाल.

राज्याभिषेक जाले उपरांत, बालब्लसचो राजा नुफसीबाल विसव घेवंक आपणाले न्हिदपाचे कुडींत गेलो. दोंगरा पलतडच्यान आयिल्ल्या तिगां बैरागी जादुगारांनी राजा खातीर खासा ती कूड तयार केल्ली. राजान आपणालो मुकूट काडून दवरलो. राजवस्त्रांय आंगा वयलीं देंवयलीं आनी कुडीच्या सामको मदेकांत तो आपणा विशीं विचार करीत उबो रावलो. तो आतां बायबल्ससचो बळिश्ट असो राजा जाल्लो.

अकस्मात तो स्वता भोंवतणीच घुंवलो आनी पळयता तर तागेले आवयन ताका दिल्ल्या रुप्याहारशांतल्यान आयिल्लो एक सामको नागडो मनीस ताचे मुखार उबो रावला.

ताका पळोवन राजा एकदम कांचवेलो आनी किंळाचून त्या मनशाक ताणें विचारलें, 'कोण तूं?'

आनी त्या नागड्या मनशान जाप दिली, 'हांव हो दिसतां तोच! एक सांग, तांणी तुका सो कित्याक राज्यार बसयलो?'

राजान जाप दिली, 'ह्या देशांत म्हजे इतलो शाणोसुर्तो मान्यवंत आनीक कोण ना म्हणून!'

आनी मागीर नागड्या मनशान म्हणलें, 'तूं जर शाणोसुर्तो मान्यवंत जाल्यार तूं राजा जावंक जायना.'

हाचेर राजान परत जाप दिली, 'ह्या देशांतलो हांव सगळ्यांत बळगेवंत मनीस म्हणूनच म्हाका राजा केला.'

आनी हाचेर नागड्या मनशान आपणालें मत प्रगटायलें, 'तूं जर बळगेवंत जाल्यार तर तूं राजा जावंकच जायना.'

हें आयकून राजान म्हणलें, 'हांव राजा जालां कारण, हांव सगळ्यां मदें बुदवंत म्हणून तांणी म्हाका राज्यपदार बसयला.'

नागड्या मनशान राजालें म्हणणें आयकून परतून म्हणलें, 'तूं जर खऱ्यांनीच बुदवंत जाल्यार राज्यपद स्विकारचोच नासलो.'

हीं उतरां आयकना बराबर राजा एकदम भूंय पडलो आनी आकांतून रडूंक लगलो.

नागड्या मनशान नदर सकला करून राजाक पळयलो. आनी उपरांत राजान काडून दवरिल्लो मुकूट भोव नाजकायेन आनी ल्हवपीकपणान उखलून ताच्या बागवल्ल्या मस्तकार दवरलो.

आनी मागीर नागड्या मनशान भोवच अपुरबायेचे नदरेन राजाक निहाळ्ळो आनी आशिल्लो तसो रुप्या हारशांत भितर रिगलो.

ते उपरांत भूंय पडिल्लो राजा थंयच्यान उठलो आनी सरळ वचून ताणें हारशांत पळयलें. हारशांत ताका फकत ताचेंच रुप दिसलें.

**झूज आनी ल्हान राष्ट्रां**

एक खेपे, भोव उंचायेर आशिल्ल्या कुळणांत एक बोकडी आनी एक बोकडे पील चरतालें. एक गरुड तांचे वयर भोंवाडे मारतालो आनी सामको आधाशा भाशेन बोकडें पिला कडेन पळयतालो. तो आतां सकला देंवतलो आनी बोकडेपिलाक चोंचावन उडयतलो म्हणल्यार आनीक एक गरूड उडत-उडत थंय पावलो आनी तोय बी बोकडी आनी तिगेल्या पिला वयर आपणाली भूक भागोवपाच्या हावेसान भोंवाडे मारूंक लागलो. मागीर कितें देखतलो? दोगूय गरूड एकामेकाचे दुस्मान कशे किंवाट्यान झगडत मळब गाजोवंक लागले.

बोकडेन वयर पळयलें आनी तिका अजाप जालें. ती आपणाल्या पिलासरीं आयली आनी तिणें म्हणलें, 'कितलें विचित्र हें! हे दोग व्हडले पक्षी एकामेकाचेर कशे जुडून वतात पळय. हो एदो व्हडलो मळबाचो आंवाठ लेगीत तांकां दोगांकूय झगडपाक पावना काय कितें?

मागणें कर, म्हज्या माणकुल्या काळजांत सावन- देवान ह्या पक्षीरायां मदें शांतिकाय नंदयल्यार पुरो म्हणून मागणें कर!

आनी बोकडेपिलान सामकें काळजाचे खराये सावन तशें मागणें केलें.

**टिकाकार**

खूब रात जाल्ली. घोड्यार बसून प्रवास करीत समुद्राचे दिकेन वचपी एक मनीस, मार्गाकुशीक आशिल्ले एके खाणावळी कडेन येवन थारलो. तो घोड्या वयल्यान देंवलो आनी विश्वासाचे भावनेन, घोड्याक रातीपुरतो थंयच दारा भायर एका रुखाक बांदून तो खाणावळींत भितर सरलो.

मध्यान रात जाली. सगळे सुस्त न्हिदिल्ले. इतल्यांत एक चोर आयलो आनी रुखाक बांदिल्ल्या प्रवाशाच्या घोड्याक घेवन गेलो.

घोड्याचो धनी जेन्ना सकाळीं उठलो आनी भायर नदर सारली तेन्ना ताका आपणालो घोडो चोरयेक गेला म्हणपाचें कळ्ळें. घोड्या खातीर ताका खूब खूब दुख्ख जालें. 'सगळें सोडून म्हगेलोच घोडो चोरून व्हरचो?' ताणें मनांत म्हणलें, इतलें म्हणसर खाणावळींत राविल्ले हेरूय लोक थंय आयले आनी कोंडाळें करून उलोवंक लागले.

आनी जमिल्ल्यांतल्या एकल्यान म्हणलें, 'घोडो असो तुमी भायर उक्ताडार पागे भायर बांदपाचोच न्हय. पिशेपणांच हीं.'

मागीर दुसरो एकलो उलयलो, 'पिशेपणां न्हय तर कितें? घोड्याक सोंपेपणान सोडोवन व्हरूंक मेळना अशें कितें तरी करपाचें.'

तिसऱ्या मनशान तोंड घालें, 'घोड्यार बसून समुद्रावटयां वचपाक भायर सरप हींच पयलीं मूर्खपणां.'

चवथ्यान आपणालें मत उक्तायलें, 'फकत घोड्याचो धनी सामको अजापलो. ताणें किंळचून म्हणलें, 'म्हज्या इश्टांनो, म्हजो घोडो चोरयेक गेलो म्हूण तुमी बेगीबेगीन हांगा आयले आनी हांव कसो चुकलों, हांवें कसलीं पिशेपणां केलीं हें तुमकां सांगूंक मेळ्ळें. विचित्र म्हणल्यार ज्या मनशान म्हगेलो घोडो चोरून व्हेलो ते दुश्ट करणे

विशयांत तुमी एकय उतर काडलें ना.'

**कवी**

चार जाण कवी, भरिल्लें मदिरापात्र दवरिल्ल्या एका मेजाभोंवतणी बशिल्ले. तांतल्या पयल्या कवीन म्हणलें, 'हांव म्हज्या तिसऱ्या दोळ्यान, ह्या पात्रांतलो सोऱ्याचो वास, एका सुंदर पाचव्याचार रानामाथ्यार सुकण्यांचें एक गच्च भिरें जावन अंतराळांत हालता धोलता तें पळयतां.'

रोखडोच दुसरो कवी उलयलो, 'हांव म्हज्या अंतरंगांतल्या कानांनी तीं सुकणीं गायन करतात तें आयकतां. तांचें तें म्होंवाळ गायन, म्होंव चोखूंक गेल्ल्या म्होंवामुसाक धव्या गुलाबाच्या पाकळ्यांनी कसो भितर शिरकावन दवरला तशें कितेंशें म्हाका जाता.'

मागीर उलयलो तिसरो कवी, ताणें आपापले दोळे धांपले आनी दोनूय हात वयर उबारून म्हणलें, सुस्त न्हिदून पडिल्ले परीचें धोरण कशें त्या सुकण्याच्या पांखट्याक हांव स्पर्श करतां आनी म्हज्या हातांचीं बोटां लिवलिवीत कशीं जातात.'

निमाणें कडेन चवथो कवी उठलो. ताणें मदिरापात्र उखलून हातांत घेतलें आनी म्हळें, 'आवयस, म्हज्या इश्टांनो म्हजी नदर धुंवरेल्या. आयकूंक सारकें येना. आनी स्पर्शय सारको कळना. म्हाका ह्या सोऱ्याचो वासय सारको समजना. म्हाका कसलेंय गायनय आयकूंक येना. सुकण्या पांखाट्यांचोय साद म्हज्या कानार सादना. म्हाका फकत हो सोरो आसा इतलेंच कळटा. आनी ते खातीर हांवें तो पियेवंक जाय. तशें केल्ल्यान म्हज्यो मनसंवेदना तीखधार जातल्यो आनी त्यो म्हाका तुमचे वरी परमानंदाचे तेंगशेर पावयतल्यो.

आनी अशें म्हणून ताणें मदिरापात्र आपणा ओंठांक लायलेंआनी खिणाभितर तें पुरायान रितें केलें.

उरिल्ले तिगूय कवी तोंड आं करून चकासूर जायत ताका पळयतच उरले. सोऱ्याक तानेल्ली आनी नसायेन भरिल्ली एक विचित्र सया तांच्या दोळ्यांत दाटिल्ली.

**वारेंसुत्री कोंबलो**

एका खांब्याचेर आशिल्ल्या वारेंसुत्री कोंबल्यान वाऱ्याक म्हणलें, 'कितलो वाजेवणो आनी सामको एकसुरो रे तूं? येवन येवन तूं म्हज्याच तोंडार कित्याक आदळटा? म्हजें मुखामळ सोडून तुजो झोत सोडपाक तुका आनी दिकाच ना? देवान दिल्लें म्हजे स्थैर्य तूं इबाडटा!'

वाऱ्यान कांय जाप दिली ना. तो अनंत अवकाशांत फकत हांसत रावलो.

(वारेंसुत्री कोंबलो : वेदर कॉक)

**आरादूसचो राजा**

एक फावट आरादूस शारांतले ज्येश्ठ नागरीक वचून आपणाल्या राजाक भेटले आनी तांणी, आपणाल्या शाराच्या वाठारांत कोणाय मनशान सोरो पियेवचो न्हय आनी मादक द्रव्यां वापरचीं न्हय म्हणून आदेश दिवचो अशी मागणी केली. हें आयकून राजान तांचे वटयां आपणाली फाट परतिली आनी हांस-हांसत तो भायर सरून गेलो.

हें पळोवन ज्येश्ठ नागरीक समके निर्शेले आनी परतले. वाटेर, राजवाड्याच्या म्हालदरवट्या कडेन तांकां राजालो मुखेल कारभारी भेटलो. ताणें पळयलें, ते सगळे बेजारल्यात आनी काचाबूलय जाल्यात. तो तांगेलें म्हणणें समजलो.

आनी ताणें म्हणलें, 'चुरचुरे तुमचे, म्हज्या इश्टांनो! राजा जर पियेल्लो आशिल्लो तर खात्रेन तो तुमगेली मागणी मानून घेतलो आशिल्लो.'

**म्हज्या काळजाचे खोलाये थावन**

म्हज्या काळजाचे खोलाये थावन एक सुकणें भायर सरलें आनी तें मळबांत उडून गेलें.

ऊंच ऊंच तें उडत रावलें आनी तशें तशें तें व्हड जायत रावलें.

सुरवेक तें इल्लेशे पिटकोळी कशें आशिल्लें. करतां करतां ताचो चंडोल पक्षी जालो. उपरांत ताचो व्हड गरूड जालो. ते उपरांत ताचें एक मोठ्ठें गिमाळें कूप जालें आनी शेवटाक ताणें झगझगपी नकेत्रांनी

भरिल्लें अंतराळ पुराय भरून उडयलें.

म्हज्या काळजांतल्यान भायर सरून एक सवणें मळबा वटयां उडलें. उडत वता तशें तें व्हड व्हड जायत रावलें. पूण ताणें म्हजें काळीज सोडलें ना.

ए म्हज्या भावार्था, म्हजे अनिर्बंध बुदवंतकाये, हांव तुमचे इतले उंचाये मेरेन कसो उडटलों आनी तुमचे वांगडा मनशाची विस्तारिल्ली आनी मळबाचेर आयतीच रेखाटून आयिल्ली आकृताय कशी पळयतलों?

हो समुद्र हांव म्हज्यांत आसपावन घेवन आनी ताका दंवा धुंवटेंत बुडोवन ह्या अनंत अवकाशांत तुमचे सयत भोंवाडे कशे मारतलों?

एका देवमंदिरांत बंदिस्त जावन पडिल्ल्या बंद्याक त्या मंदिराचो भांगरा कळस कसो दिश्टी पडटलो?

एका फळाचो गर्भ-गिरोप ताका दोशीं ताणून धरून, परत ताकाच कसो रेवडावंक मेळटलो?

ए म्हज्या भावार्था, हांव ह्या रुप्या सळां आनी शिसवी खुंटयांच्या आडवणां भितर सांखळ्यांनी बांदून पडिल्लों आसा. हांव तुमचे वांगडा उडणां मारूंक शकना.

तरिपूण, तुमी म्हज्या काळजांतल्यान भायर सरून मळबाची खेम घेवंक वतात. आनी म्हजें हें काळीजच तुमकां ओडून धरता आनी तातूंतच म्हाका सगळें समाधान भोगता!

**राजकूळ**

इशानाची राणी बाळंत जावपाची आशिल्ली. तिका वेणो येताल्यो. आनी राजा आपणाल्या व्हड व्हड दरबाऱ्यां वांगडा राजवाड्याच्या मदलस म्हालांत, सामको स्वास अंदून घेवन शुभवर्तमानाची वाट पळयताले.

सांज जाली तसो अकस्मात एक संदेशवाहक बेगीबेगीन थंय आयलो. आनी राजामुखार ताणें सरपटून घालून घेतलें आनी म्हणलें, ‘हांव म्हज्या मोठे व्हडविकेच्या राजा  खातीर आमच्या राज्या खातीर

आनी राजासायबाच्या दासा खातीर एक खुशेची खबर घेवन आयलां. आमगेलो जल्मजुगाचो क्रूर दुस्मान बेथरुनचो राजा मिहरब मेलो.'

जेन्ना राजान आनी ताच्या वरिश्ठ दरबाऱ्यांनी ही खबर आयकली तेन्ना ते उठून खोशेन नाचले. कारण मिहरब राजा हो भोव बळिश्ट आशिल्लो. तो आनीक चड काळ जियेल्लो, वांचिल्लो जाल्यार तो इशाना राज्याचेर जैत जोडून सगळे प्रजेक आपणाल्या पांयांतळा चिड्डून उडोवपाचो.

बरोबर ह्याच वेळार राजवैद्य त्या मदलसम्हालांत भितर सरलो. ताचे फाटोफाट राजवैजिणीय आयल्यो. राजवैद्यान राजाक मान बागोवन वंदन केलें आनी म्हणलें, 'मोठे व्हडविकेच्या म्हज्या राजानु, तुमकां खूब लांब आवक लाभूं आनी वर्सांचीं वर्सां येत्या अगणीत पिळग्यांक इशानचे प्रजेचेर राज्य करपाक मेळूं. हे महान व्हडविकायेच्या राया ह्या राज्याची राजवट फुडें चलोवपी वंशकुळाचो दिवो राजकुंवर आतांच जल्माक आयला!'

हें आयकून राजा सामको खोशेन भरून गेलो. कारण ताच्या राज्याचो व्हड दुस्मान मरून गेल्लो आनी तागेल्या राजकुळाची वाट फुडें चलोवपी राजकुंवर जल्माक आयिल्लो.

इशानच्या त्या राजपाटणांत एक व्हड प्रेषीत रावतालो. प्रेषीत पिरायेन जुवान आसलो. तेजवंत आसलो. गिन्यानवंत आसलो. राजान त्याच वेळार आपणाल्या मनशांक, त्या प्रेषिताक आपणा सरीं घेवन येवपाक फर्मायलें. आनी जेन्ना प्रेषित राजासरीं आयलो, राजान ताका सांगलें, 'आतां फुडार पारखियात. ह्या राज्याचो म्हजो पूत जल्माक आयला. ताचो फुडार कसो कितें आसतलो तें सांगात!'

आनी प्रेषितान मात्तूय फाटीफुडें जायनासतना जाप दिली. 'म्हज्या व्हड मानाव्हडविकेच्या राजानु, आजच जल्माक आयिल्ल्या तुमच्या पुताच्या फुडारा विशींची म्हजी निरखणी आतां हांव उक्तायतां. तुमच्या दुस्मानाचो, मिहरब राजाचो जो कालच मेला ताचो-आत्मो काल दीसभर वाऱ्याचेर हुबत आशिल्लो. तो कोणाचे तरी नवे कुडींत

सरपाची वाट पळयतालो. तो आतां थोड्याच वेळा आदीं जल्मल्ल्या तुमच्या पुताच्या शरिरांत भितर सरला.'

हें आयकून राजा एकदम तिडकलो आनी ताणें आपणाली तरसाद काड्न प्रेषिताक थंयच्या थंयच जिवोच हाणलो.

त्या दिसा सावन आज मेरेन इशानांतले बुदवंत मनीस गुपचीप रितीन एकामेकां कडेन उलोवन म्हणटात-

'आमी नकळों, पूण आमगेले जाणटे सांगताले- इशानाचेर दुस्मानाचेंच राज्य चल्लां!'

**गिन्यान आनी अर्दकुटें गिन्यान**

न्हंयच्या उदकांत उफेवपी एका लांकडाच्या होंडक्याचेर चार बेबे आशिल्ले. अकस्मात तो होंडको, उफेत उदकाचे धारेंत सांपडलो आनी व्हांवत वचूंक लागलो. बेबे खोशेन मुरगटले. कारण हे आदीं ते केन्नाच उदकांतल्यान अशे लोटत वचूंक नासले.

लोटत वतां वतां पयलो बेबो उलयलो. ताणें म्हणलें, 'खरेंच हो होंडको खूब अजापाचो. तो एक जिवीच वस्त कशी फुडें फुडें वता. असलो होंडको केन्नाच कोणें पळोवंक ना.'

उपरांत दुसरो बेबो उलयलो. ताणें म्हणलें, 'ना, ना म्हज्या इश्टा. हो होंडको दुसऱ्या लोटिग्यां सारकोच. तो फुडें वचना. न्हंयच व्हांवता, दर्याक मेळपाक धांवता आनी तिचे बराबर होंडकोच आमकां घेवन वता.

आतां उलयलो तिसरो बेबो, ताणें म्हणलें, 'सांगपाचें म्हणल्यार होंडकोय फुडें वचना आनी न्हंयूय मुखार वचना. फुडें फुडें धांवता तें आमगेलें चिंतप. आरे, चिंतप ना जाल्यार कितेंच हालना धोलना. आनी हे भाशेन तिगूय बेबे, खऱ्यांनीच कितें फुडें सरता आनी कितें हालता हाचेरच वाद घालूंक लागले. वाद मोठ्यार पडलो. सगळ्यांचोच आवाज चडलो. पूण तांचे कशेंच एकमत जायना जालें.'

चवथो बेबो वोगीच आसलो. हो वेळ मेरेन तो त्या तिगांलेंच म्हणणें बारकायेन आयकतालो. तो वोग्गी आशिल्लो पळोवन, त्या

वाद घालपी तिगांनीय ह्या चवथ्या बेब्याक तागेलें मता विचारलें.

त्या चवथ्या बेब्यान जाप दिवन म्हणलें, 'तुमच्यांतलो दर एकलो कितें म्हणटा तें सारकेंच आसा. तुमच्यांतल्या कोणाचेंच म्हणणें चुकीचें न्हय. फुडें फुडें सरत वता तो हो होंडको तशेंच न्हंयचें उदक आनी आमचें चिंतपय बी.'

हें आयकून तिगूय बेब्यांक मारलो राग. तांच्यांतलो एकलोय तो कितें सांगता तातूंत तथ्य आसा अशें मानूंक तयार नासलो. एकल्याक दिसतालें म्हजें म्हणणें पूर्ण सत्य नासत. उरिल्ल्या दोगांक दिसतालें. आमचें म्हणणे सामकेंच चुकीचें नासुये.

आनी मागीर एक विचित्र गजाल घडली. त्या तिगूय बेब्यांनी एकठांय जावन त्या चवथ्या बेब्याक होंडक्या वयलो धुकळून न्हंयंत उडयलो.

**'धव्या फुल्ल कागदा कुडक्यान म्हणलें...'**

एका धव्या फुल्ल कागदा कुडक्यान म्हणलें, 'सामकें शुद्ध रितीन म्हजी निर्मणी जाल्या. आनी तसोच शुद्ध हांव सुद्दां उरतलों. लासून म्हजें रुपांतर धव्या गोबरांत जायत; पूण हांव काजळी काळकाक म्हाका आफडूंक दिवंचो ना. ना म्हणल्यार कोणाय बुरश्याक म्हज्या म्हऱ्यांत येवंक दिवंचो ना.'

शेजराच शायेची दौत आशिल्ली. तिणें कागद कितें म्हणटालो तें आयकलें आनी ती आपणाल्या काळशा काळजांत सावन हांसली. पूण तिका त्या कागदा-कुडक्या मेरेन वचपाचो कसोच धीर जालो ना. रंगरंगाचे पेन्सिलीनूय कागदा कुडक्याचें म्हणणें आयकल्लें; पूण तिवूय केन्नाच ताच्या लागसाराक गेली ना.

आनी हे भाशेन धवो-फुल्ल कागद तसोच शुद्ध आनी अनवाळो उरलो-सामको शुद्ध आनी अनवाळो. आनी सामको नितळ कोरो!

**विद्‌वान आनी कवी**

एक फावट एका जिवाण्यान चंडोल सुकण्याक म्हणलें, 'तूं मळबांत उडत भोंवत आसता. पूण म्हाका दिसना तूं अजून धर्तरेचे फाटीर

आशिल्ल्या आनी कसल्याय कलकला विरयत शांततायेचे खरायेचो वेध घेवंक पावला असो.'

हाचेर चंडोलान जाप दिली, 'आरे तुका खूब कितें खबर आसत. सगळ्यां परस शाणोय आसशी. पूण म्हाका तुजी काकळूत दिसता- तुका उडपाक येना.'

चंडोलाचें म्हणणे आयकूंक नाशिल्ले भाशेन करीत जिवाण्यान म्हणलें, 'संवसारांत खोल दडून पडिल्लीं गुपितां तूं पळोवंक शकना. ना म्हणल्यार विसरायेर पडिल्ल्या साम्राज्याच्यो गिरेस्तकायो तुज्या होल्माक येनात. चड पयसुल्ली न्हय, कालचीच गजाल. एके धोलींत हांव माणकांचे राशीर पडून आशिल्लीं. पिकून अळार जाल्ल्या दाळमाच्या काळजाक वेंगावन राविल्लेवरी तें. थंय विलक्षणा मंद-मोव किर्णाचें रुपांतर गुलाबी उज्या ल्हारांत जाल्ले भाशेन जाता. असलीं अजापां फकत हांवच पळोवपाक शकतां.'

चंडोलान जाप दिवन म्हणलें, 'आनी कोणेच न्हय. फकत तुवेंच असल्यो चकासूर करून सोडपी गजाली सांगीत घुंवत बागवत रावपाचें. चुरचुरे तुजे-तुका गावपाक येना.'

हें आयकून जिवाण्यान म्हळें, 'म्हाका अशा एका वनस्पती रुखाची खबर आसा जाचीं पाळां मुळां धर्तरेच्या गर्भांत खोल खोल मेरेन रीग घेत वतात. आनी जो कोण ताचीं पाळां मुळां खाता तो सुंदरांतलो सुंदर जावन पडटा.'

चंडोलान हाचेर जाप दिवन म्हणलें, 'हय व्हय, धर्तरे वयलीं असलीं सगळीं अजापाचीं गुपितां, आनीक कोणच न्हय, फकत तूंच दाखोवन दिवंक शकता. पूण तुचें दुर्भाग्य, तुका उडपाक येना.'

जिवाणें परत सांगूंक लागलें, 'थंय त्या दोंगराच्या मुळसांत भितर एक जांबूळसार वझरो व्हांवता. जो कोण ताचें उदक पियेता तो देवांकय फाटी घालून बद्द अमरजिवी जाता. खात्रेन, खंयच्याय सुकण्याक वा मोनजातीक तो वझरो सोदूनय सांपडपाचो ना.'

आनी मागीर चंडोलान म्हणलें, 'हय, तुजी इत्सा आसल्यारय तूं

देवां सारकें अमरजिवी जावपाचें ना. भोगूं तुजें-तुका गावपाक येना.'

जिवाणें उलयलें. ताणें म्हणलें, 'भूंयभर्वण जाल्लें एक मंदिर म्हाका खबर आसा. दर पुनवे-रातीं हांव ताका भेट दितां. विसरायेच्या काळखांत ना नपश्चात जावन गेल्ले एके बळिश्टांचे जमातेन तें बांदिल्लें. त्या मंदिराचे वण्टीचेर काळगतीचीं आनी अंतरिक्षाचीं गुपितां कोत्रायिल्लीं आसात. जीं कोण तीं वाचतलो ताका गिन्याना परसूय व्हड गिन्यान प्राप्त जातलें.'

आनी मागीर चंडोलान म्हणलें, 'तुजी खर इत्सा आसली तरी हें तुगेलें विडविडत वचपी शरीर घेवन तुज्यांत काळगती आनी अंतरिक्षाचें गिन्यान जाणा जावपाक भोवांडो मारूंक जावचें ना. कारण चुरचुरे तुजे - तूं उडपाक शकना.'

हें आयकून जिवाणें सामकें बेजारलें आनी तें परत घुंवन आपणाल्या बिळांत भितर सरलें. वतां वतां तें पुटपुटलें, 'मात्तूय तकली नाशिल्लो गावपी गडो!'

आनी इतल्यान, चंडोल गायत गायन उडून गेलो. तो म्हणटालो- 'चुरचुरे तुजे चुरचुरे! तूं गावंक शकना. भोंगूं तुजें भोंगूं! म्हज्या शाण्या, तूं मळबांत ऊंच उडूंक शकना...'

**मुल्यां**

एक फावट, शेतांत खणटा आसतना एका मनशाक एक सोबीत सुंदर अशी व्हडली मूर्त सांपडली. ती मूर्त घेवन तो मनीस एका पोरणावळकारासरीं गेलो. तो असल्यो सुंदर वस्तू पुंजायतालो.

त्या पोरणावळकारान ती मूर्त विकपाक हाडल्या म्हूण कळना बराबर, खूबशे दुडू दिवन त्या मनशा कडल्यान विकती घेतली. आनी मागीर दोगांयनीय एकामेकाचो निरोप घेतलो.

मूर्त विकून मेळिल्ले दुडू घेवन तो मनीस आपणाल्या घरा परतलो. ताणें मनांत म्हणलें, 'दुडू मेळ्ळे. पूण कितले दीस उरपाचे ते! वर्सांचीं वर्सां जमनी पोंदा, कोणाकच कसलीच खबर नासतना पडून आशिल्ले सुंदर रितीन कोंत्रावन काडिल्ले ते मुर्तीक इतले दुडू कोण दितलो

आशिल्लो?'

हे वटेन पोरणावळकार ते मुर्तीक तोखेत खूब बारकायेन नियाळटालो. आनी तो चिंतूंक लागलो. ताणें मनांत म्हणलें, 'कितली सुंदराय ही! सगळेंच जितें जिवेंपण कशें! खंयचे आत्मशक्तीक पडिल्लें हें सपन काय? हजारांनी वर्सांचे न्हिदेंतल्यान जागिल्लें पूण रसरशीत मुखामळ! कोण मेल्ल्या मनाचो आनी सपनदुश्ट प्राणी, दुडू मेळटात म्हूण ही मूर्त विकून उडयत आशिल्लो?

**दुसरे समुद्र**

एका नुस्त्यान दुसऱ्या नुस्त्याक म्हणलें, 'आमगेल्या ह्या समुद्रा वयर आनीक एक समुद्र आसा खंय. तरातरांचे प्राणी तातूंत पेंवतात आनी आमी जशे हांगा जियेतात तशे ते थंय जियेतात.'

दुसऱ्या नुस्त्यान जाप दिली, 'सामकें फकाण! सामकें फकाण! तुका खबर ना- जो जो जीव आमगेल्या समुद्रांतल्यान इल्लो लेगीत भायर सरून वता तो तत्काळ मरता म्हणून? दुसऱ्या समुद्रांत दुसरे तरेचे प्राणी जियेतात हे विशीं तुजे कडेन कसलें प्रमाण आसा?

**पश्चाताप**

एके काळखे रातीं, एक दादलो आपणाल्या शेजाऱ्याल्या पोरसांत भितर सरलो आनी थंयचे एक मोठ्यांतलें मोठें काळींग चोरून तें आपणाल्या घरा घेवन आयलो.

त्या दादल्यान ते काळींग कापून ताचीं भेसां केलीं. पळय तर तें सामकें तन्नें.

आनी मागीर एक अजाप घडलें.

त्या दादल्याचें अंतस्कर्ण जागें जालें. तें खेद खंतीन भरून आयलें. आनी काळींग चोरून हाडिल्ल्याचो ताका पश्चाताप जालो.

मर्णासन्न मनीस आनी गीध

राव, आनीक मातसो राव,
आशेवंत नदरेन वाट पळोवपी
म्हज्या इश्टा, आनीक मातसो राव.

ही नश्वर रोखडीच इबाडून
वचपी वस्त
आनीक कोणा पासत न्हय,
सामकी तुज्याच वांट्याक येतली.
बेठोच आनी वोग्यावोगीच
तळमळूं नाका, उतावीळ सकलवयर जावूं नाका
मात्शें सोंसून घे, धीर धर
तूं भुकेला; खबर आसा म्हाका
आनी थोडेच खीण, थोडोच वेळ राव.

ही सांकळ, आसत ती
स्वासा उस्वासाची
ती सोंपेपणान कशीच तुटना
ती तुटली म्हणटकीच-
हांव मर्णाधीन जातलों.

ती सांकळ स्वासा-उस्वासाची,
सगळ्यांमदें शक्तीशाली, कणखर;
ती फकत जिवंत रावपाच्या-
अदम्य इत्से खातीर तुटनासतना उरल्या.
आनी तीय बी एके तरेन दुबळ्यांतली
दुबळी आसून लेगीत-
म्हाका भोगोस, क्षमा कर इश्टा-
तुका खूब वेळ तिश्टत दवरलो.
सगळें कितें घडून वचून
पयस पयस पाविल्ल्या दिसाची यात्रा.
-तातूंत चैतन्याच्या तत्वान भरिल्ले उगडास
-सपनाळ्या संवसारांत

तरनाट्यापणाच्या दिश्टाव्यांच्यो उपाट यादी
-म्हजें मुखामळ- ताका दोळ्यांची पाती
लागून म्हाका न्हीद पडिल्ली नाका...
'कानसुलां कडेन जायत रावपी एक नाद...
-एक हात म्हज्या हाताक स्पर्श करपी
भोगोस म्हाका- क्षमा कर-
तुका खूब वेळ तिश्टत दवरलो
सगळें सोंपलें आतां,
गेलें सगळें पुसून भासून.
...मुखामळ, साद-नाद
म्हजो हात
आनी म्हाका हांगा ओडून हाडपी
ही दवा-धुंवटी, धुकें!

गांठ सुटली रे आतां,
राजवाचे जाले रे कुडके
आनी दुसरे सगळे-
तें अन्नय न्हय पेयय न्हय...
तें पयस जालें सामकें पयसावलें
इश्टा, म्हज्या भुकेल्ल्या भावा,
तुजे खातीर
जेवणाचें ताट तयार आसा.
जेवण भरपूर, चकचयाळ आनी पोटाक
जाय तशें पावता तितलें-
आनी तेंय बी खूब मायेमोगान भरिल्लें.

यो, यो, ह्या हांगा रिगय तुजी
चोंच-ही अशी कुडीचे दावे वटेन

हांगा घे फाळून-
आनी सोडय पांदऱ्यांत
बंदिस्त करून उरिल्ल्या सुकण्यांक
आतां फडफडनात त्या
सुकण्यांचीं पाखां!
आतां हांव तुजेच कुडी-बडी सयत
मळबांत भोंवाडे मारतलो.

यो आतां, इश्टा म्हज्या यो,
आयचे रातीं, हांवच तुजो
परामोस करपी येजमान-
आनी तूं म्हजो व्हडा अगत्याचो अतिथी-
सोयरो!

म्हज्या एकसुरेपणाचे पलतडी आनीक एक एकसुरेंपण आसा. आनी थंय 'तो'

'एकसुरो भरिल्ल्या भर गर्देच्या बाजारांत एकलो-एकाणोच जावन रावता आनी म्हजी शांतिकाय जाता तरेकवार आवाजांचो एक घुस्पागोंदळ.

तें एकसुरेंपण मानून घेवपाक हांव सामकोच भुरगे पिरायेचो आनी अस्वस्थ सभावाचो. ते थंयचे पयसुल्ले दोंगरा घळयेंतले साद-नाद अजूनय म्हज्या कानांनी गाजतात. थंयच्यो सावळ्यो म्हजी वाट आडायतात. आनी म्हाका फुडें वचूंक मेळना.

ह्या दोंगरा पयले कडेन एक मनभुलोवणी वनराय आसा आनी थंय वसता ती समा सगळी शांतिकाय पूण ती पुराय वादळवाऱ्याची आनी मनभुलोवणेंपण म्हणल्यार एक आभास.

ते पवित्र वनरायेंत भितर सरपाचे नदरेन हांव सामकोच भुरगो आनी आदळ-आपट करपी मस्तेखोर. म्हज्या तोंडाक जिव्या रगताचो वास मारता आनी म्हज्या वडिलाचें धनुष्य आनी बाण हांव म्हज्या हातांत

घोळयत आसां. हांव मुखार वचूंक शकना.

ह्या बंधनांत पडिल्ले आत्मशक्तीचे पेले कडेन म्हजो मुक्तात्मो वसती करून आसा आनी ताचे नदरेन म्हजीं सपनां म्हणल्यार तीन कात्रीच्या वेळार मांडिल्लें झूज आनी म्हजी इत्सा हावेस म्हणल्यार हाडांचो टंवटंवाट.

आत्ममुक्त जावपाक वतलो म्हणल्यार हांव साप्प भुरगे पिरायेचो आनी भोवच जुलूम जबरेच्या चपक्यांत सांपडिल्लो.

बंदपासांत शिरकून पडिल्ल्या म्हज्या आत्मबळांक हाडून काडले बगर हांव कशे भाशेन मुक्त जातलों? वा अशें म्हणुंया- मनीसकूळ कशें बंधमुक्त जातलें?

म्हजीं पाळांमुळां काळखाचे खोलायेंत सुकून गेले बगर, म्हजो पानांपत्रो वाऱ्यातालार कसो गायत गायत नाचतलो?

ज्या म्हज्या पिलां खातीर हांवें म्हजे स्वताचे चोंचीन बांदिल्ल्या घोटेरांतलीं म्हजीं माणकुलीं उडून गेले बगर, म्हज्यांतलो गरूड सूर्यवोतांतल्या मळबांत कशे भोंवाडे मारतलो?

**निमाणी नदर**

रात वाडत गेली आनी मध्यान रातीचो भार जालो तसो फांतोडपाराची सुलूस घेवन मंद-शितळ वारो वेळूंक लागलो. अशा वेळार, आजवेर कोणेंच आयकूंक नाशिल्ल्या आवाजाचें स्वताच एक पर्तवण म्हणून घेवपी अग्रदूत आपणाले न्हिदपा कुडींतल्यान भायर सरलो आनी आपणाल्याच घराच्या पाख्यार चडलो. बरोच वेळ तो थंय रावलो आनी भर न्हिदेंत आशिल्ल्या भोंवतणच्या शाराचेर ताणें एक नदर भोंवडायली. उपरांत ताणें मान वयर करून न्हिदून पडिल्ल्या आत्म्यां मदल्या, ताचे भोंवतणी पुंजा जाल्ल्या न्हीद खळयत राविल्ल्या आत्म्यांचेर दिश्ट दागीत आपणाले ओंठ हालयले आनी तो उलोवंक लागलो.- ताणें म्हणलें :

'म्हज्या इश्टांनो आनी सद्दां उठून म्हज्या दारा मुखावयल्यान यो-वच करपी शेजाऱ्यांनो, तुमी न्हिदिल्ले आसतना आनी तुमी सपन

सागरांत पेंवत आसतना हांव उगडो-नागडो आनी मनमुक्त जावन तुमचे कडेन उलयतां. म्हाका खबर आसा, तुमगेलो जागे जावपाचो वेळ अजून जावंक ना आनी साबार आवाज आयकुपी तुमचे कान भेड्डे अवस्थेंत आसात.

'खूब काळा सावन हांव तुमची मोगान खूब खूब अर्थ अपुरबाय करीत आयलां.

तुमच्या मदल्या एकाचेर तो म्हणल्यारच सगळे आनी सगळे म्हणल्यार एकलो अशें मानून हांव मोग करतां. जेन्ना म्हज्या काळजांतलो वसन्तोत्सव सामको भारार येता तेन्ना हांव तुमच्या पोरसां-मळ्यांनी येवन गायत रावतां आनी म्हज्या काळजांतल्या गिमाळ्याक पालव फुटलें म्हणटकीच हांव तुमच्या मळणेच्या खळांचेर नदर लायतां.

'हय, म्हजो तुमच्या सगळ्यांचेर मोग आसा मागीर जावं तो बळिश्ट- बळवंत वा जावं तो मोटवो मोटकूल वा जावं तो म्हारोगी वा आसूं तो गंधेळ परमळान थपथपून माखिल्लो. जे काळखांत शिरकून उरल्यात आनी जे रानावनांनी दीस काडटात तेय बी म्हज्या मोगाचेच.

'तुमी बळिश्ट, तुमचेर हांवें सदांच मोग केला तुमच्या लोखंडी सळयां चपक्यांचे दाग म्हजे फाटी पोटार उदेल्ले आसले तरी! आनी तुमी दुबळे तुमचेर पातयेवन रावपाचें न्हय; तुमी म्हजे सोंसणीकायेक वेंरेवन उडयल्या तरिपूण हांवें तुमकां आपलेपणच दिलां.

'तुमी आसतीग, गिरेस्त-तुमगेलें म्होंव लेगीत म्हजें तोंड कोडू-झार करपी. आनी तुमी गरीब- तुमकां दिवपाक म्हजे कडेन कांय एक ना. तुमचेरय हांवें मायामोग केला.

'तूं कवी, तुजे काव्यरुपी वीणेचेर शब्दसूर काडीत अचळय तुजीं बोटां नाचतात. हांवें तुजी अपुरबाय केल्या. आनी तूं विद्‌वान सदांच पिसुडिल्लीं, पिंजकुरीं शाणेपणां मिरोवपी. तुकाय हांवें मोग दिला.

'आनी तूं धर्मपुरयत कालच्यो गजाली गांठीक मारून, फाल्यां म्हजे कितें जातलें हेंच एकसारकें चिंतीत रावपी आनी तुमी देवाचे भक्तगण, तुमकां जाय ताका पुजपी; तुमकांय हांवें आपुलकायेन पळयल्यात,

मान दिला.

'तुमगेले पेले उपाट भरल्यात तरीय अस्तुऱ्यांनो तुमकां तानसोर लागला. तुमकांय समजून घेवन हांवें म्हजो मोग दिला. आनी तुमी तळमळत रातीं सारपी बायलो- काकुळतेक येवन तुमचीच हांवें अपुरबाय केल्या.

'आनीक तो बडबडो, 'जिवितांत खूब सांगपा सारकें आसता, अशें म्हणीत हांवें ताकाय मोग दिला. आनी तूं मोनो, तुजोय हांवें मोग केला, आनी तसो तो करतना मनांतल्या मनांत पुटपुटत हांवें म्हणलां- 'मौनांत जें सांगप शक्य ना तें उतरांनी हांव कशें सांगतलों?'

'आनी तूं न्यायाधीश आनी तूं दुशणां दिवपी टिकाकार. तुमचोय हांवें मोग केला. तरिपूण म्हाका खुर्सार मारिल्लो पळयिल्लो तेन्ना तुमी म्हणलां, 'तागेलें रगत सामकें तालबद्द रितीन व्हांवता आनी त्या व्हांविल्ल्या रगताचे ताचे गोरेपिट्ट कातीचेर जे आकार निर्माण जाल्यात ते पळोवपाक भोवच सुंदर दिसतात.'

'हय, हांवें तुमचेर, तरण्या तशेंच जाणट्या जड्ड हालपी- धोलपी रुखांचेरय मोग केला.

पूण भोंगूं सायबा, म्हज्या काळजाच्या अती मेकळेपणाक लागून तुमची आनी म्हजी तार जुळ्ळी. तुमी मोग म्हणटात तो व्हांवते न्हंये सारक्या प्रवाहांतल्यान न्हय, एका पेल्यांतल्यान घोंटशात. तुमी मोगाचो हयन्हयसो क्षीण साद आयकशात. पूण, मोग जेन्ना आड्डी मारता तेन्ना तुमी कानांत गुड्डे घालतात.

'हांवें जेन्ना तुमचेर सगळ्यांचेर मोग केलो तेन्ना तुमी म्हणलां- 'खूब मोव आनी ओंपून दिवपी काळजाचो तो. ताचो मार्ग सामको उगतो मेकळो. ताचो मोग, जाका ताची गरज आसा ताचे पासत. राजागेले जेवणावळींत लेगीत तो सांडिल्लें सोडिल्लें उखलतालो. बळिश्ट बळिश्टाक मोग दिता. पूण तागेलो मोग बळ नाशिल्ल्याक हात दिवपी.

सांगपाचे म्हणल्यार हांवें जेन्ना तुमचेर मोगाचो शिंवोर केलो तेन्ना तुमी म्हणलें- 'जाका सुंदराय म्हळ्यार कितें तेंच कळना वा दुसऱ्या

अर्दान बुरेशेपणाचीय जाणवीक जायना त्या कुड्ड्यां मनशाचो मोग तो. जाका सुवाद-रूच समजना आनी जो सोरो म्हणून विनिगर पियेता ताचो मोग तो.'

'हें सगळें आनी हाचेकूय विशेश तुमी उलयले. भर बाजारांत तुमी म्हाका बोटां दाखयलीं. तेन्ना, तुमचे मदल्या मोटवे नदरेच्यांक हांवें शिरपून कुड्डे म्हणलें आनी जे सामकेच गिड्डे मनोवृत्तीचे तांकां चिचोंदरी म्हणल्यो.

'गिन्यानवंत कशे भासोवन पोकेपणान मिरयतात तांकां हांवें पवित्र आत्म्याक चिड्डावपी आनी माड्डावपी म्हणलें आनी जांकां आत्मबळच खबर ना, तांकां सावळ्यो पुंजावपाक धांवपी म्हणलें.

'आनी शेवटाक आतां तुमी अर्थ अपुरबाय करूंक लागल्यात.

'ज्यो तरसादी तुमकां हाडटात आनी जे बाण तुमचें काळीज फाळटात तांचो तुमी मोग करतात. कारण तुमकां दुखापत करून घेवंक आवडटा. आनी जेन्ना तुमी तुमचेंच रगत चाट्टात तेन्ना तुमकां गुंगी येता. तुमी धुंदेवन पडटात.

'जसो एक पांखो आपशींच उज्याचे जोती लागीं वचून आपणाकच लासून घेता तशेच तुमी दीसपट्टे म्हगेले बागेंत एकठांय जातात आनी मुखामळां वयर करून मनभुलोवणे नदरेन म्हाका पळयतात. तेन्ना तुमगेलीं अडेचीं रुपडीं हांव पिंजून उडयतां. तेन्ना तुमी भितल्ले भितर फुतफुतत एकमेकांक सांगतात- 'तो देवाचे दिव्य नदरेन आमकां पळयता. तो आदीम काळांतल्या प्रेषिता सारको उलयता. तो आमगेल्या आत्म्यां वयलीं धांकणीं काडून उडयता आनी आमगेल्या काळजांचीं दारां उगडटा. आनी गरुडाक जशी लांडगे-कोल्यांची कळाशी खबर तशींच आमचीय गजाल ताका कळटा.

'आनी हय, खऱ्यांनीच, गरुडाक जशी आपणाल्या पिलांची तरा खबर आसता, तेच तरेन कोणाच्यो कसकसल्यो तरा आसतात त्यो हांव जाणां. म्हाका म्हगेलें गुपीत उगतें करपाक खोस भोगता. पूण म्हाका तुमच्या लागसारची गरज देखून हांव कांयच नकळो आशिल्ले

भाशेन कानार केंस काडटां आनी तुमच्यांतल्या मोगाक सुकती लागत हे भिरांतेन हांव म्हज्या मोगा-हुंवाराच्या दारांची एकसारकी राखण करीत रावतां.'

इतलें सगळें उलयले उपरांत, अग्रदुतान दोनूय हातांनी आपणालें मुखामळ धांपून घेतलें आनी तो विलापांनी रडूंक लागलो. कारण ताका खबर आशिल्लें, नागडो उगडो जावन अपमानीत जाल्लो ताच्या काळजांतलो मोग, अडेचीं म्होवाळीं घालून जैत जोडूंक पळोवपी मोगा परस कितलो तरी श्रेष्ठ आसलो. आनी हे खातीर ताका ताचीच लज दिसली.

पूण खीणभरयांत ताणें आपणालें मस्तक वयर केलें आनी न्हिदेंतल्यान जागो जावन उठिल्ले भाशेन आळखे-विळखे दीत आपणालीं दोनूय बावळीं रूंद पसरायलीं आनी म्हणलें- 'आतां रात सोंपल्या. आनी फांतोड पार जेन्ना दोंगुल्लेच्या माथ्या वयल्यान संथपणान पावली मारीत येता तेन्ना आमी रातोडवेळाच्या भुरग्यांनी अस्तमानाक वचून भस्मीभूत जावंकच जाय. ह्या भस्मागोबरांतल्यान वयर सरूंय जाय तो भोव बळवंत असो मोग. तो सूर्य वोतांत खळखळून हांसूंक जाय. तो मोग आसूंक जाय मर्णाचेर जैत जोडपी!

# वज्रां आनी मोतयां

हांव दर्याचे हे वेळेचेर हो फेणेर आनी ही रेंव हांचे मदें सदांच भोंवत आसतां.

दर्याक भरती येवपाची आसा, ती येतली आनी म्हगेल्यो पावलां-खुणो पुसून उडयतली आनी वाऱ्याचो झोत फेणेराचो फेस हुबोवन घालयतली.

पुणून दर्यो आनी ताची वेळ सदांच आसा तशीच उरतलीं.

* एक फावट हांवें म्हज्या हाताचें बचकूल रेंवेन भरलें.

जेन्ना हांवें म्हजें बचकूल उगतें केलें तेन्ना पळयत तर कसलें अजाप! थंय रेंवेचे सुवातेर एक किडो आशिल्लो!

हांवें म्हजें बचकूल आशिल्लें तशें धांपलें, आनी पर्थून उगतें केलें. पळयत तर एक अजापच! जंय किडो आशिल्लो थंय एक सुकणें आयिल्लें.

हांवें पर्थून म्हजें बचकूल धांपलें, आनी उगतें केलें. आतां पळयत जाल्यार, म्हज्या हाताच्या चपकुलांत एक वयर नदर लावन पळोवपी उदास आनी भाबडो भावूक मुखामळाचो मनीस उबो आशिल्लो.

आनी जेन्ना हांवें म्हजी मूठ आंवुळ्ळी आनी पर्थून उगती केली तेन्ना बचकुलांत धुल्ला बगर आनीक कांयच नासलें.

पूण आतां हांव एक भोव अप्रूप आनी गोडवायेन भरिल्लें गीत आयकतालों.

आतां मेरेन हांव, म्हजो आत्मो म्हणल्यार जिविताच्या विशाळ

आवांठांतलो स्पंदन विरयत एक सुपुल्लो सो थरथरपी कुस्कूट कण अशें समजतालों.

पूण आतां म्हाका समजून आयलां ते प्रमाण ह्या विशाळ आंवांठांत हांवच एक आसां आनी ह्या स्पंदनभरीत कणाकुसांनी भरिल्लें हें पुराय जिवीत म्हजेच भितर घुंवत घुंवत आसा.

✻ म्हाका बुदवंतकायेचीं उतरां सांगीत ते म्हणटात : 'तूं आनी तूं जंय वस्ती करून आसा तें हें विश्व म्हणल्यार अपार अनंत समुद्राचे अनंत तडींचेर राशिराशींनी पातळिल्ले रेंवेतलो एक कण मात जावन आसा.

✻ आनी हांव म्हज्या सपनांत तांकां सांगता: 'हो अपार अनंत समुद्र म्हणल्यार हांवूच तो आनी हें पुराय विश्व म्हणल्यार म्हजे तडीचेर पातळिल्ल्यो रेंवेच्यो फकत कणयो जावन आसात.'

✻ जिवितांत हांव केवळ एकेच फावटी निर्जाप जालों, तोय बी जेन्ना एका मनशान म्हाका विचारलें- 'कोण तूं?'

✻ भगवंताचो पयलो विचार जालो 'देवदूत' आनी भगवंताच्या पयल्या उतरान जी आकृताय निर्माण जाली तो 'मनीस'!

✻ लाखांनी वर्सां पयलीं जेन्ना समुद्र आनी वाऱ्यान रानवाठारांत पयलें वयलें उतर उच्चारलें ताचेय आदीं आमी हांगा गतिमान, भोंवपी-चलपी आनी काळजांत हावेस बाळगुपी प्राणी म्हूण वावुरतात तशेच आशिल्ले.

आतां आमी आमगेलीं आयचीं आर्विल्लीं उतरां घेवन त्या पूर्व पुरातन काळांतलीं काणी कशे भाशेन सांगूंक शकतले?

✻ कितल्याश्याच समस्यांनी पिडिल्लो गांजिल्लो एक मनीस फकत एकच वाक्य उलयलो. ताणें म्हणलें 'रेंवेचो एकच कण म्हणल्यार मरुस्थळ आनी पुराय मरुस्थळ वा रेंवटाळ रेंवेचो एक कण. आतां आमी सगळ्यांनी तोंड धांपून वोग्गी राविल्लें बरें.'

हांवें तागेली गजाल आयकली. पूण म्हाका कांयच कळ्ळें ना!

✻ एक फावटी हांवें एके अस्तुरेचें मुखामळ पळयलें आनी तिगेलीं

अजून जल्माक येवंक नाशिल्लीं सगळीं भुरगीं पळयलीं.

आनी तिणें म्हजें मुखामळ नियाळ्ळें आनी तिच्या जल्मा पयलीं जाल्ल्या गेल्ल्या म्हगेल्या सगळ्या पूर्वजांक ती वळखली.

* आतां म्हाका सर्वार्थान परिपूर्ण जावंक जाय. पूण ते आदीं बुदवंतकायेन उपाट भरिल्ल्या जिवितांची वसती म्हजे धरणीचेर जावंक नाका?

एक सांगात, दर एका मनशाची ही खरी मोख न्हय?

* रेंवेच्या एका कणा भोंवतणी उपजल्ले बगर दुखींतल्यान उबें जाल्लें मंदीर म्हणल्यार मोतीं. खंयचे इच्छाशक्तीन आमच्यो ह्यो कुडी घडल्यो आनी कसल्या कणा भोंवतणी?

* जेन्ना देवान म्हाका, एक फातोर कसो ते विलक्षण अजापाचे तळयेंत शेंवटून मारलो तेन्ना थरथरत उदकाचेर कितलेशेच भोंवर उठले.

पूण जेन्ना हांव तळाचे खरीक पावलों तेन्ना सगळें शांत जालें.

* म्हाका शांतिकाय दियात आनी मागीर काळखे रातीचेर हांव कशें जैत मेळयतां तें पळयात.

* जेन्ना म्हजो आत्मो आनी म्हजी कूड एकामेकांचेर मोग करूंक लागलीं आनी तांचो मेळ-मिलाफ जालो तेन्ना म्हजो दुसरो जल्म आशिल्लो.

* हांव एका मनशाक वळखतालों, ताचें काम सामके तीख-धार आशिल्लें. पूण तो मोनो आशिल्लो. एके लडायेंत ताची जीब कापिल्ली. ताची वाणी बंद पडचे पयलीं तो लडायेंत कशे तरेन झुजिल्लो तें हांव जाणां आशिल्लों. आज तो मनीस जिवंत ना हें बरें जालें.

आमच्या सारक्या दोगां खातीर हो संवसार खूबच ल्हान!

* रुतू गती कडेन लक्ष दिनासतना, शांतपणान, कितलोच काळ मेरेन हांव इजिप्ताचे भुंयेंतले रेंवेंत धांपून पडिल्लों.

सूर्यदेवान म्हाका जल्माक घालो. हांव उठलों आनी नाईल न्हंयचे तडीर भोंवपाक लागलो. दिसाचो हांव गायतालों आनी रातीचीं सपनां

पळयतालों.

आनी आतां तोच सूर्यदेव आपणाली हजारांनी किर्णां पातळावन म्हाका खाला चेपूंक पळयता - ताका हांव परत एक फावट रेंवटाळांत पडून राविल्लों जाय.

हें एक अजापाचें कुवाडेंच. ज्या सूर्यदेवान म्हाका निर्माण केलो ताच्यांत म्हाका ना-नपयत करपाची मातूय तांक ना.

अजून मेरेन हांव जिवो आसां, आनी म्हज्या पावलांचेर पातयेवन नाईल न्हंयचे तडीचेर मनमुक्त भोंवत आसां.

✻ उगडास म्हणल्यार सम्मीलनाचें एक रुप.

✻ विस्मरणातय म्हणल्यार स्वतंत्रतायेचें एक वेगळें रुप.

✻ आमी वेळ काळ अगणीत सुर्याच्या गतीचेर आदारून थारायतात. आनी ते आपणाल्या खिशांतले घडयाळीचेर वेळा-काळाचें गणीत मांडटात.

म्हणटकीच आतां सांगात, आमी दोगूय, कशे तरेन, केन्नाय पूण एकाच वेळार, एकेच सुवातेर मेळूंक शकतले?

✻ जो दूदगंगेचे आगाशे वयल्यान धर्तरी आनी सूर्य हांचे मदल्या अंतरिक्षाचो वेध घेता तें अंतरिक्ष न्हय.

✻ मनीसकूळ म्हणल्यार प्रकाशाची एक महानदी जी शिमे-बांद मोडून अनंत, असिमाचे दिकेन व्हांवत आसता.

✻ अज्ञाताच्या विश्वांत भोंवाडो मारपी आत्मे, मनशाच्या काळजांत जें कितें दुखता ताचे खातीर नसायेन कित्याक हुलपनात?

✻ पवित्र शाराचे वाटेर म्हजी एका यात्रेकरा लागीं भेट जाली. हांवें ताका विचारलें- 'पवित्र शारांतल्या तीर्थस्थळार वचपाची वाट हीच?'

ताणें म्हणलें, 'तूं म्हजे फाटोफाट चलत राव. एका दिसा मदेंच हांव थंय पावतलों.

हांव ताचे फाटोफाट चलूंक लागलों.

कितलेशेच दीस आनी रातीं आमी चलत रावले.

पूण तीर्थथळार पावलेच नात.

आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार ज्या मनशा फाटल्यान हांव चलत वतालों तो एकदम रागार जावन म्हजेर तापलो. ताच्या म्हणण्या प्रमाण ताणें म्हाका हळशिकावण्या मार्गार व्हरून पावयिल्लो.

* हे इश्वरा, तूं खुशाल म्हाका शिंवाचे भकीक घाल. पूण ते पयलीं म्हाका एक सोंश्याक तरी मारूं दी.

* रातीचो मार्ग चलून गेले बगर कोणूय फांतोड मेरेन पावचो ना.

* म्हजें घर म्हाका सांगता- 'म्हाका सोडून वचूं नाका, कारण हांगा तुवें सारिल्लो भूतकाळ वसती करून आसा.

आनी मार्ग म्हाका सांगता- 'यो, हांव वतां तसो चलत राव. कारण हांव तुजो फुडार.'

आनी हांव म्हज्या घराक तसोच मार्गाक दोगांकूय सांगतां.' म्हाका भूतकाळ ना. आनी ना म्हणल्यार फुडारय ना. जर हांव हांगा रावलों तर म्हज्या रावपांतय हांगाच्यान वचप आसा आनी हांव हांगाच्यान गेलों तरी म्हज्या वचपांतय हांगाच रावप आसा. फकत मोग आनी मर्णच सगळें कितें बदलूंक शकता.'

* जेन्ना मोव-मोव पिसांचे गादयेर न्हिदप्यांचीं सपनां, निखरे भुंयेचेर न्हिदप्यां परस अदीक सुंदर आसनात तेन्ना, जिवितांतले न्याय-निती वयलो भावार्थ, हांव कसो सोडून दिवं?

* कांय खुशालकायो जोडपाची इत्सा जावप म्हणल्यार म्हज्यांतले दुखांचोच तो एक भाग; विचित्रच न्हय हें?

* सात फावटी हांवें म्हज्या आत्म्याक धिस्पटायलो. पयले फावट, तो सामको मेंगो आसतनाय व्हडवीक जोडूंक पळोवंक लागलो तेन्ना,

-दुसरे खेपे अपंगुळा मुखार ताका कुट्टना पळयलो तेन्ना;

- तिसरे फावटी, कठीणाय आनी सोंपेपण हांचे मदलें कितें तें एक वेंचून काडपाचे आसलें आनी ताणें सोंपेणाक वेंग मारली तेन्ना;

- चवथे खेपे, जेन्ना ताणें चुकीची करणी आदारली आनी बाकीचेय सगळे अशेंच करतात अशें म्हळें तेन्ना;

- पांचवे खेपे, ताणें अस्कताये मुखार आपणालें बळ दाखयलें

आनी तीच शक्तिवंतपणाची खुणा म्हणली तेन्ना;

- सवे फावटी जेन्ना मुखामळा वयल्या हळशीकपणाक कुस्कुटायलें आनी तेंय बी खासा तागेलेंच एक रुपडें आसलें हें ताणें लक्षांत घेतलें ना तेन्ना;

आनी सातवे फावटी, जेन्ना ताणें आपणालीच तोखणाय करपी एक गीत गायलें आनी तेंच आपणालें गुणेस्तपण म्हणीत मिरयलो तेन्ना.

* सामकें परम सत्य कितें तें हांव नकळों. पूण म्हजें हें अज्ञानपण हांव नमळायेन मानून घेतां; तातूंतच म्हजी व्हडवीक आनी स्रय आसपावता.

* मनशाच्या मनांतली कल्पना आनी ते प्रमाण घडून येवप हातूंत जायतें अंतर आसता. पूण इत्साशक्तीच्या बळार तेंय अंतर ना करूं येता.

* सर्ग थंय लागींच आसा. ह्या दारा फाटल्यान, ते दुसरे कुडींत, पूण तिची चावीच शेणल्या. म्हाका दिसता, हांवें ती अशीच खंय तरी काडून दवरल्या.

* तूं कुड्डी आनी हांव भेड्डो आनी मोनो. आमी एकामेकांच्या हाताक हात लावुंया आनी एकामेकांक जाणा जावन घेवुया.

* मनशाचें म्हत्व ताणें कितें मेळयलां ताचेर ना; पूण खऱ्यांनीच तो कितें मेळोवंक सोदता ताचेर आसा.

* आमच्यांतले कांय जाण शाये सारके आनी कांय जाण कागदा सारके.

आमच्यांतल्या कांय जाणांचो वर्ण काळसो नासलो जाल्यार आमच्यांतले कांय जाण मोने जावन उरपाचे.

आनी आमच्यांत जर धवसारपण नासतें तर आमच्यांतले कांय जाण कुड्डे जावपाचे.

* म्हाका एक कान दियात आनी हांव तुमकां आवाज दितां.

* आमगेलें मन म्हणल्यार एक स्पंज-उदक ओडून घेवपी; आनी काळीज म्हणल्यार एक व्हांवतो व्हाळ.

आमच्यांतले चडशे जाण उदक ओडून घेवपीच आसतात; उदका वांगडा व्हांवपी न्हय हें पळोवपाक विचित्र दिसना?

* जेन्ना तुका कोणेंतरी जाचें नांव तुका खबर ना ताणें तुजेर आशिर्वाद घालचो अशें दिसता आनी जेन्ना तुका दुख्ख भोगता, जाचें कारण तूं नकळो, तेन्ना सगळ्यांची वाड जाता तशीच तुजीय जाता. आनी तूं तुज्या जिवितांतले उंचाये परसूय अदीक उंचायेर पावता.

* जेन्ना कोणूय एक दिश्टाव्याचे धुंदेंत बुडून वता तेन्ना तागेली हय-न्हयशी अभिव्यक्ती लेगीत ताका मंदिराचे गुंगे सारकी जाणवूंक लागता.

* तूं सोरो पियेता तो तुका चडचो देखून. हांव बी मदिरा प्राशन करतां. कारण म्हाका ते दुसरे मदिरेचो घोंट घेवपाची इत्साच जावची न्हय म्हणून.

* म्हजो पेलो जेन्ना रिकामो आसता तेन्ना हांवय बी सामको रिकामो जाल्लेवरी खेदिश्ट जातां. पूण जेन्ना तो पेलो अर्दोच भरिल्लो आसता तेन्ना तें अर्देंपण म्हाका अदीक खंती करता.

* दुसऱ्या मनशा मदलें खरेंपण तो जें कितें सांगता तातूंत नासता पूण तो तुजे मुखार जे कितें उगतें करिना तातूंत आसता. ते खातीर तुका जर ताका सारकोच समजून घेवंक जाय तर तो कितें सांगता तें आयकूं नाका; सांगिना तें आयक!

* हांव जें कितें सांगतां तांतलें अर्दें-अदीक अर्थ नाशिल्लें. तरी पूण हांव सांगीत रावतां. कारण उरिल्लें अर्दें तरी तुज्या काळजा मेरेन पावचें.

* विनोद बुद्द म्हणल्यार ती एके तरेची जिवीत संतुळाच!

* लोक जेन्ना म्हज्या वाचाळपणांतल्या उणेपणाक तोखेवंक लागले आनी अव्यक्त गुणाची निंदा करपाक लागले तेन्नाच म्हगेलें एकसुरेपण जल्माक आयलें.

* जेन्ना जिविताक काळजांतलें गीत गावपाक कोणच गावपी मेळना तेन्ना आपणालें मन मेकळे करपाक तें एक तत्वगिन्यानी जल्माक

घालता.

* सत्य हें सदैव जाणा जावपाचें आसता आनी तें, केन्ना-केन्नाय उलोवन दाखोवपाचें आसता.

* आमच्यांतलो वास्तव म्हणटात तो वोगोच आसता. अडेचो आसता तोच बडबडटा.

* म्हज्या जिविताचो आवाज तुज्या जिविताच्या काना मेरेन पावंक शकना. पूण आमी सामके एकाणे पडल्यात अशें दिसचें न्हय म्हूण उलोवंया.

* जेन्ना दोगी अस्तुऱ्यो उलयतात तेन्ना त्यो कितेंच सांगिनात. जेन्ना एकलीच अस्तुरी उलयता तेन्ना ती आपणालें पुराय काळीज उगतें करता.

* बेबे बैलाच्या हामेवपा परस केदोय मोटो आवाज काडूं; ते शेतांत नांगर ओडूंक शकनात. ना म्हणल्यार ते द्राक्षां मळपी चक्रय घुंवडावंक शकनात. आनी तांचें चामडें पायतणां करूंकय उपकारना.

* वाचाळ मनशाची नसाय केवळ मोन्याकूच जावं येता.

* जर हेमंत* रुतून 'वसंत* रुतू म्हज्या काळजांत आसा' अशें म्हणलें तर ताचेर कोण विस्वास दवरतलो.

* हेमंत- शियाळो

* वसंत - गिमाळो

* दर एक बीं म्हणल्यार फुलपा फळपाची उमळशीक.

* जर तूं खऱ्यांनीच दोळे उगते करून पळोवशी तर तुका सगळ्या प्रतिमांनी तुजेंच रूप दिसूंक लागतलें.

आनी जर तूं तुजो कान सारकोच लावन दिवन आयकुशी तर तुका तुजोच आवाज सगळ्या आवाजांनी आयकूंक येतलो.

* सत्याचो सोद घेवपाक दोग जाण जाय पडटात- एकटो सत्याचें उच्चारण करपाक आनी दुसरो तें समजून घेवपाक. उतरांचीं ल्हारां जरी सदांसर्वकाळ आमचेर येवन आपटत आसलीं तरी आमच्यांतली खोलाय सदांच निरवशांतच आसता.

* जायत्यो सांगण्यो-शिकवण्यो जनेलाच्या दारां सारक्यो आसतात. त्या दारांतल्यान आमी सत्य पळयतातच. पूण तें आमकां सत्या पासून वेगळेंय करून उडयता.

* आतां आमी आपालिपा खेळुंया. तूं जर म्हज्या काळजांत लिपून रावलो तर तुका सोदून काडप कठीण न्हय. पूण तूं जर खासा तुज्याच 'स्व' फाटल्यान लिपून रावलो तर कोणेंय तुका सोदून काडप हाका अर्थूच उरना.

* अस्तुरी आपणालें मुखामळ स्वताच्या सुंदर हांशाच्या बुरख्यानय धांपूंक शकता.

* दुखेस्त काळीज जेन्ना आनंदमग्न काळजा वांगडा खुशालकायेन भरिल्लें गीत गायता तेन्ना तें खऱ्यांनीच शिरवंत आसता.

* जो मनीस एके अस्तुरेक समजून घेवंक शकता वा तिचे प्रतिभेची विम्कणी करूंक शकता वा तिच्या मौना फाटलो घूट सोदून काडूंक पावता तो मनीस एका भोव सुंदर अशा सपनांतल्यान जागो जावन नाश्तो करपाक मेजासरीं बशिल्ल्या मनशा सारको आसता.

* जे वाट चलत वतात तांचे पावलां वांगडा म्हजींय पावलां मेळयत हांवय चलतलों; वोग्गी कडेक रावन हांव तांकां फकत पळयत रावचों ना.

* जो तुजी सेवा करता ताका तूं भांगराच्या म्होरां परसूय चड रीण लागता. तूं ताका तुगेलें काळीज ओंप वा ताची सेवा कर.

* ना, आमी फुक्या-फुकट जियेले नात. तांणी आमगेल्या हाडांचे बुन्यादीचेर आपणालीं व्हड व्हडलीं घरां बांदलीं नात?

* आमी फकत आपले पुरते आनी भेदाभेद मानून चलपी जावंक फावना. एका कवीचें मन आनी विंचवाची नांगी जैतान फुलता ती हेच धतरेच्या नाड्यार.

* दर एक अजगर एक सेंट जॉर्ज जल्माक घालता जो उरफाटो ताकाच मारून उडयता.

* रूख म्हणल्यार धतरेन मळबाच्या पटार बरयिल्ल्यो कविताच.

आमी हे रूख मारतात आनी तांचे पासून कागद तयार करतात आनी ताचेर घडये आमी आमच्या जिवितांतलें रितेंपण नोंद करून दवरतात.

✻ तुवें जर कितेंय बरोवपाचो प्रयत्न केलो (तुवें कित्याक बरोवप हें फकत संतांकच खबर आसता) जाल्यार तुजे कडेन गिन्यान कला आनी भूल घालपाची जाण आसूंकच जाय. आनी गिन्यान म्हणल्यार उतरां फाटलें संगीत, कले विरयत कला आनी तुगेल्या वाचकांचेर मोग करपाची कुशळटाय.

✻ ते आपणालीं पेनां आमगेल्या काळजाच्या दोण्यांत बुडयतात आनी म्हणटात- ''म्हाका आतां स्फूर्त आयल्या!''

✻ जर एका रुखान आपणाली आत्मकथा बरयली तरी ती मनीसकुळयेच्या इतिहासा परस वेगळी आसची ना.

✻ जर म्हाका कोणेंय कविता बरोवपाची तांक आनी ना बरयिल्ले कविते विशींचो अत्यानंद हांचे मदल्या खंयच्याय एकाची निवड कर म्हणली जाल्यार हांव अत्यानंदाची निवड करतलों. तीच खरी ऊंच तोलाची कविता. पूण तुमी जाणात? म्हगेल्या सगळ्या शेजाऱ्यांचें एके गजाली विशीं एकमत आसा, तें म्हळ्यार हांव सदांच पाड गजालीचीच निवड करतां.

✻ कविता म्हणल्यार एक मत प्रदर्शन न्हय. कविता म्हणल्यार रगत व्हांवपी घायांतल्यान वयर सरिल्लें गीत वा एक हांसकुरें मुखामळ.

✻ शब्द काळातीत आसतात. तांचें काळातीतपण लक्षांत दवरून तांचें उच्चारण करूंक जाय वा तें बरोवंक जाय.

✻ कवी म्हणल्यार आपणालें शिंवासन होगडावन बशिल्लो राजा, जो राजमहालाच्या गोबरा राशी मदें बसून तातूंतल्यान नवो महाल उबारपाचीं सपनां पळयता.

✻ कविता म्हणल्यार जी बरोवपाक शब्दकोशाचो आदार लागता असो आनंद, दुख्ख आनी अजाप हांचे मदलो देण्या-घेण्याचो वेव्हार.

✻ जर कोणूय कवी काळजांतल्यान गितांक जल्माक घालपी आवयचो सोद करपाचो यत्न करीत तर तो सगळो यत्न निर्फळच

जावपाचो.

* एके खेपे हांवें एका कवीक म्हणलें- ''आमकां तुजे व्हडविकेचें म्हत्व तूं जितो आसासर कळपाचें ना.''

कवीन जाप दिली- ''खरेंच. मर्ण म्हणटात तें मनशाक सगळोच उगतो करून उडोवपी. आनीक, जर तुका म्हजी योग्यताय कळ्ळ्या आसत तर ताचें कारण एकच म्हणल्यार म्हज्या ओंठा वयल्या उतरां परस म्हज्या काळजांतलें भावविश्व कितलेंच व्हड आसा. म्हाका जें कितें जोडपाचें आसा ताचे परस म्हज्या काळजांतले उमाळेच अदीक आसात.

* तुवें एकाणोच रेंवटाळाच्या अंतर्भागांत वचून जर सुंदरायेचें गीत गायलें तरी तें कोणपूण आयकतलोच.

* कविता म्हणल्यार एक शाणेसुर्तेपण. जें काळजाक उल्हासभरीत करता.

शाणेसुर्तेपण म्हणल्यार कविता जी मन गायत आसता. जर आमी मनशाचें काळीज उल्हासभरीत करूंक शकले आनी तेच बराबर ताचें मन जर आनंदगीत गावंक लागलें तर तो खऱ्यांनीच इश्वराचे छत्रछायेंत जियेता अशें समजुपाचें. स्फूर्त सदांच गायत रावतली, कित्याक गायता तें विस्कुटावन केन्नाच सांगची ना.

* आमी अर्दीमदीं भुरग्यां खातीर आल्लयो गायतात आनी खासा आमीच झेमेतात.

* आमगेलीं सगळीं उतरां म्हणल्यार मानमानसाचे परखन्नावळींतल्यान भायर पडिल्लें उश्ट्याचे कुडके.

* फकत चिंतीत रावप म्हळ्यार कवितेच्या संबंदांत तरी ते आडमेळ्याचे फातरच.

* जो आमच्या मनाचे खोलायेंतलेंच गायता तोच खरो गायक.

* तुज्या तोंडांत जर अन्नाची उंडी आसा तर तूं कसो गायतलो?

जर तुजो हात भांगरा शिंगरान भरिल्लो आसा तर आशिर्वादा खातीर तो वयर उबारल्यार कशें बरें दिसतलें?

✻ बुलबुल जेन्ना आपणालें मोगा-गीत गायता तेन्ना तो कांट्यान आपणालें हड्डें फाळटा अशें ते म्हणटात.

खरें म्हणल्यार आमी सगळे अशेंच करतात. नाजाल्यार आमी कशे गावंक शकतले?

✻ प्रतिभा म्हणल्यार, वसंत रुतूची जेन्ना सुलूस लागता तेन्ना कोगळाच्या गळ्यांतल्यान वझरूंक लागिल्ले गिताचे सूर.

✻ आत्मो, मागीर तो केदेय पांखाटे लावन उडणां करपी आसूं; ताका शारिरीक काडावोडी कश्योच चुकपाच्यो नात.

✻ पिसो मनीस तुजे आनी म्हजे परस उण्या तोलाचो संगीततज्ञ आसना. घडये तो जें वाद्य वाजयता तें इल्लेंशें ताल-सुराभायर आसूं येता इतलेंच.

✻ आवयच्या काळजांत जें गीत सुस्तपणान पडून राविल्लें आसता तें कुकुल्या भुरग्याच्या ओंठांतल्यान गायन जावन भायर सरता.

✻ खंयचीय इत्सा, उमळशीक फळाक आयले बगर रावना.

✻ हांव केन्नाच म्हज्यांतल्या 'स्व'कडेन पुरायपणान सहमत जावंक शकलों ना. घडये सत्याचो घूट आमच्या दोगांय मदें दपून राविल्लो आसा.

✻ तुज्यांतलो दुसरो 'स्व' सदांच खेदिश्ट आसता. पूण तो सदांच तेच खंती भरीत अवस्थेंतय तुजे सयत वाडत आसता. देखूनच सगळें सायसंगीत चलता.

✻ जांचे आत्मे न्हिदून पडिल्ले आसतात आनी जांच्यो कुडी आपणां मदलो ताल-सूर व्होगडावन बशिल्ल्यो आसतात तसल्यांक भायरायल्यार आत्मो आनी कूड हांचे मदें कसलोच संघर्ष नासता.

✻ जिविताच्या काळजा-गोंड्या मेरेन जेन्ना तूं पावतलो तेन्ना सगळे कडेन तुका सुंदरायच भरिल्ली दिसतली. इतलेंच न्हय तर, दिश्टीहिणाकय ती दिसतली.

✻ आमी सगळे फकत सुंदरायेचोच सोद घेत जियेतात. हेर सगळें कितें आसा तो एक प्रतिक्षेचो प्रकार.

* तुमी हें भुयेंत एक बीं रोयात; ती तुमकां एक सोबीत फूल दितली. सपनांत मळबा एदी सपनां पळयात आनी जें किते प्रियतम तें तुमचे मेरेन पावतलें.

* ज्या दिसा तुजो जल्म जालो त्याच दिसा सैतानाची सत्ता मातयेभरवण जाली. सर्गदुताक मेळपाक आतां तुका नरकांतल्यान वाट काडीत वचपाची गरज ना.

* बऱ्योचश्यो अस्तुऱ्यो दादल्यांचें काळीज उश्णें घेतात. मुदलांत तें थोड्याच जाणां लागीं आसता. जर तुजे कडेन तशें काळीज आसा जाल्यार दुसऱ्याचेर अधिकार गाजोवपाची गरजच ना.

* जेन्ना एक दादलो एके अस्तुरेच्या हाताक स्पर्श करता तेन्ना तो अनादिअनंताच्या काळजा मेरेन पावता.

* मोग करपी आनी मोगिका हांचे मदलो एक विरविरीत पड्डो म्हणल्यारच मोग.

* दर एक दादलो दोन अस्तुऱ्यांचेर मोग करता- एक अस्तुरी ताचे कल्पनेंतली निर्मणी आनी दुसरी, जी अजून जल्माकच येवंक ना ती.

* जो दादलो एके अस्तुरेन केल्ले चुकी खातीर क्षमा करूंक शकना तो तिच्या अप्रूप गुणांचो लाब केन्नाच घेवंक पावचो ना.

* जो मोग दर दिसा आपशींच नवो नवसुलो जायना तो सदांचे चलणुकेचो जावन पडटा आनी शेंकी ताचें रुपांतर गुलामपणांत जाता.

* मोग करपी एकामेकां मदल्या मोगा परस तांचे मदल्या अंतराकच अदीक वेंगायतात.

* मोग आनी दुभाव केन्नाच परस्पर संवाद सादूंकच पावनात.

* मोग म्हणल्यार उजवाडाच्या हातांनी उजवाडाच्या कागदाचेर बरयिल्लें उजवाडाचें उतर.

* इश्टागत म्हणल्यार एक भोव म्हौंवमधुर जापसालदारकी, आनी न्हय केन्नाच एक संद कशी.

* जर तूं तुज्या इश्टाक खंयचेय आनी कसलेय परिस्थितींत जाणां जावन घेवंक शकलो ना जाल्यार तूं ताका केन्नाच समजूंक पावचो ना.

* तूं जे झगमगीत कपडे न्हेसता ते तुवें न्हय, कोणें तरी दुसऱ्यान तयार केल्ले आसतात.

* तूं जें सगळ्यांत सुवादीक जेवण जेवता तें दुसऱ्याल्या मेजा वयलें आसता.

तुका सगळ्यांत बरें सुखसमादान दिवपी हांतरुण आसता तें दुसऱ्याल्या घरांत आसता. आतां म्हाका सांग, दुसऱ्या पासून तूं आपणाक कसो वेगळो काडूंक शकता?

* जेन्ना मेरेन तुजें मन आंकडेमोड करीत हेडत रावतलें आनी म्हजें काळीज दंवा-धुंवटेंत घुस्पून उरतलें, तेन्ना मेरेन तुजें मन आनी म्हजें काळीज हांचें केन्नाच एकमत जावचें ना.

* उतरां वापरतना तांची वार्जीक करीत रावल्यार आमी केन्नाच एकामेकाक समजून घेवंक पावचे नात.

* म्हज्या काळजाचे जो मेरेन कुडके जायनात तोंवेर तें कशें उन्मुक्त जातलें?

* जेन्ना व्हडांतलें व्हड दुख्ख आनी व्हडांतलो व्हड आनंद जाता तेन्नाच तूं खरें सत्य प्रगटायता. तूं जर तुका उगडापो करूंक सोदशी तर भर दिसा उजवाडा एक तर तूं नागडो नाचतलो वा आपणालो खुरीस खांदार घेवन चलत रावतलो.

* आमी सांगतात त्यो सुखसमादानाच्यो गजाली जर सैमान आयकून घेतल्यो जाल्यार व्हांवती न्हंय समुद्राक वचून मेळची ना. आनी शिंयाळो गिमाळ्याक वाट करून दिवचो ना. जर सैम आमगेल्यो काटकसरीच्यो गजाली आयकूंक लागलो जाल्यार आमच्यांतल्या कितल्या जाणांक मेकळ्या वातावरणांत स्वास घेवप शक्य जातलें?

* तूं सुर्या वटयां तुजी फाट करतलो तेन्नाच तुजी सावळी तुका दिश्टी पडटली. दिसाचो तूं सुर्या मुखार मनमुक्त आसता आनी रातचो तूं नकेत्रां मुखार मनमेकळो आसता.

जेन्ना मळबांत सूर्य नासता आनी चंद्रीम नासता आनी नकेत्रांय नासतात तेन्नाय तूं सामको मुक्त आसता.

हें सगळें ना पळोवपा खातीर तूं जेन्ना तुजे दोळे धांपता तेन्नाच तूं सर्वस्व मुक्त आसता.

पूण जाच्या तूं मोगांत पडटा ताचो तूं दास जाता. कारण तूं ताचो मोग करता. आनी जो तुज्या मोगांत पडटा ताचो तूं गुलाम जाता. कारण तो तुजेर मोग करता.

* देव मंदिराच्या महाद्वारा कडले आमी सगळे भिक्षूक. राजा जेन्ना मंदिरांत भितर सरता आनी भितरल्यान भायर सरता तेन्ना ताणे उदारपणान केल्ल्या दानाचो वांटो आमकां सगळ्यांक मेळटा.

पूण आमकां सगळ्यांक मात एकामेकाची नसाय. राजाक हिणसावपाचो हो आनीक एक वेगळोच प्रकार.

* तुज्या पोटाक जाय ते परस तुज्यान चड खावूं नजो. तुज्या जेवणांतलो अर्दो वांटो दुसऱ्या मनशा खातीर आसता आनी तरिकूय आनीक इल्लें जेवण उरूंक जाय-तें आगांतूक पावपी पावण्या खातीर.

* घरांत सोयरो-दायरो आयलो ना जाल्यार घर आनी स्माशनाची गत एकसारकीच जातली.

* काकुळटेस्त दिसपी लांडग्यान एका मेंढऱ्याक म्हणलें, 'तुजे पांय म्हज्या घराक लागिल्ल्याचें समादान तूं म्हाका भोगूंक दिवचो ना?'

आनी मेंढऱ्यान जाप दिली, 'खरेंच, म्हाका तुगेल्या घरा येवपाची खोस भोगपाचीच- पूण तें घर तुज्या पोटांत नाशिल्लें जाल्यारूच.'

* आमगेर आयिल्ल्या सोयऱ्याक हांवें दारांतच थांबयलो आनी म्हणलें, तुजे पांय तूं घरांत भितर सरता आसतना फाफडून निवळ करूं नाका; भायर सरून वतना फाफूड.

* तुजे परस जाची म्हाका चड गरज आसा तें काडून तुवें म्हाका दिवप हातूंत उदारपण ना. पूण तुका सामकी गरज आसतना तुवें तें काडून म्हाका दिवप ही खरी उदारवृत्ती.

तूं जेन्ना कितेंय काडून दिता तेन्ना तुवें दिल्लें तें घेतल्याच्या मुखामळा कडेन ताची लजेल्ली नुरा दिसची न्हय म्हणून दुसरे वटया पळोवंक जाय आनी तीच खरी दानी मनशाची लागणूक.

✻ एक भोव गिरेस्त आनी एक सामको गरीब हांचे मदलें अंतर म्हणल्यार एका दीसभराची भूक आनी एका वराभरयाची तान, इतलेंच.

✻ जायते खेपो आमी फाटीं घेतिल्लें रीण फारीक करपा खातीर फुडारा कडल्यान उश्णें घेतात.

✻ देवदूत आनी सैतान. दोगूय म्हाका भेटपाक येतात. पूण तांचे पसून हांव म्हजी सुटका करून घेतां.

✻ जेन्ना देवदूत मेळपाक आयिल्लो आसता तेन्ना हांव एक पोरणी प्रार्थना म्हणूंक लागतां आनी तो सामको बेजारता आनी उठून वता.

आनी जेन्ना सैतान येता तेन्ना हांव एक आदलेंच पातक पर्थून आधारतां. म्हणटकूच तो आनीक रावना.

✻ कशेंय जावं, ही बंदखण तितली बास्कळ न्हय. पूण म्हजी कूड आनी ते दुसरे कुडींतलो कैदी हाचे मदली ही वणत मात म्हाका कशीच मानवना.

तरिपूण, तुमकां एक सांगतां, हांव म्हणटां ते गजाली विशीं बंदखणीच्या राखणदाराक वा ही इमारत बांदप्याक हांव कांय एक म्हणपाचों ना.

✻ तुवें नुस्तें मागलें आनी तांणी तुका जिवाणें काडून दिलें जाल्यार तांचे कडेन जिवाण्या बगर दिवपाक आनीक कांय ना म्हणपाचें. तांचे खातीर तेंच ताचें उदारपण.

✻ फटकिरेपण केन्ना केन्नाय यशस्वी जाता. पूण सदांच तें स्वताचो आत्मघात करून घेता.

✻ खूनमारे जे रगत व्हांवयनात, चोर जे चोरी करिनात आनी फटींग जे फटी मारिनात असल्यांक तूं जेन्ना क्षमा करता तेन्ना तुजे असलो दयावंत आनीक कोण आसना.

✻ जो मनीस बरें आनी वायट हांकां एकमेकां पासून वेगळावंक शकता तोच मनीस इश्वराच्या न्हेसणाक स्पर्श करपी जावं येता.

✻ जर तुजें काळीज एक ज्वालामुखी तर मागीर तुज्या हातांत फुलां कशीं फुलूंक पावतलीं?

* केन्ना केन्नाय लोक म्हाका त्रासांत घालपाचो आनी नाडपाचो प्रयत्न करतात. तांच्या नेणारपणाचें म्हाका हांसूंक येता. कारण तांकां दिसता. म्हाका त्रासांत घालप आनी नाडप ह्यो गजाली म्हाका समजच नात. पळयात, आत्मतोखणायेचोच हो एक प्रकार!

* जो किते घडोवन हाडपी आसता तोच जर जें कितें घडलां तें म्हणल्यार आपूणच अशें समजून चलूंक लागलो तर ताचे विशीं हांव कितें म्हूण सांगूं?

* जर कोणूय आपणाले म्हेळे हात घेवन तुवें घाल्ल्या कपड्यांक ते पुसूंक लागलो तर ते ताकाच दिवन उडय. कारण तुका न्हय. घडये ताकाच ताची पर्थून गरज पडत.

* दुडवांच्यो राटावळी करपी मनीस एक बरो बागवान जावंक शकना, ही खरेंच काकूळट करपा सारकी गजाल.

* आडगत गुणांच्या म्हालवजार तुज्यांतल्या मूळच्या उणेपणाचेर धांपणें घालूं नाका. उणेपणां आसल्यार उपकारतात. कारण तीं तुजीं स्वताचीं.

* कितलेच फावटी हांवें केन्नाच आधारूंक नाशिल्ले गुन्यांव, हांव म्हाका दसोवन घेतां. अशें केल्ल्यान म्हज्या मुखा वयल्या दुसऱ्या मनशाक वोगीच सकल-वयर जाल्लेवरी दिसचें ना.

* जिविताक भायल्यान धांपून उडोवप, म्हणल्यार ताचे भितरले खोलायेंतलो घट्टय धांपून दवरप.

* तुका तुजे विशीं जितलें खबर आसा त्या तितल्याच मापान तूं दुसऱ्याक पारखूंक शकता. आतां म्हाका सांग, आमच्यांतलो खरो दोशी कोण आनी निर्दोश कोण?

* खरो उजू मार्ग तोच जो तुवें आदारिल्ल्या वायट कर्तुबांतलो अर्दो दोश आपणाचेर ओडून घेता. फकत एक मूर्ख आनी एक बुद्दिवंत, मनशान केल्ले कायदे मोडटात. आनी तेच देवाक चड लागींचे आसतात.

* खंयचीय गजाल तुका सारकी समजतकच तूं अदीक नेटान तिचे

फाटल्यान लागता.

✼ म्हाका कोण दुस्मान नात. पूण देवा, कोणूय जर म्हजो दुस्मान जालोच तर तो म्हजेच समान तांकीचो आसचो.

म्हणटकच जैत फकत सत्याचेंच जातलें. तूं तुज्या दुस्मानाचोय खरो इश्ट जातलो, तुमी दोगूय ह्या संवसाराक अंतरले उपरांत.

✼ मनीस घडये, स्वताच्या आत्मरक्षणा खातीर आत्महत्याय करूंक शकता.

✼ खूब खूब काळा आदीं, जो मनीस भोव मोगाळ काळजाचो आसलो आनी लोकांकय जो खूब आवडटालो ताका खुरसार खिळायिल्लो आनी विचित्र म्हणल्यार कालच तो म्हाका तिनदां मेळ्ळो.

पयले खेपे, एके वेश्येक बंदखणींत व्हरून घालूं नाका म्हूण पुलिसां कडेन मागयतना. दुसरे फावटी, एक जातभ्रश्ट मनशा वांगडा बसून मदिरा प्राशन करीत आसतना.

आनी तिसरे खेपे, देवमंदिरांतल्या एका कारभाऱ्या लागीं मुठी आंवळून झगडटना.

✼ पाप आनी पुण्याचो जो अर्थ लायतात तो जर खरो आसत तर म्हजें जिवीत म्हणल्यार गुन्यांवाची एक लांबदीक सांखळच.

✼ काकळूत करप म्हणल्यार अदीं मदीं न्यायनीतच करप.

✼ फकत एकटोच म्हजे लागीं सामको आड नितीन चल्लो जाच्या भावा कडेन हांवें आडनीत आदारिल्ली.

✼ बंदखणींत व्हरतल्या मनशाक जेन्ना तूं पळयता, तेन्ना मनांतल्या मनांत तूं म्हणटा, 'घडये तो बंदखणीची ल्हानशी ख्यास्त चुकोवंक पळयता आसतलो.' आनी जेन्ना, सोरो पियेवन सामको सुरांटो जाल्ल्या मनशाक तूं पळयता तेन्ना मनांतल्या मनांत तुका येवजता आसतलें, 'घडये हाच्याकूय भयांकृत गजालीं पसून सुटका करून घेवपाचो तो ताचो प्रयत्न आसतलो.'

✼ खूब फावटी, आत्मरक्षणा खातीर हांव म्हज्या म्हाकाच

घिस्पटायतां, उणाखतां. परत, जिवान जर हांव घटमूट आशिल्लों तर ते भाशेन करचों नाशिल्लो.'

* मनांतलो राग-संताप मुखामळार दाखयनासतना, ओंठांचेर हांशें खेळोवपी खूब मूर्खच म्हणचो पडटलो.

* म्हज्याय परस कनिश्ठच म्हजी नसाय करूंक शकता वा म्हाका हिणसावंक शकता. आजवेर कोणेच म्हजी नसाय करूंक ना वा म्हाका हिणसावंक ना; कारण हांव कोणाय परस श्रेश्ठ न्हय.

जे म्हजे परस श्रेश्ठ आसात तेच म्हजी तोखणाय करूंक शकतात वा म्हाका कुस्कुटावंक शकतात.

म्हजी केन्नाच कोणें तोखणाय करूंक ना वा म्हाका कुस्कुटावंकय ना. कारण, हांव कोणाच्याय हाताखाला ना.

* तूं म्हाका म्हणटा- 'हांव तुका सारको समजलों ना.' तुवें अशें म्हणप हें म्हाका खूब व्हडविकेचें. पूण तुका फावना असो तुजोच मात अपमान.

जिवितान म्हाका भरभरून भांगर दिलें. आनी तुका हांवें फकत कांय रुप्या कुडके दिले आनी हांव कितलो उदार मनाचो अशें म्हाका दिसलें. पूण हांव किर्पण तो किर्पणूच!

* जेन्ना तूं जिवितांत ऊंच व्हडविकेक पावतलो तेन्ना तूं खंयच्याय प्राणीमात्रा परस व्हड आसचो ना. ना म्हणल्यार कोणाय कर्त्या-धर्त्या परसय ल्हान आसचो ना.

* जाची चाल जातकच सवकास ताचे तूं चुरचुरे करता आनी जो मना-बुद्दीन मंद ताका मात विसरता. खूब विचित्रच हें. निबर काळजा परसय दोळे आसूनय कुड्ड्यावरी वर्तप म्हणटात तें हाकाच.

* कुबड्यो घेवन चलपी थोंट्यान, त्यो घेवन दुस्मानाचे तकलेर आघात करप ना हेंच ताचें शाणेपण.

* जो आपणाल्या बोल्सांतल्यान दुडू काडून दिता आनी ते बदल्यांत तुजें काळीजच तोडून काडूंक पळयता ताका खऱ्यांनीच कुड्डोच म्हणचो पडटलो.

* जिवीत म्हणल्यार लोकयात्रा. हे यात्रेंत जाची चाल सामकी मंद तो तिगना. तो आपूण जावन कुशीन सरता आनी  जाची चाल झपाझ ताका ती यात्रा खूबच सवकास दिसता आनी तोय तिच्यांतल्यान भायर सरता.

* पाप वा पातक म्हणटात तें खऱ्यांनीच जर कितेंय आसत तर आमच्यांतले कांय जाण पूर्वजांच्या पावलार पावल दवरून आदीं सावन चलत आयलां म्हणीत तें करीत आसतात.

आनीक कांय जाण भुरग्यांचो विचार करिनासतना, फुडाराच्या नांवान तें-तेंच पातक आधारीत रावतात.

* वायट म्हूण मानिल्ल्या सगळ्या  प्राणी मात्रां वांगडा जो समभावान चलता तोच खरो बरो मनीस.

* आमी सगळेच बंदिवासी-कैदी. आमच्यांतले कांय जाण जनेलां आशिल्ल्या कुडींनी बंद आसात आनी कांय जाण कुडी भायर आसात, इतलोच फरक.

* आमी सत्या खातीर जाय तितल्या नेटान वावुरनात. पूण फटीचें समर्थन करपाक मात फुकट वेळ होगडायतात ही एक विचित्रच गजाल.

जर आमी आमच्या वायट कर्तुबां विशीं एकामेकां कडेन उलोवन मन मेकळें करीत तर आमचें मुळांतच खंय चुकलां तें कळून येतलें आनी आमी आमकांच हांशाक म्हारग जातले.

जर आमी आमच्यांतल्या गुणां विशीं उलोवंक लागले तर त्याच कारणा खातीर एकामेकांक हांसतले.

* एकाद्रो एक मनीस जेन्ना परंपरेन चलून आयिल्ल्या नेमां आड वचपाचो गुन्यांव करिना तेन्ना मेरेन मनशांनी तयार केल्ल्या कायद्याच्याय तो वयर उरता. पूण एक फावट मानिल्ले मुळावे संकेत मोडले म्हणटकीच तो कोणाय परस वयर उरना आनी सकलाय पावना.

* सरकार म्हळ्यार तुजे मदलो आनी म्हजे मदलो एक समझोतो. पूण केन्ना केन्नाय तूंय चुकता आनी हांवय चुकतां.

* गरजेवंतपण हेंच गुन्यांवाचें दुसरें नांव; चडच जाल्यार रोग-

पिडेचें तें एक आंग.

* दुसऱ्या मनशाच्यो चुकी काडीत बसप हाचे परस आनी व्हडली चूक खंयची आसू येता?

* जर दुसरो कोणूय तुका हांसत जाल्यार ताचे चुरचुरे करपाचे. पूण तूं जर ताका हांसशी तर तूं मात तुका क्षमा करूंक शकचो ना.

जर दुसऱ्यान कोणेय तुका दुखापत केली तर ती तूं विसरून वचत. पूण ताका जर तुवें दुखापत केली तर तिची तुका सदांच याद उरली.

खरें म्हणल्यार, तो दुसरो मनीस म्हणटात तो तुज्याच स्वत्वाचें एक संवेदनशील आंग. फकत शरीर तितलें वेगळें.

* एक फावट एक मनीस आयलो आनी म्हगेलें जेवण जेवलो. म्हजे खातीर आशिल्लो मधुरस पियेलो आनी हांसत हांसत उठून गेलो. तसोच तो आनीक एके खेपे आयलो; तसोच जेवपाक आनी पियेवपाक. पूण हे खेपे हांवें ताका लागीं घेनासतना पयसायलो. देवदुत म्हजे हे वर्तणुकेक हांसूंक लागले.

* तिरस्कार म्हणल्यार एक मेल्लें मडें. तुमच्यांतलो कोण ताची कबर जावंक तयार आसा तें सांगात.

* तो स्वता ताचो खूनमारो न्हय हीच जाचो खून जाला ताची खरी व्हडवीक!

* मनीसकुळयेची खरी मानतुकेची गजाल म्हणल्यार तिचें शांतिकायेन भरिल्लें काळीज आनी न्हय वाचाविदळ मन.

* भांगरा-शिंगरांची रास म्हजे मुखार ओतली म्हूण, म्हज्या जिवितांतले मोलादीक दीस हांव तांकां विकूंक तयार ना. देखून ते म्हाका पिसो म्हणटात. आनी हांव तांकां पिशांत काडटां, कारण तांकां दिसता, भांगरा-शिंगरांचे आशेन हांव म्हजे दीस तांकां अशेच विकून उडयतलों.

* ताणी आमचे मुखार भांगर, रुपें हस्तीदंत आनी हेर मोलादीक जिनसांची रास ओतली. आनी आमी आमचें काळीज- मन तांचे मुखार उगतें केलें. आनी तरीय ते स्वताक घरकार-येजमान म्हणून

घेतात आनी आमकां पावणे सोयऱ्यांत जमा करतात.

✻ जे व्हड सपनां पळयतात आनी तीं पुराय करपाचो प्रयत्न करतात, असल्या मनशां मदीं म्हाका कितलेंय खालतेपण घेवचें पडल्यार उपकारता.

पूण जाचे कडेन कसलींच सपनां नात वा हावेस नात, तांचे मदें म्हाका केदीय व्हडविकेची सुवात दिवपाची केली जाल्यार हांव ती आपणावंचो ना.

✻ जो कोण चिमटीभर भांगराच्या आनी रुप्याच्या कुडक्या खातीर आपणालीं सपनां विकून उडयता, ताची खरें म्हळ्यार काळकूत करूंक जाय.

✻ आमी आमच्या काळजांतले हावेस घेवन उंचांतल्या ऊंच शिखरा मेरेन चडून वचूंक सोदपी आरोही. जर आमच्यांतलो कोणूय एक सांगाती, आमगेले दुडू आनी हेर सामान चोरून व्हरता जायत तर आमी ताका भक्सूंक जाय. कारण तो आमकां एक गरजे भायर वजें भार कसो जाल्लो. चोरयेचें वजें माथ्यार घेवन वयर चडप ताका जमपाचें नासलें आनी ताका लागून तागेली वाट भोवच कश्टाची जावपाची, आनी तरिकूय तो खर्शे-खर्शेंत वयर चडटा जाल्यार नमळायेचे भावनेन ताका आदार दियात. तुमचे चालीचो वेग आनीकय वाडटलो.

✻ ज्या मनशा विशीं तुका जितलें खबर आसा, तितलेच मर्यादे मेरेन तूं ताका पारखूंक शकता. आनी तुजी जाणां जावपाची तांक कितली? इल्लीशी!

✻ जो दुसऱ्याक पराजीत करून जैतिवंत जाता तागेलीं शाणेपणां म्हाका कशींच आयकून घेवपाचीं नात.

✻ जो कोण आपणाल्या बंद्या दासाचो भार धिटायेन आनी मोन्यांनी आपणाल्या भुजांचेर सोंसून घेता तोच खरें म्हणल्यार मुक्त मनाचो मनीस.

✻ एक हजार वर्सां पयलीं, म्हगेल्या शेजाऱ्यान म्हाका म्हणलें, 'हांव जिविताचो तिरस्कार करतां. कारण तें फकत वेदनांनी भरिल्लें

आसा.'

आनी काल हांव एके दफनभुंये कडल्यान वतालों. थंय एका थड्याचेर जिविताचो नाच चलतालो.

* बेशिस्तीन शिस्तीची उमळशीक बाळगप म्हणल्यार सैमावर्तो एक संघर्शच.

* एकसुरेपण म्हणल्यार एक मोनें तुफान जें आमचे बडी वयल्यो सुकिल्ल्यो ताळयो-बडयो मोडून भायर मारता. पूण तेच बराबर आमच्या जित्या-जिव्या जिविताचीं पाळा-मुळां रसरशीत धर्तरेच्या कंवळ-जिव्या काळजा मेरेन पावयता.

* एके खेपे एका वझऱ्याक हांवें समुद्राचें वर्णन करून सांगलें. पूण म्हजें सांगणें ताका खूब अतितायेन भरिल्लें आनी निव्वळ काल्पनीक कशें दिसलें.

आनीक एके खेपे हांवें समुद्राक त्या वझऱ्याचें वर्णन करून सांगलें. पूण समुद्र म्हाका दुसऱ्याची उवेखणी करून ताका उणाक लेखपी कसो समजलो.

* तणापत्यांचेर गुणगुणत उडत भोंवपी तोळा परस एकसारकी कामांत गूंग रावपी मुयेच्या कश्टांची तोखणाय करप्याची नदर खरेंच अटूक न्हय?

* ह्या संवसारांत जो आमकां गूण कसो दिसता ताकाच परलोकांत कुस्कुटाचेंय मोल नासूं येता.

* जें खोल तें खोलायेंत देंवता आनी जें ऊंच तें सगळें उंचाये मेरेन पावता. पूण सगळें एकेच नीट रेशेंत. जाका आसपाव-आंवाठ आसता तें मात ते मेकळेकायेंत भोंवत उरता.

* वजन आनी माप हांकां जर आमी म्हत्व दिवंक नाशिल्लें जाल्यार आज जे तरेन आमी सुर्या मुखार उबे रावतात तेच तरेन काजुल्याच्या उजवाडांत उबे रावतले आसले.

* प्रतिभा आनी कल्पनाशक्त नाशिल्लो आनी सांगता मुंडेल्लीं हत्यारां आनी झिरझिरिल्ल्यो तागड्यो घेवन आशिल्लो विज्ञानशास्त्री

म्हणल्यार एक खाटीकच कसो. पूण तूं गा कोण कसो? आमी सगळे शिवराक न्हय!

✻ तूं जेन्ना गायता तेन्ना भुकेल्लो मनीस तें ताच्या पोटांतल्यान आयकता.

✻ एका नव्यानच जल्मल्ल्या भुरग्या परस, एका म्हातार पिरायेच्या मनशाचें मर्ण चड लागीं आसना. आनी जिवीत? तेंय तशेंच!

✻ खऱ्यांनीच जर तुमकां सत्य उलोवपाक फाटीं फुडें जावचें पडना तर जें कितें सांगपाचें आसा तें सुंदर रितीन सांगात; नाजाल्यार ओग्गी रावात. कारण, आमगेल्या शेजरा एक मनीस सामको मर्णा धडेर आसा.

✻ मनशां मदली मर्णयात्रा म्हणल्यार घडये सर्गदुतांक ती लग्नसुवाळ्याची परखन्नाची जेवणावळ कशी दिसूं येता.

✻ एक विसरायेर पडिल्ली सत्य गजाल नदरे आड जावंक शकता. पुणून तीन हजारांनी वास्तविकतायो आनी खरेपणाक इत्सापत्रांच्या रुपांत फाटल्यान दवरून वचूं येता, जांचो उपेग तांचो दहन संस्कार आनी समाधी बांदपाच्या कामांत उपकारा पडूं येता.

✻ खरें सांगपाचें म्हणल्यार आमी जें कितें उलयतात तें आमचेच पासत उलयतात; पूण केन्ना केन्नाय तें दुसऱ्यांकय कळचें म्हणून आमी व्हडा व्हडान उलयतात.

✻

जे गजाली विशीं आमकां कांयच उक्तेपणीं खबर ना ते विशीं साद्या उतरांनी कोणूय आमकां विस्कुटावन सांगपी मेळना तोंवेर जें कितें आमकां उखलापें समजलां तेंच आमी खरें धरून चलतात.

✻ जर दूद-गंगेचो प्रवाह म्हज्या काळजांतल्यान वचना जायत तर हांव ताका कसो पळयतलों वा जाणा जावंक शकतलों.

शरीरशास्त्राच्या जाणकारां मदलो हांव जर शरीरशास्त्रज्ञ नासत तर, हांव एक खगोलशास्त्री म्हणल्यार ते म्हजेर विश्वास दवरचे नात.

✻ समुद्राचे परिभाशेंत एक शिंपी म्हणल्यारच घडये मोती जायत. आनी काळाचे परिभाशेंत कोळसो म्हणल्यारच घडये एक वज्र आसत.

* नामना कीर्त म्हणल्यार भर उजवाडांत उबी आशिल्ले वासनेची सावळी.

* मूळ म्हळ्यारच फूल. तें नामना वा फांकिवंतपणाची मातूय पर्वा करिना.

* सुंदराये परस धर्म वा विज्ञान व्हड न्हय.

* दर एक व्हड मनीस, जाचे विशीं म्हाका खबर आसा ताचे घडवणेंत कितें तरी एक ल्हान गजाल आसता आनी तीच ल्हान गजाल ताका निश्क्रीयताय, उन्मतपण वा आत्मघात हांचे पसून वाटायता. खरोच व्हड मनीस आसता तो कोणाकूच आपणाचेर धनीपण गाजोवंक दिना; ना म्हणल्यार तोय कोणाचेर आपणालो शेक चलयना.

* कोणूय एक मनीस गुन्यांवकाराक मारता आनी धर्म प्रेषितांकय माड्डायता म्हूण तितलेच खातीर ताका हांव सामको सामान्यांतलो सामान्य म्हणचो ना.

* व्हडविकेचे पिडेन पिडिल्ली सहिष्णुताय म्हणल्यार तिजिल्लो मोगच.

* किड्यांचो हांगा हिशोबच ना. पूण हतीय बाग घेवंक लागतले, हाका विचित्रच म्हणपाचें न्हय?

* मतभेद म्हणल्यार दोन मनां मदली सामकी लागींची वाट जावं येता.

* हांव एक उज्याची जोत आनी हांव एक सुको सणसणीत केंसां-पुंजो. म्हज्यांतलो एक अंश म्हज्यांतल्याच दुसऱ्या अंशाक खावन उडयता.

* आमी सगळे पवित्र पर्वताच्या शिखरार चडून वचूंक पळयतात. पूण भूतकाळाक आमचो मार्गदर्शक मानिनासतना तो एक नकासो अशें धरल्यार आमगेली वाट अदीक लागींची जावंची ना?

* जेन्ना दुकां गळोवप म्हणल्यार व्हडविकेक बादा हाडपी दिसता, जेन्ना हांसप म्हणल्यार उखलापेपण दिसता आनी दुसऱ्या परस जेन्ना कोणूय स्वताच्याच हिताक म्हत्व दीत रावता तेन्ना शाणेसुर्तेपण हें

शाणेसुतेंपण उरना.

❋ जर, तुजे कडलें सगळें गिन्यान हांवें जोडून घेतलें जाल्यार तुका खबर नाशिल्लें जें कितलेंशेच गिन्यान उरलां तें हांव खंय पुंजावन दवरतलों?

❋ मौन धारण करप हांव वाचाविदाळा कडल्यान शिकलों. सहिष्णुताय हांव निरडुक्या कडल्यान शिकलों आनी दयाळपण हांव दयामाया नाशिल्ल्या कडसून शिकलों. पूण सांगपाचें म्हणल्यार हांव तांतल्या कोणाचोच उपकारी न्हय.

❋ आपल्या वाद्याचो हटवादी मनीस आसता तो सामको कानफुटको वक्तो आसता. दुस्वासी मनशालें मौन हें गरजे भायर बोवाळ घालपी आसता.

❋ तुका जें कितें जाणा जावन घेवपाचें आसता तें तूं पुरायेन समजून घेता तेन्नाच खरें म्हणल्यार तूं स्वताक उक्तावपाच्या पयल्या पांवड्या कडेन पावता.

❋ अतिताय म्हणल्यार आपणा मदली तीखधार होगडावन बशिल्लें सत्य.

❋ फकत उजवाडाची खराय तूं पळयता आनी फकत आवाजाची खोलायच तूं आयकता. तशें जाल्यार खरेपणी तूं कांयच पळयना आनी कांयच आयकना.

❋ वास्तविकताय म्हणल्यार दोशीं कुडके जावंक नाशिल्लें सत्य.

❋ तुवें हांसप आनी निर्दयी जावप, ह्यो दोन गजाली एकाच वेळार जावंक शकनात.

❋ जाचे लागीं कसलीच राजवटकी ना तो राजा आनी जाका भीक कशी मागची हें कळना तो गरीब मनीस हें म्हाका म्हज्या काळजाचे गोंडे कशे सामके लागींचे दिसतात.

❋ सोब नाशिल्ल्या जैता परस, भिडेस्तपणाक लागून आयिल्लें अपेस कितलेशेंच व्हड व्हडविकेचें चड भावनेनूच तुवें ती खणूंक जाय.

❋ धतरिक तूं खंयूय खण, ती गिरेस्तकायेनच भरिल्ली मेळटली. पूण

एक, एका शेतकामत्याचें भावनेनूच ती खणूंक जाय.

* वीस शिकारी कुत्र्यांक सांगाता घेवन, वीस घोडेस्वार आपणा फाटल्यान लागिल्ले पळोवन एका कोल्यान म्हणलें, दुबाव ना. ते म्हाका मारतलेच. पूण ते कितले भिकाड्डे आनी मूर्ख आसात पळय. दुबाव ना. वीस गाढवांचेर स्वार जावन वीस कोले आनी तांच्या सांगाता वीस लांडगे घेवन एक मनशा फाटल्यान लागून ताका मारपा परस हें वेगळें न्हय.

* आमी केल्ल्या कायद्यांक आमगेलें मन पाळो दिता. पण आमच्यांतली आत्मशक्त मात तांचे मुखार मान बागयना.

* हांव एक प्रवासी आनी हांव एक तारूं ताणपी. हांव म्हज्या आत्म्याच्या संवसारांत दर दिसा नवीं नवीं गांवां सोदून काडटां.

* एके अस्तुरेन खडपसूक जावन म्हणलें "ना, ना! तें एक सत्या खातीर जाल्लेंच झूज आशिल्लें. म्हज्या पुतान ते खातीर प्राण ओंपला."

* हांवें जिविताक म्हणलें, 'मर्ण उलयता तें म्हाका आयकूंक जाय." जिवितान आपणालो आवाज इल्लो वाडयलो आनी म्हणलें, "आतां आयक तागेलो ताळो."

* जेन्ना तूं जिवितांतलीं सगळीं रहस्यां सुटावीं करून उडयता तेन्ना तुका, आतां मरण येवचें अशें दिसता. कारण जिवितांतलें तेंच आनीक एक व्हडलें रहस्य.

* जल्म आनी मरण म्हणल्यार शौर्याच्यो सगळ्यांत वयल्या पांवड्या वयल्यो अभिव्यक्त्यो.

* म्हज्या इश्टा! आमी जिवीतभर एकामेकांक परकीच जावन उरतले- खासा आमगेल्या आत्म्यां खातीर आनी एक दुसऱ्या खातीरय. मात, हें सगळें तूं ज्या दिसा मेकळेपणीं उलयतलो आनी हांव ध्यान-मन लावन आयकतलों तेन्ना मेरेन.

- तुजो स्वर हो हांव म्हजोच स्वर समजतलों तेन्ना मेरेन

- आनी जेन्ना हांव तुजे सामकार उबो रावतलों आनी एका हारशा मुखार उबो आसां अशें म्हाका दिसतलें तेन्ना मेरेन.

* ते म्हाका सांगतात, 'जेन्ना तूं तुका वळखूंक लागतलो तेन्नाच तुका सगळें संवसाररुप होलमतलें.'

पूण म्हाका दिसता- ज्या दिसा संवसार म्हणल्यार कितें तें म्हाका कळटलें त्याच दिसा म्हाका म्हजी वळख मेळटली.'

* एक मनीस म्हणल्यार दोग जाण. एक गुप्प काळखांत जागता आनी दुसरो भर उजवाडांत न्हिदता.

* कुडक्या कुडक्यांनी वांटून पडिल्लो हो संवसार सोडून दिवन एकसारकें गतीमान अशा अखंड विश्वांत जियेवंक पळयता तोच खरो सर्वसंगपरित्यागी- संन्याशी.

* एक व्हड विद्वान आनी एक कवी हाचे मदें एक पाचवेंचार चकचयाळ शेत-मळ पातळ्ळां. विद्वान जर तें हुपून वचत तर तो एक म्हान बुद्धीमंत जातलो. आनी कवी जर तें हुपून गेलो तर तो एका प्रेषिताचो जागो आडायतलो.

* काल हांवें कांय तत्वगिन्यानी आपणाल्यो तकल्यो घाल्लीं पाटलीं माथ्यार घेवन बाजारांत भोंवतना पळयले. ते व्हडाव्हडान आड्डताले, 'शाणेपण! शाणेपण विक्रेक आसा!'

गरीब बाबडे तत्वगिन्यानी. आपणाल्या काळजां-मनाचीं पोसवण करपा खातीर तांचेर ही पाळी आयल्या दिसता!

* एका झाडुवाल्याक एका तत्वगिन्यानीन म्हणलें, ''म्हाका तुजे चुरचुरे दिसतात. तुगेलें काम भोव कश्टांचें आनी हळशिकावणेंय.''

हाचेर त्या रस्तो झाडपी झाडुवाल्यान म्हणलें, ''देव बरें करूं सायब! पूण म्हाका एक सांगात, तुमी कसलें काम करतात?''

आनी तत्वगिन्यानीन ताचेर जाप दिवन सांगलें, 'हांव मनशाचें मन, तागेल्यो करण्यो आनी हावेस हांचो अभ्यास करतां.'

तें आयकत झाडुवालो आपणालें काम करीत रावलो आनी हांस-हांसत ताणें म्हणलें, ''म्हाका तुजेय चुरचुरे दिसतात.''

* जो सत्य गजाल आयकून घेता तो सत्य उलोवन दाखोवपा परस मातूय उणे तांकीचो नासता.

* कोणूय मनीस गरज आनी सूख-चैन हांचे मदलें अंतर स्पश्ट करूंक शकना. फकत सर्गदूतच तें करूंक शकतात. पूण हे दूत भोवच शाणे आनी कितेंच लावन घेवपी आसनात. अशें दिसता, हे सर्गदूत म्हणल्यार अंतरिक्षांतले आमगेले खोलायेचे विचार.

* आपणालें शिंवासन जाका फकिराच्या काळजांत मांडिल्लें आसा अशें दिसता तोच खरो राजकुंवर.

* तुजे कडेन जाता ताचे परस तूं चड दिता तें तुजें उदारपण आनी तुका गरज ते परस तूं जेन्ना उणे घेता तें तुजें व्हडपण.

* खरेपणीं तूं कोणाक कसलेंच देणें लागना. तूं जें रीण लागता तें समेस्त मनीसकुळयेक.

* भूतकाळांत जे आमचे वांगडा जियेले ते आजय बी आमचे वांगडा आसात, दुबाव ना, आमच्यांतलो कोणूच अनुपकारी यजमान जावंक सोदिना.

* जो व्हडे उमळशिकेन जियेता ताका लांबदीक पिराय फावो जाता.

* ते म्हाका सांगतात- "तुज्या हातांत आशिल्लें एक सुकणें म्हणल्यार रानांतल्या धा सुकण्या समान."

पूण हांव तांकां सांगता- "रानांत आशिल्लें एक सुकणें आनीक एक पांख म्हणल्यार तुमच्या हातांतल्या धा सुकण्यां परस कितलीशींच मोलादीक.

तुमकां रानांत सांपडिल्लें तें पांख म्हणल्यार एक जिवीत संघर्षच न्हय. हाचेय फुडें वचून म्हणचें तर खासा तेंच एक जिवीत.

* ह्या संवसारांत फकत दोनूच तत्वां आसात- एक म्हणल्यार सुंदराय आनी दुसरें सत्य. सुंदराय वसता प्रेमिकांच्या काळजांत. आनी सत्य थारिल्लें आसता भूंय कसतल्याच्या भुजांचेर.

व्हड सुंदरपण म्हाका आपणांत ओडून घेता. आनी ताचेय परस अतीसुंदराय म्हाका तिच्या प्रभावांतल्यान मुक्त करता.

सुंदरायेची बारकायेन निरखणी करून तिका पळयत रावप्याच्या

दोळ्यां परस तिचे खातीर आशेत रावप्याच्या काळजांत ती अदीक पर्जळीत रावन चकचकता.

✻ जो मनीस आपणालें मन म्हजे मुखार सामकें उक्तें करता ताची खऱ्यांनीच म्हाका तोखणाय दिसता. जो आपणालीं सपनां म्हजे मुखार उक्तायता ताका हांव नम करतां. पूण जो म्हजे खातीर इतलें सगळें करता ताचे मुखार हांव कित्याक काचवेतां आनी घडये लजेतांय बी तेंच म्हाका कळना.

✻ जांचो पोसो देण्या घेण्यांनी भरतालो तांकां राजाची सेवा करप व्हडविकेचें दिसतालें. आतां तांकां दीन दुबळ्यांची सेवा करप माना-सन्मानाचें दिसपाक लागलां.

✻ बरेचशे वेव्हार दक्ष मनीस, सपनाळ्या संवसारांत भोंवत रावप्यांच्या म्हालवजार आपणाली रोजी-रोटी मेळयतात हें सर्गदुतांक लेगीत खबर आसा.

✻ फकाणां हो एके तरेचो मुखवटो. तुज्यान जर तो पिंजूक जालो तर ताचे फाटल्यान एक तर सूज आयिल्ली बुदवंतकाय नाजाल्यार घुस्पल्ली चतुराय दिश्टी पडटली.

✻ समजिकाय म्हाका समजून घेवपाची तांक दिता आनी निसुकपण निशक्रीयपण. म्हाका दिसता, दोनूय तरा आपापलेपरीन सारक्योच आसतात.

जांचें काळीज गुपीत घुटांनी भरलां, त्योच व्यक्ती आमगेल्या काळजांतले घूट उघडापे करूंक शकतात.

✻ जो तुज्या दुख्खाचो न्हय पूण फकत सुखाचो वांटेकारी जावंक पळयता तो खात्रेन सर्गाच्या सात दवरट्यां मदली एकाची चावी शेणोवन बसता.

✻ हय, निर्वाण म्हणटात तें आसाच.

- तें भुकेल्ल्या मेंढरांक पाचव्या चार चर्वणा कडेन पावोवपांत आसा. तुगेल्या झेंमेतल्या भुरग्याक न्हिदोवपांत आसा. आनी तूं बरयता ते कवितेची निमणी ओळ बरोवपांत आसा.

* आमच्यो खुशालकायो आनी आमगेली दुख्खां आमच्या अणभवाक येवचे पयलींच आमी तांची निवड केल्ली आसता.

* दुख्ख जावप वा खेद भोगप म्हणल्यार दोन बागां मदली एक वणत.

* जेन्ना तूं खुशालकायेन भरून वता वा दुख्खांत बुडटा, तेन्ना संवसार तुजे खातीर ल्हान जायत वता.

* इत्साशक्त म्हणल्यार अर्द जिवीत आनी बेपर्वाय म्हणल्यार अर्द मर्ण.

* तुज्या आयच्या दुखेस्तपणा फाटली सामकी कोडू गजाल म्हळ्यार कार तुका जाल्ले खोशालकायेचो उगडास काडप.

* ते म्हाका सांगतात- 'तुवें ह्या संवसारांतलो सुखसंतोस आनी दुसऱ्या संवसारांतली शांतिकाय हांचे मदल्यान एकाची निवड करपाक जाय.'

आनी हांव तांकां म्हणटां- 'हांवें ह्या संवसारांतल्या आनंद-सुखाची गोडसाण चाखल्या आनी दुसऱ्या संवसारांतले शांतिकायेचोय लाव घेतला. हांव जाणां, म्हाकवीन फकत एकच कविता बरयल्या आनी तिची रचना खूबच सुंदर जमल्या आनी तिचो शब्द-नादय अप्रतीम सादला.

* श्रद्धा म्हणल्यार काळजाचे खोलायेंत जागो आडावन बशिल्लो एक ओयेसीस. थंय विचारांचें व्हडें व्हलयत कोणूच केन्नाच पावचो ना.

* तूं जेन्ना तुज्या जिवितांतले एके उंचायेर पावता तेन्ना तूं फकत इत्से खातीर इत्सा मनांत बाळगितलो. भूक लागता देखून तूं भुकेतलो आनी तुका ताने परसय व्हडलो तानसोर लागतलो.

* तुवें जर तुगेलीं गुपितां वाऱ्याक सांगलीं आनी ताणें तीं रुखावळी मेरेन पावयलीं जाल्यार वाऱ्याक तुज्यान दोश दिवंक जावचो ना.

* वसंत रुतूंत फुलिल्लीं फुलां म्हळ्यार शरद रुतूक पडिल्लीं सपनां. तांची तोखणाय देवदुतांचे प्रभात पुजे वेळार जाता.

✻ एका घाणयाऱ्या जंतून गुलाबाच्या फुलाक म्हणलें, "पळय! हांव कितल्या वेगान धांवतां तो. तुज्यान धांवपाक तर जायचना. ना म्हणल्यार आशिकुशीकूय सरूक जायना."

गुलाबान जाप दिली, 'म्हज्या वेगान धांवपी इश्टा! तूं आनीकय इल्लो बेगीबेगीन धांव!'

✻ मार्ग सोदीत वचपा संबंदांत सोंशा परस कांसवाक अदीक बरें कळटा

✻ ज्या प्राण्याक फाटीचो कणो नासता तांची फाट सामक्या दणकट खवळां कातीची आसता.

✻ जो खूब उलयता तो बुद्दीन सदांच उणो आसता. आनी एक वक्तो आनी वस्तूची पावणी करपी हांचे मदेंय व्हडलोसो फरक नासता.

✻ तुका तुज्या बापायचे व्हडविकेंचेर वा तुगेल्या बापोलयाचे गिरेस्तकायेच्या म्हालवजार जियेवंचे पडना हें तुवें तुजें भाग्य समजूंक जाय. आनी तेच बराबर, तुजे व्हडविकेंचेर वा तुजे गिरेस्तकायेच्या नाड्यार कोण जियेना हेंय तुवें तुजें व्हड भाग्य म्हणपाक जाय.

✻ जेन्ना सर्कशींतलो जादुगार आपणाल्या हातांतले बॉल जिखून घेवपाक चुकता तेन्ना तो म्हाका अदीक भावता.

✻ म्हजी नसाय करपी, खरें म्हणल्यार आजाणपणान म्हजी तोखणायच करपी आसता. खूब काळ तूं तुगेले आवयचे न्हिदेंतल्या सपनांत आशिल्लो; आनी जेन्ना ती जागी जाली तेन्ना तिणें तुका जल्म दिलो.

✻ वंश कुळाची मूळकणी तुजे आवयचे उर्बा उमळशिकेंत वसत आसता.

✻ म्हज्या आवय-बापायक एक भुरगें जाय आशिल्लें आनी हांव जल्माक आयलों, आनी म्हाकाय बी आवय आनी बापूय जाय आशिल्लीं. आतां म्हाका रात मेळ्ळी आनी समुद्रय गावलो.

✻ आमगेली कांय भुरगीं म्हणल्यार आमगेल्या इत्सांचें संतुळण आनी कांय भुरगीं आमगेल्या दुख्ख-दग्दांचें पाजण.

* जेन्ना रात पातळटा आनी काळोख जाता तेन्ना तूंय काळो-सावळो, एके रातोड भावनेनच न्हिदून पडटा. दिसा उजवाडा तूं उठ्ठा तेन्नाय तूं काळो सावळोच आसता; तेन्ना तूं दिसाक म्हणटा, 'हांव अजूनय काळो सावळोच कसो?'

दिसा आनी रातीं मुखार असलें संवंगीपण करप म्हणल्यार मूर्खपणच. तीं दोगांय तुका हांसतलीं.

* दंवा-धुंवटेंत बुडिल्लो पर्वत म्हणल्यार एक दोंगुल्ली न्हय, आनी पावसांत भिजपी ओक वृक्ष म्हणल्यार न्हंये धडे वयलें मोव कड्याचें झाड न्हय.

* पळयात हो एक व्हडलो विरोधाभास! सकयल्यांतलो सकयलो स्तर आनी उंचांतलो उंचलो स्तर, खरें म्हणल्यार ते एकामेकाक सामके लागींचे. मदेकातचो स्तर जमेक धरल्यार मात तो त्या दोगांय पासून पयस.

* जेन्ना हांव हारसो जावन तुजे मुखार उबो रावलों तेन्ना तुवें म्हज्यांत पळयलें आनी तुका तुजें रुप दिसलें. आनी तुवें म्हणलें, 'हांव तुजो मोग करतां'. पूण, खरें म्हणल्यार म्हज्यांत पळोवन तूं तुकाच थुळेतालो.

* जेन्ना तूं तुगेल्या शेजाऱ्या कडेन मोगामायेन चलता तेन्ना तो एक गूण कसो जायना, मोगाळपण म्हणटात तें सदांच उल्हासभरीत आसूंक जाय. ना जाल्यार तें बावत वता.

* तरणाटेपण आनी ते विशींची जाणविकाय ह्यो दोनूय गजाली तूं एका वेळार पळोवंक वा प्राप्त करूंक शकना.

तरणाटेपण म्हणटात तें आपणांतूच खूब व्यस्त आसता. तें समजपच कठीण.

आनी जाणविकाय? तीय जियेवपाक आपणाचोच सोद घेवपांत गुल्ल आसता.

घडये तुमी जनेला म्हऱ्यांत बसून भायल्यान येवपी वचपी लोकांक पळयतात आसतले. पळयतां पळयतां तुमकां दिसतलें, रस्त्याचे एके

दिकेक एक संन्याशीण चलत वता आनी दुसरे दिकेन एक वेश्या वत
अभावीपणान तुमच्या मनांत एक विचार येता 'ती एक कितली सभ्य आनी सुसंस्कृत. आनी ती दुसरी कितली पतीत'.

पूण तुवें तुजे दोळे धांपून भितरलो आवाज आयकूंक जाय. तुज्या काळजांत एके तरेचें फुतूफुतू जातलें. 'एकली म्हजो तिजे प्रार्थनेत सोद घेता आनी दुसरी म्हाका तिच्या दुखी-वेदनांत सोदीत आसता. आनी दोगांयच्याय अंतस्कर्णांत म्हजी सुवात सुगूर आसा.

✻ दर शंबर वर्सांनी एक फावट, लेबानच्या दोंगुल्ल्यां वयल्या उद्यानांत नाझारेथचो जेझू आनी ख्रिस्ती जेझू एकामेकांक भेट्टात. ते खूब खूब उलयतात. आनी दर एके खेपे, 'इश्टा, म्हाका खूब दुख्ख जाता, आमी केन्नाच, केन्नाच एकामेकालें मानून घेवपाचे नात' अशे ख्रिस्ती जेझूक सांगीत, नाझारेथचो जेझू उठून वता.

✻ जांचे कडेन धनदौलत, खावपा-जेवपाक भरपूर आसता तांकांच देव भरभरून दिता. व्हड मनशाक दोन काळजां आसतात, एक दुख्खान रडटा आनी दुसरें धिरिश्टायेन सगळें सांवरून घेता.

✻ जर कोणूय एक मनीस फटकिरी गजाल सांगता आनी तिका लागून तुजें वा दुसऱ्यो कोणाचेंय मन दुखना जाल्यार तुवें मनांत म्हणपाचें 'तागेलें सत्याचें भांडार सामकेंच सुपुल्लें आसतलें आनी ते खातीर संवसारांत मिरोवपाक ताका फटींच्यो गजालीय सांगच्यो पडटात'.

✻ दर एका धांपिल्ल्या दारा फाटल्यान, कोणाक खबर, कस-कसले अजापाचें घूट भरिल्ले आसत!

✻ प्रतिक्षा करप वा वाट पळोवप म्हणल्यार काळगतीचे खूर.

✻ तुज्या घराचे पुर्वेवसले वणटीक एक नवें जनेल बसोवन घेवप म्हणल्यार तुका एक नवें संकश्ट कशें दिसता?

✻ जाचे वांगडा तुवें हास्य-विनोद केल्लो ताका घडये तूं विसरून वचशी. पूण जाचे वांगडा तुवें दुकां गळयिल्लीं ताका तूं कसोच विसरचो ना.

मिठा मदें कितें तरी एक आगळी वेगळीच पवित्रताय आसा. तें आमच्या दोळ्यांतय आसा आनी समुद्रांतय आसा.

* परमशक्ती परमेश्वर आपणाले कुरपेवंत ताने खातीर आमकां सगळ्यांक पियेवन उडयतलो. दंवाचे थेंबे आनी दोळ्यांतलीं दुकांय बी तो पियेतलो.

* तूं तुज्या विशाल आत्मपिंडाचो एक कुस्कूट कुडको. तूं एक तोंड जाका भक्षण करपाक जाय अन्न आनी तानेल्ल्या ताळ्याक ओलो करपाक, जाका आपली अशी नदर ना अशा हातांत घेतिल्लो पेलो जाय.

जर तूं अहंकार, वंशकूळ आनी देश हांचीं बंदनां तोडून एक हातभर जरी ऊंच वचूंक शकशी, जाल्यार तुका तुज्यांतल्या देवस्वरुपाचो दिश्टावो जातलो.

* तुज्या जाग्यार जर हांव आशिल्लों जाल्यार समुद्राक आनी सुकतेक कसलेंच दुशण लावंचो नासलों.

* आमगेलें तारूं भेस बरें आसा आनी तारवाचो कॅप्टन तर सामको फिशाल. प्रस्न आसा तो तुज्या पोटाचो. तेंच इबाडलां.

तुजे कडेन जी वस्त आसा ताचे परस दुसरी एक वस्त तुका चड आवडटा आनी ती आपणाक मेळची अशी तुजी आस्त आसता. पूण ती तुका मेळूंक पावना.

* तूं जर मळबांतल्या एका कुपाचेर वचून बसलो तर तुका तुगेलो देश आनी दुसरो देश हांचे मदल्या शिमांचे आडे कळचे नात. तुगेलें शेत आनी दुसऱ्यालें शेत हांचे मदले शिमेचे नीस तुका दिसचे नात. पूण चुरचुऱ्यांची गजाल म्हणल्यार तूं कुपांचेर वचून बसूंक शकना.

* सात शेंकड्यां आदीं, सात धवे पारवे एका दोंगरा देंगणांतल्यान उडले आनी बर्फान दाटिल्ल्या दोंगराच्या तेमका वटयां गेले. तांचें उडान पळोवपी सात मनशां मदल्या एकल्यान म्हणलें, "त्या सातव्या पारव्याच्या पांखाचेर काळो दाग आसा."

आज त्या दोंगरा देगणांतले लोक जेन्ना त्या पारव्यांची खबर करतात

तेन्ना ते म्हणटात- 'हांगाच्यान सात काळे पारवे उडत त्या बर्फान धांपिल्ल्या दोंगरां वटयां गेल्ले.'

* शिंयाळ्यांतले पानझडीचे दीस आयले तेन्ना हांवें म्हगेलीं सगळीं दुख्खां म्हगेल्या पोरसांत फोंड खणून तातूंत पुरोवन उडयलीं. जेन्ना गिमाळ्या वसंत रुतूक पालव फुटलें आनी तो धर्तरि थंय आपणालो मोग उक्तावंक लागलो, तेन्ना हेर फुलां परस वेगळेच तरेचीं सोबीत सुंदर फुलां पोरसांत फुलूंक लागलीं.

म्हगेले शेजारी अप्रुपायेन तीं पळोवपाक आयलें. तांणी म्हाका म्हणलें, 'जेन्ना बिंयां रुजोवंक घालपाचे पानझडीचे दीस येतले, तेन्ना ह्या फुलांचीं बिंयां आमगेल्या पोरसांत रोवपाक आमकांय थोडीं दी.

* दुर्दैवाची गजाल म्हणल्यार म्हजो रितो हात हांव दुसऱ्यां मुखार पसरायता तेन्ना म्हाका कोणूच कांयच दिना. पूण हाचेय परस खेद-खंतीची गजाल म्हणल्यार म्हजो भरिल्लो हात दिवपाक मुखार करता तेन्ना तें घेवपाकूय कोण एक नासता.

* हांव अमरत्वाची आस्त बाळगून आसां. कारण थंय म्हज्यो बरोवंक नाशिल्ल्यो कविता आनी रंगोवंक नाशिल्लीं चित्रां म्हजे भेटेक येवपाचीं आसात.

* कला म्हणल्यार सैमा कडल्यान अनादि अनंता कडेन वचपाचो एक पांवडो.

* दंव चपक्यांत घेवन तातूंतल्यान एक म्हूर्त घडोवप म्हणल्यारच एक कलाकृती.

* रिकाम्या हातां परस जे हात कांट्यांचो जरी मुकूट घडयतात, ते कितलेशेच श्रेश्ठ.

* आमगेलीं परम पवित्र दुखां केन्नाच दोळ्यांतल्यान गळनात.

* दर एक मनीस, आजवेर जावन गेल्ल्या दर एका राजाचो आनी दर एक गुलामाचो दायजी-गोत्री.

* जर जेझूल्या पणज्याक, ताजे मदें कसली शक्त एकवटिल्ली आसतली हे पयलींच कळिल्लें तर तो खासा भयभीत अजापीत जावन

ाचचो नाशिल्लो?

* आमगेलो बंधुवर जेजू हागेलीं तीन व्हड अचर्या खंयच्याच ग्रंथांत ररयिल्लीं मेळनात. तांतलें एक म्हणल्यार तो तुजे म्हजे सारकोच एक नीस आशिल्लो. दुसरें अचर्य म्हणल्यार ताचे मदें बऱ्यांतलीं बरी वेनोदबुद्द आशिल्ली, आनी तिसरें म्हणल्यार तो स्वता परक्याल्या शेकातळाचो जीत आसूनय दुसऱ्यांक जिखून घेवपी जैताचो धनी आसलो.

* तुका खुर्सायला. पूण तुका खुर्सायला म्हज्या काळजाचेर. खुर्सावपाक तुज्या हातांक मारिल्ले खिळे म्हजें हड्डें फाळून म्हज्या काळजांत रिगल्यात.

फाल्यां घडये कोणूय परकी मनीस हे गोलगोथाचे वाटेन वतालो तेन्ना हे सुवातेर दोगां जाणांचें रगत वारवल्लें हें ताका कळचें ना. ताका तें एकल्याचेंच रगत कशें दिसतलें.

* तुमी पवित्र पर्वताची गजाल आयकल्याच आसतली. संववसारांतलो तो सगळ्यांत व्हड उंचायेचो पर्वत.

तूं जर केन्नाय ताच्या शिखरार पावलो तर तुज्या मनांत एकच इत्सा उदेवन येवंक जाय आनी ती म्हणल्यार तूं ह्या पर्वता वयल्यान खाला देंगणांत आनी थंयचे खोलायेंत वस्ती करून आशिल्ल्यां मदीं एकरूप जावन जियेतलो.

आनी तेच खातीर तर ह्या पर्वताक पवित्र पर्वत म्हणटात.

* दर एक विचार जो हांवें म्हजे अभिव्यक्तीचे बंदखणींत बंदी करून दवरला तो म्हाका म्हज्या कर्तुत्वा वरवीं मुक्त करपाचो आसा.

**जिब्रान सुक्तां**

- आमी सदांच उलोवपाचें स्वातंत्र्य जाय म्हणटात, बरोवपाचें स्वातंत्र्य जाय म्हणटात. पूण आमचे लागीं सांगपा सारकें कांयच नासता आनी छापपा सारकेंय कांय एक नासता.

- तत्वगिन्यानाचो हेतू म्हणल्यार दोन पयसुल्ल्या मुद्यांमदलीं लागींची वाट सोदून काडप.

- खंयचेय बांदावळींतलो घट्टांतलो घट्ट फातोर म्हणल्यार, सगळ्यांत मुळाक आसता तो बुन्यादीचो फातोर.

-जेन्ना हांवें म्हज्या दाराचेर 'तुगेल्यो सगळ्यो परंपरा भायर दवर आनी मागीर भितर सर' अशें बरयलें तेन्ना एकल्याकय म्हाका भेटपाचो वा दार उगडपाचो धीर जालो ना.

- जिविताचे कायदे लेगीत जिविताच्या कायद्यांक पाळो दितात.

- जो म्हजे विशीं तोखणायेचीं उतरां उलयता ताका जेन्ना हांव खोशी करिना तेन्ना तो भितरले भितर धुसफूसता आनी कागाळ्यांची भास करता. हांव मोन्यांनी सगळें सोंसून घेतां आनी लोक हांसतात, पूण तें ताका.

- जे देणें वा भैट तुमकां अपमानायता आनी जें देणें तुमचो मान वाडयता, तांचे मदें सदांच फरक करूंक शिकात.

- जो तुमच्या मता कडेन सहमत जाता ताचे परस जो मतभेद प्रगटायता तोच गरजे परस चड उलोवपी आसता.

- जो बरोवपी दुसऱ्याल्या पुस्तकांतलें घेवन आपणालेंच म्हूण मांडटा तो रीण काडून दुसऱ्याक उशणें दिवप्या सारको आसता.

# जिब्रानाच्यो दिश्टाव्या-काणयो

**1. भोंवडेकार**

तो म्हाका गांवच्या तिठ्यार मेळ्ळो. ताच्या आंगार तांबसो डगलो आनी हातांत एक दांडो आसलो. ताच्या मुखामळार खेद-खंतीची सया मारताली.

आमी एकामेकाक अभिवादन केलें, आनी हांवें म्हणलें. ''चल, म्हज्या घरा या. आज तूं आमगेलो सोयरो.''

आनी तो म्हजे वांगडा आयलो.

म्हगेली घरकान्न आनी भुरगीं दारांतच उबीं आसलीं. तांकां पळोवन तो मुमुरख्यांनीच हांसलो. तो आमगेर आयिल्ल्यान सगळ्यांकच भोव खोस जाली.

उपरांत आमी सगळीं वांगडाच जेवपाक बसलीं. तो आमचे मदें आशिल्ल्यान सगळींच खोशयेभरीत जाल्लीं. कारण ताच्या व्यक्तिमत्वांत एके तरेचें गंभीरपण तशेंच रहस्य दडून आशिल्ल्याचें जाणवतालें.

जेवणा उपरांत आमी सगळीं पल्ले भोंवतणी बसलीं. तेन्ना हांवें ताका ताचे भोंवडे विशीं कांय प्रस्न विचारले.

ते रातीं आनी दुसऱ्या दिसा, ताणें आपणाले भोंवडे विशींच्यो कितल्योच गजाली आमकां सांगल्यो. तसो तो सभावान भोव मेकळो-उदार आसलो. पुणून ताका जिवितांत खूबच कश्ट दगदग काडचे पडिल्ले. कितलेशेच कोडू अणभव ताका आयिल्ले. तागेल्यो खबरी म्हणल्यार ताच्या जिवितांतलीं वादळां आनी तुफानां.

तीन दिसां उपरांत ताणें आमचो निरोप घेतलो आनी तो गेलो. तेन्ना आमकां दिसलें, आमचे मदलोच कोण तरी एक, भायर बागेंत भोंवपाक गेला आनी अजून तो परतून भितर सरूंक ना.

**2. आंगवस्त्रां**

एक दीस सुंदराय आनी कुरुपाय हांचीं दर्याचे वेळेर भेट जाली. दोगांयनीय एकामेकाक म्हणलें, 'चल या, आमी दर्यांत न्हावुंया.'

दोगांयनीय आपणालीं आंगवस्त्रां काडलीं आनी तीं दर्यांत पेंवपाक लागलीं-

कांय वेळान कुरुपताय तडीर आयली आनी सुंदरायेचीं आंगवस्त्रां घालून थंयच्यान गेली.

जेन्ना सुंदराय दर्यांतल्यान वयर सरली आनी तिणें पळयलें तर थंय तिगेलीं आंगवस्त्रां नात. विंगळी रावप म्हणल्यार सामकीच लज कशी. कितें करतली? तिणें थंय आशिल्लीं कुरुपायेचीं आंगवस्त्रां घालून ती आपणाले वाटेन गेली.

संवसारांतले लोक हाका लागून सुंदरायेक कुरुपा आनी कुरुपायेक सुंदराय समजुपाची चूक करतात.

पूण कांय लोक अशे आसात जांकां सुंदरायेचें मुखामळ खबर आसा आनी ताका लागून तिच्या बदलिल्ल्या आंगवस्त्रांतय ते तिका वळखतात.

आनी अशेय कांय लोक आसात जे कुरुपायेक वळखतात. तांचे नदरेक, तिच्या आंगवस्त्रांक लागून खरें रूप कळपाचें उरलां.

**3. गरूड आनी भारद्वाज**

एका ऊंच दोंगराच्या माथ्या वयल्या तळपाचेर एक भारद्वाज पक्षी आनी गरूड हांची भेट जाली. भारद्वाजान म्हणलें, ''नमस्कार मानेस्ता!''

गरुडान ताचे वटयां किंकोत नदरेन पळयलें आनी ल्हव आवाजांत म्हणलें, ''नमस्कार'' तेन्ना भारद्वाजान म्हणलें, ''हांव अशे करतां, तुमी खुशाल आसात.''

गरुडान जाप केली- ''हय, हय, खुशाल आसां. पुणून, एक गजाल

तुका कळपाक जाय ती म्हणल्यार पक्षां मदलो हांव सम्राट आनी जेन्ना मेरेन हांव उलयना तेन्ना मेरेन खंयच्याय दुसऱ्या पक्षान म्हजे कडेन उलोवपाची धिटाय दाखोवंक फावना.''

भारद्वाजान म्हणलें, ''म्हज्या मतान, आमी दोगूय एकाच कुटुंबांतले प्राणी.''

गरुडान दोळे मोट्टे करून हिणसायिल्ले वरी ताचे वटेन पळयलें आनी म्हणलें, ''कोणा मुर्खान तुका आमी एकाच परिवारांतले म्हणून सांगलें?''

तेन्ना भारद्वाजान जाप दिली- 'सायबा तुमकां खबर आसूंक जाय, हांवय बी तुमचेवरीच उंच उंच उडूंक शकतां. हाचे भायर हांव म्हज्या म्होंवाळ गावपान, संवसारांतल्या हेर प्राण्यांक खुशालकाय दिवंक शकतां. तुमी कोणाचीच मनरिझवण करूंक शकनात; ना म्हणल्यार कोणाकय खुशालकायूय दिवंक शकनात.'

गरुडाक सामकी तिडक मारली. ताणें रागान म्हणलें, ''मनरिझवण आनी खुशालकाय, आरे अती शाण्यां! हांव म्हजे चोचींच्या एकाच धपक्यान तुका ना-नपयत करूंक शकतां. तूं कितें समजता? म्हज्या एका चपकुलाचो ना तूं.'

हीं उतरां आयकतकच भारद्वाज उडलो आनी ताचे फाटीर वचून बसलो. आनी आपणाले चोंचीन तागेलीं पांखां पिसडावंक लागलो. गरुड संतापान सामको पेटलो आनी ह्या धाकटुल्या पक्षाच्या चपक्यांतल्यान आपणाक सुटावो करूंक ताणें एकदम नेटान मळबांत झेप घेतली आनी तो वयर उडत रावलो तरिपूण ताच्यान आनीक कांयच करूंक जालें ना. हार खावन म्हणटात तसो तो परतून त्या तळपार येवन देंवलो. सामको लजेक पडिल्लो तो! ताचे नदरेन तो उणाख प्राणी अजूनय ताचे फाटीक दसून आशिल्लो. गरुड आपणाल्या पाड्या नशिबाक दोश दीत रावलो.

त्याच वेळार एक कांसय थंय पावली. गरुडाची ती आवतिकाय पळोवन तिका सामकें हांसपाक आयलें आनी हांसून हांसून तिचो सामको मुड्डो जालो.

गरुडान हिणसावणेचे नदरेन कांसये वटेन पळयलें आनी म्हणलें, "ए, धतरिचे फाटीर ल्हव ल्हव ओडत वचपी प्राण्या! तुवें अशें कितें पळयलां म्हूण तूं हांसता?"

कांसयेन म्हणलें, "हाँ... हाँ... ही हांसपाची गजाल न्हय जाल्यार आनीक कितें? तुका घोडो करून हो ल्हानसो पक्षी तुजेर स्वार जाला तो पळय."

हाचेर गरुडान तिका म्हणलें, "चल, चल वच, तूं तुज्या कामाक. हो भारद्वाज आमचोच भावबंद. ही ताचे आनी म्हजे मदली कुटुंबीक गजाल. तुका कित्याक लागता हें सगळें?"

**4. प्रेम गीत**

एका कवीन एक प्रेम गीत बरयलें. गीत भोवच सुंदर जाल्लें. ताणें ताच्यो कांय प्रती तयार केल्यो. आनी त्यो आपणाल्या कांय इश्टांक 'वळखिच्यांक' दादले तशेंच अस्तुऱ्यांक धाडून दिल्यो. एक प्रत ताणें जिवितांत फकत एकेच खेपे मेळिल्ले एके तरनाटे अस्तुरेकय पावयली. ती दोंगरा पयले कडच्या गांवांत रावताली.

एक दीस ते तरनाटे कडल्यान एक मनीस एक पत्र घेवन आयलो. पत्रांत तिणें बरयिल्लें- 'हांव तुमकां सामकें मनांत सावन सांगतां, तुमी जें प्रेमगीत बरयलां आनी जें म्हाका लेखून बरयलां ताणें म्हज्या काळजाचो सामको थाव घेतला. तुमी आतां बेगोबेग येवन म्हज्या आवय-बापायक मेळात. म्हणटकीच आमकां आमच्या लग्ना विशीं थारावंक मेळटलें.

ह्या पत्राक कवीन जाप धाडली- "हें फकत कवीच्या काळजांतल्यान प्रगट जाल्लें एक सैमावर्तें प्रेम-गीत आशिल्लें- संवसारांतल्या दर एका दादल्यालें दर एके अस्तुरे खातीर."

ते तरनाटे अस्तुरेन कवीक पर्थून जाप धाडली

-'आरे! उतरांचो खेळ मांडपी फटकिऱ्या! आयज थावन म्हज्या मर्णाच्या निमण्या खिणा मेरेन, सगळ्या कवी विशीं म्हज्या काळजांत सामकी उणाखपणाची भावना वसतली. आनी ती फकत तुका लागून!'

## 5. दुखां आनी हांसो

एका सांजे समयार नायल न्हंयचे देगेर एक येऊल (तरस) आनी एक मानगें हांची भेट जाली. तांणी एकामेकाक अभिवादन केलें.

येऊलान मानग्याक विचारलें, ''सांगात, कशें चल्लां?''

मानग्यान जाप दिली, 'परिस्थिती सामकी वायट. जेन्ना केन्नाय हांव दुख्खान आनी दुखीन, सोसूं नजो जावन रडटां तेन्ना सगळे जीवप्राणी म्हणूंक लागतात- ह्याँ, हीं तर मानग्याचीं दुकां. तांचीं हीं उतरां म्हज्या काळजाक कितलीं झोमतात तें हांव कशें सांगूं?

हें आयकून येऊलान म्हणलें, ''तूं फकत तुगेलें रडणें घेवन बसलां. म्हाका कितें भोगता तें तुका खबर ना. जेन्ना हांव सैमाची सुंदराय, ताचीं गुपितां आनी विविधताय पळोवन खुशालभरीत जाता आनी उजवाडट्या दिसा वरी हांसतां तेन्ना रानांतले लोक म्हणटात- 'हें पळयात, येऊल हांसता.''

(येऊल जेन्ना आवाज काडटा तेन्ना हांशिल्लेवरी दिसता)

## 6. जात्रेंतली गजाल

एका गांवांतले एके जात्रेक खेड्यांतली एक तरनाटी आयली. ती भोवच सुंदर दिसताली. तिच्या मुखामळाक मारताली गुलाबाची कांत आनी लिलीफुलांची सया. केंस सुर्यास्ताच्या रंगांत भिजिल्ले कशे दिसताले आनी ओंठार दीस झिळमिळटनाचो मुमुरखो हांसो.

अवजाळी तरनाट्यांनी तिका पळयली मात, ते तिजे आवंती भोंवती गणोवंक लागलें, कोण एक तिचे वांगडा नाचपाक सोदूंक लागलो. जाल्यार दुसरो एकलो तिच्या मानाक जेवण दिवपाक तयार जालो. ते सगळे तरनाटे तिच्या कपलाचे उमे घेवपाक सामके लालेवंक लागले. शेकीं ती जात्राच आशिल्ली न्हय?

पूण हें सगळें पळोवन ती तरनाटी सामकी काचाबूल जाली. ती एकदम कांचवेली. तरनाट्यांची वर्तणूक तिका सामकी वायट दिसली. कांय जाणांक लेखून तिणें बरीं-वायट उतरांय दिलीं. एका-दोगांक तिणें थापटायलेय. शेवटाक हें सगळें सोंसूंक जायना जाल्ल्यान ती

थंयच्यान काडून गेली.

घरा पर्थून वतना, वाटभर ती मनांत चिंततालीं. 'म्हाका सामकें नाका पुरो जालें. कितले असभ्य आनी रानवटी लोक हे! तांगेलें वागप-वर्तप सोंसपाचें न्हय.

ती जात्रा आनी तरनाटे हांचो परत परत विचार करीत ते तरनाटेन एक वर्स सारलें. ती नव्यान ते जात्रेक आयली. सुंदराय तीच. मुखामळार गुलाबाची कांत आनी लिलीफुलांची सया. त्याच सुर्यास्ताच्या रंगांत भिजिल्ले केंस आनी ओंठार दीस झिळमिळटनाचो मुमुरखो हांसो.

पूण, हे खेपे तरनाट्यांनी मात लेगीत नदर घुंवडावन तिचे कडेन पळयलें ना. सगळो दीस तिणें एकसुऱ्यांनीच सारलो. कोणेंच तिका जाप केली ना.

सांज जाली तशी तिणें घरची वाट धरली. चलतां चलतां ती आपले आपूणच बडबडटाली - नाका-पुरो जालें म्हाका. कितले असभ्य आनी रानवटी लोक हे-हांगेलें वागप-वर्तप सोंसपाचें न्हय!

**7. दोन राणयों**

शावाकीज नगरांत एक राजा आसलो. सगळे जाण ताचो मोग करताले. दादले तश्यो बायलो, जाण्टीं तशींच भुरगीं, इतलेंच न्हय रानवटी मोनजात लेगीत ताच्या मानाक तकली बागयताली.

पूण, सगळे लोक एक गजाल मात उलयताले. - तागेली घरकान्न, राणी ताचो मोग करिना. उरफाटी.

एक दीस, लागींच्याच नगरांतली राणी, शावाकीजचे राणयेक मेळपाक आयली. त्यो दोगीय एकामेका लागीं बसून खबरी करूंक लागल्यो. उलयतां उलयतां गजाली दोगांयल्याय घोवांचेर पावल्यो.

शावाकीजचे राणयेन उलोवपाचे भिर्कैत एकदम म्हणलें- "तुमच्या लग्नाक इतलीं वर्सां जालीं, तरिपूण तुमगेली सांगाती जीण कितलीच खुशलकायेन भरिल्ली आसा. तुमकां पळोवन म्हाका म्हजीच नसाय जाता. हांव म्हज्या घोवाचो दुस्वासच करतां. म्हाका ताचो मोग करीन दिसना. खरें म्हणल्यार म्हज्या जिवाक खूब दूख भोगता."

हें आयकून तिका मेळूंक आयिल्ले राणयेन दोळे दाटून तिचे कडेन पळयलें आनी म्हणलें, ''म्हजे इश्टिणी, खरें म्हणल्यार तूं तुज्या घोवाचो मोगच करता. कारण तुगेल्या प्रियाळा विशींचे तुगेले आंवडे सामके घटपाणेचे आसात. अस्तुरेचे जिणे खातीर ती एक व्हडांतली व्हड देण- उपवनांत वसंत रुतूचो भार कसो. खरें म्हणल्यार म्हज्या आनी म्हज्या घोवाचे तुवें चुरचुरे करूंक जाय. कित्याक जाणां? आमी दोगांय एकामेकांक मोन्यांनी सांवरून घेतात. अजाप म्हणल्यार तूं आनी तुजे सारके हेर लोक हाकाच सूख संतोस मानून चलतात.'

**8. जोगलावणें- वीज**

वादळी पावसाचे दीस आशिल्ले. एक ख्रिस्ती पाद्री इगर्जेंत बसून आशिल्लो. इतल्यांत एक बायल मनीस थंय आयली; ती धर्मान ख्रिस्ती नाशिल्ली. ती पाद्री म्हन्यांत गेली आनी तिणें म्हणलें. 'हांव ख्रिस्ती न्हय. म्हाका एक सांगात, नरकाच्या उज्यांतल्यान वाटावपाची म्हजे खातीर कितेंय मांडणी आसा?'

पाद्रीन तिचे वशीन पळयलें आनी म्हळें,

''ना... ना... सुटका फकत जांणी सुमुर्तीप्रमाण ख्रिस्तांवपण स्विकारलां तांकांच मेळटा.''

पाद्री हें सांगता थंयच आसा, इतल्यांत आकांताचो गडगडो मारलो आनी जोगलावणे सयत इगर्जेचेर वीज कोसळ्ळी आनी सगळें कितें उज्याचे भकीक पडलें. हें पळोवन गांवचे लोक धांव-धांवत थंय आयले. ते, ते बायलेक त्या आकातांतल्यान वाटावंक शकले. पूण पाद्रीबाबाक ते वाचोवंक शकले नात. तो उज्याच्या चपक्यांत सांपडलो आनी सोंपलो.

**9. बैरागी आनी रानांतली मोनजात**

एके पाचवेचार दोंगुल्लेचेर एक बैरागी रावतालो. तो निर्मळ मनाचो आनी मोगाळ काळजाचो आसलो. रानांतलीं मोनजात आनी मळबांत उडपी सुकणीं-सवणींय सांगाता सांगाता ताचे कडेन येतालीं आनी तो तांकां बऱ्यो देखदिण्यो गजाली सांगतालो. तांकां सगळ्यांक बैरागी

जें कितें सांगतालो तें खूब खूब आवडटालें. तीं सगळीं ताका रेवाडो घालून बसतालीं आनी रातीचो वेळ जालो तरी थंयच्यान वचपाक सोदी नासलीं. तेन्ना तो बैरागी खासा आपूण जावन तांकां सगळ्यांक आशिर्वाद दिवन 'आतां वचात' अशें म्हणीत मळब आनी रानां सुवादीन करतालो.

एक दीस सांजेच्या वगतार, बैरागी जेन्ना मोग म्हणल्यार कितें ते विशीं सांगतालो तेन्ना एका वागटान उठून ताका प्रस्न केलो, 'हय गा, तुमी आमकां मोगा विशीं जायतें कितें सांगतात. पूण एक सांगात तुमगेली मोगिका खंय आसा?'

बैराग्यान जाप दिली, 'म्हगेली कोण मोगिका ना!'

बैराग्याची जाप आयकून सगळीं सुकणीं सावदां सामकीं अजापीत जालीं आनी बोवाळ करूंक लागलीं. आपसांत तीं म्हणूंक लागलीं, 'वा! हो आमकां मोग आनी संवसारी जिविता विशीं कसलो उपदेश करूंक शकता? ते संबंदांत तो स्वता सामको सुको सडसडीत आसा.'

आनी तीं सगळीं ताची पर्वा करिनासतना ताका थंय एकलोच सोडून उठून गेलीं.

तो बैरागी मागीर सगळी रातभर आपणालें हड्डें बडयत हातरुणार उमथो पडून हिमट्या हिमट्यांनी रडत रावलो.

**10. प्रेषित आनी भुरगो**

एक दीस प्रेषित शारिहाक, एके बागेंत एक भुरगो मेळ्ळो. भुरगो धांव-धांवतच ताच्या म्हन्यांत आयलो आनी ताणें म्हणलें,

''नमस्कार, धनया!''

प्रेषितान प्रतिपाळ केलो, ''नमस्कार बाळका!'' आनी खीणभरया उपरांत ताणें त्या भुरग्याक प्रस्न केलो, ''तूं एकटोच हांगा कसो आयलो?''

प्रस्न आयकून भुरगो हांसलो आनी खोशयेन भरून ताणें सांगलें, ''म्हजी दाई आसा. तिच्या हातांतल्यान सुटून हांगा पावपाक म्हाका बरोच वेळ लागलो. ती समजल्या आसतली, लागींच खंय तरी झाडां-

झोंपाच्या आडसाक हांव लिपून रावलां. पूण पळयात, हांव हांगा रावलों,' हें सांगून ताणें परत प्रेषिता कडेन पळयलें आनी म्हणलें, 'तुमीय एकलेच आसात. तुमगेली दाई खंय आसा?''

प्रेषितान जाप दिली, ''हय, ती एक वेगळीच गजाल. खरें सांगपाचें म्हणल्यार, हांव तिका सोडून रावंकच शकना. आतांच हांव जेन्ना हे बागेंत आयलों तेन्ना हांवें पळयलें- ती म्हाका झाडां-झोंपाच्या आडसाक सोदीत आसा.''

हें आयकून भुरग्यान ताळयो वाजोवन किळंच मारीत म्हणलें, ''म्हणल्यार म्हजेवरी तुमीय शेणल्यात तर! शेणप म्हणल्यार खोशेची गजाल न्हय?'' आनी ताणें मुखार विचारलें, ''तुमचें नांव कितें?''

प्रेषितान जाप दिली, ''लोक म्हाका प्रेषिता म्हणटात. पूण एक सांग- तूं कोण?''

''हांव... हांव म्हणल्यार हांवच, म्हजेंच रुप'' भुरग्यान जाप दिली आनी म्हणलें, ''म्हगेली दाई म्हाका सोदीत आसा. हांव खंय पावलां तें तिका कांयच खबर ना!''

तेन्ना प्रेषितान मळबा कडेन पळयत म्हणलें, ''हांवय बी म्हगेले दाईपासून कांय वेळा खातीर सुटून आयलां. पूण ती म्हाका सोदून काडटलीच काडटली.''

त्याच वेळार, त्या भुरग्याचें नांव घेवन उलो मारपी, एके अस्तुरेचो आवाज आयकूंक आयलो. 'पळयात' भुरग्यान म्हणलें, ''हांवें सांगूंक नाशिल्लें, ती म्हाका कशी तरी सोदून काडटली म्हूण.''

आनी तेन्नाच एक दुसरो आवाज आयलो, ''शरीह तूं खंय आसा?''

तेन्ना प्रेषितान म्हणलें, ''म्हज्या बाळका, तिणें म्हाकाय सोदून काडलो.''

आनी मुखामळ वयर करीत शरिहान जाप दिली, ''हांव हांगा आसा!''

### 11. मोती

एके शिंपलेन आपणाल्या शेजारचे शिंपलेक म्हणलें, ''म्हज्या पोटांत

खूब खूब दुखता. थंय कितें तरी जडगुळो वस्त आसाशी  दिसता. म्हजो जीव सामको संकश्टांत घाला तिणें...

हें आयकून दुसरे शिंपलेन संतोसभरीत जावन म्हणलें, ''मळब आनी समुद्र हांचे हांव भोव भोव उपकार मानतां. सगळे पिडेंतल्यान म्हजी सुटका जाल्या. भायर-भितर आतां हांव सगळे तरेन स्वस्थ आनी बरी आसां.

त्याच वेळार थंयच्यान एक कुल्ली वताली. दोगांयल्योय खबरी आयकून आनी आतां आपूण स्वस्थ आनी बरी आसां म्हूण बडाय मारपी शिंपलेक तिणें म्हणलें, 'हां... हां, भायर भितर भलायकेन तूं दुबावा विरयत बरी आसत. पूण तुगेली शेजात्र जे पिडेन कश्टता, तें कितें तें तुका खबर आसा? तें अप्रूप आनी सोबीत अशें एक मोती!'

## 12. कूड आनी आत्मो

एक दादलो आनी एक अस्तुरी आपणाल्या घरांत जनेला सरीं बसून, भायर फुलिल्ल्या फळिल्ल्या वसंत रुतूची खोस अणभवतालीं. तीं एकामेकाक  सामकीं तेकून बशिल्लीं. अस्तुरी म्हणूंक लागली, ''हांव तुजो मोग करतां- तूं खूब रुपेस्त तर आसाच, पूण गिरेस्तय आसा. आनी तूं सदांच भोव सोबीत तरेन न्हेशिल्लो आसता.''

दादलो उलयलो ''हांवय तुजो खूब  मोग करतां. तूं म्हणल्यार एक सोबीत सुंदर कल्पना. तूं अशी एक सुक्षीम वस्त जी हातांच्या चपक्यांत येना. तूं म्हज्या सपनांत झंकारत रावपी म्होंवा-म्होंवाळ संगीत.''

पूण, हें आयकून ते अस्तुरेन आपणालें मुखामळ किंवाट्यान दुसरे वटयां घुंवडायलें आनी म्हणलें, ''आसूं, आसूं सायबा! हांव एक कल्पना न्हय. तुज्या सपनांत येत आनी वचत रावपी एक वस्त न्हय. हांव एक बायलमनीस.

म्हाका जाय, आपणाली घरकात्र आनी फुडाराक जल्माक येवपी तुज्या भुरग्याची आवय म्हूण तुवें म्हाका आपणायिल्ली.''

तीं दोगांय एकमेका पसून कुशीन सरलीं.  दादल्यान मनांत म्हणलें, ''परत एक फावट एक सपन काळखांत बुडलें.''

दुसऱ्या अर्दान अस्तुरेन म्हणलें, "जालें तें बरेंच जालें. म्हाका काळोख आनी सपन जावन पळोवपाक राविल्लो कसलो हो मनीस!"

**13. राजा**

सादिक राज्यांतले प्रजेन बंडाचो बावटो उबारीत, आपणाल्या राजाल्या राजवाड्याक रेवाडो घालो. राजा राजवाड्याचीं सोपणां देंवन सकला आयलो. ताच्या एका हातांत राजमुकूट आनी दुसऱ्या हातांत राजदंड आसलो.

राजा सकला देंवन आयिल्ल्यान सगळे वोग्गी जाले. तो सगळ्यां सामकार उबो रावलो आनी ताणें म्हणलें, 'इश्टांनो! आतां आमचे मदली राजा-प्रजा हो संबंद सोंपला. घेयात, हो राजमुकूट आनी राजदंड घेयात.

"आतां हांव तुमचे मदलो एक जावन रावतलों. हांव पयली मनीस आनी मागीर सगळें कितें. मनीस आशिल्ल्यान हांवय बी तुमचे वांगडा वावर करतलों, ताका लागून सगळ्यांचो फुडार आनीकय बरो जावंक शकतलो. शासन चलोवप्यांची गजाल आतां खंय उरल्या? चल, या, आमी सगळे मेळून आतां शेतांनी आनी द्राक्षांच्या मळ्यांनी काम-कश्ट करुंया. उपकार करून, म्हाका कामाक लागूंक एक शेत वा द्राक्ष-मळो दाखयात."

राजालीं हीं उतरां आयकून सगळे अजापीत जावन वोग्गी पडले. ज्या राजाच्या कारभाराचेर ते खोशी नाशिल्ले, तोच स्वता राजमुकूट आनी राजदंड घेवन तांचे मदें येवन वांटेकार जाल्लो.

सगळे उठून आपापले वाटेक लागले. राजाय एका मनशा सांगाता एका शेतांत वचूंक गेलो.

हें सगळें घडलें. पूण राज्याक शासकूच नाशिल्ल्यान सगळो कारभार थप्प जालो. असंतोसाचें वादळ परत घोंगेवंक लागलें. आळी गलयांनी लोकांनी परत बोवाळ घालपाक आरंभ केलो. "शासक ना जाल्यार कारभार चलूंक शकना. ते पासत आमकां कारभार चलोवपी जाय."

तेन्ना जाणटे तशेंच जुवान तरनाटे फुडें सरले आनी एका सुरांत

म्हणपाक लागले, ''राजाक आपोवया आनी परत शिंवासनार बसोवया.''

सगळे उठून राजा कडेन गेले. तो एका शेतांत वावर करतालो. लोकांनी ताका परतो आपोवन हाडलो. नव्यान ताका शिंवासनार बसयलो. राजमुकूट ताच्या मस्तकार चडयलो आनी राजदंड ताच्या हातांत सोंपयलो. लोकांनी म्हणलें, ''सगळे तांकी सयत आनी न्याय नितीन राज्य करात. 'राजान जाप दिली, 'हय, हांव पुराय तांकीन आनी न्यायनितीन राज्य करतलों. संवसार तशेंच सर्गांतल्या देवदेवतां कडेन हांव मागतां, तशें करपाक म्हाका फावो ती तांक आनी बळ दियात.''

ते उपरांत कांय दिसांनी कांय दादले बायलो एका वतनदाराच्या नश्ट्या कारभारा आड कागाळी घेवन राजा सरीं आयल्यो. तो तांकां बंद्या गुलामा परस वेगळीं समजनासलो.

राजान ताबडतोब त्या वतनदाराक आपोवन हाडलो आनी ताका सांगलें, ''परमेश्वराच्या दरबारांतले न्याय नितीचे तागडेर सगळ्या मनशांचें तोल-माप एकेच तरेन जाता. तुज्या शेतांनी आनी द्राक्ष-मळ्यांनी काम करप्यांची जीण म्हणल्यार कांयच न्हय जाल्ले भाशेन तूं तांकां वागयता. हे खातीर हांव तुका ह्या राज्याभायरो करपाचो हुकूम दितां. तुका सदां खातीर ह्या राज्या भायर वच्चें पडटलें.''

दुसऱ्या दिसा आनीक कांय लोक, दोंगरा पयलेकडचे एके सरदारणीच्या अत्याचारांची खबर घेवन राजा कडेन आयले. राजान रोखडीच तिका दरबारांत आपोवन हाडली. तिका राज्या भायरी करपाची ख्यास्त दीत राजान म्हणलें, ''आमचे अपेक्षे प्रमाण, जे आमगेलीं शेतां कसतात आनी आमगेल्या द्राक्ष-मळ्यांची उस्तवारी करतात तांकां सगळ्यांत चड मान फावता. खऱ्यांनीच ते व्हडविकेचे मनीस; कारण ते काम कश्ट करतात म्हणून आमकां जेवपा-खावपाक मेळटा आनी ते तयार करतात म्हणूनच सोरो मेळटा. हांतलें तुका कांय एक समजना. तूं ह्या राज्यांतल्यान तोंड घेवन चल.''

ते उपरांत कांय दादले-बायलो आयल्यो. तांणी सांगलें, ''धर्मगुरू देवमंदीर बांदपा खातीर तांकां व्हडव्हडले फातर उबारूंक आनी ते

राशीर दाळूंक लायता. आनी वावरा पासत दिसवडो दिवपा वेळार तोंडाक पानां पुसता. सगळ्यांक खबर आसा, भांगरा-रुप्याच्या नाण्यांनी तागेली तिजोरी भरून ओत्ता तरी तो कोणाक दमडी दिना. भाबड्या वावराड्यांचें फाट-पोट भुकेन एक जालां.

हें आयकना बराबर राजान रोखडोच धर्मगुरूक आपोवणो धाडलो. जेन्ना तो आयलो तेन्ना राजान म्हणलें, "तूं जो खुरीस काळजा सरीं हड्‌ड्याचेर सोबता तसो घालून वावुरता तो जिविताक जिवीत दिवपाचें प्रतीक. पूण तूं जिस्त हाचे उरफाटो जिवितांतलो जीवच ना करून उडयता. कोणाक कांय दिना. म्हणटकीच तुवें हें राज्य सोडून वचप होच एक उपाय. म्हजी आज्ञा तुका, तूं चल हांगाचो. परतून तोंड दाखोवं नाका."

अशे तरेन, एक म्हयनो मेरेन, बायलो तशे दादले ये-येवन राजा मुखार आपणाल्यो दुखदिण्यो काणयो सांगीत दुखां गळयत रावले. पुराय एक म्हयनो भर, दर दिसा, कोणा ना कोणातरी आडनितीन चलप्याक राजा राज्या भायरो करीत रावलो.

सादिकवासी सामके चकासूर जावन हें सगळें नियाळीत मनोमन खोशी जाले.

उपरांत एक दीस जाणटे-नेणटे तरनाटे आयले आनी राजवाड्याक परत रेवाडो घालो. राजाक तांकां मेळपाक येवचेंच पडलें. राजा परत एक फावट एका हातांत राजमुकूट आनी दुसऱ्या हातांत राजदंड घेवन लोकां सरीं आयलो. ताणें लोकांक प्रस्न केलो, "आतां तुमकां कितें जाय? ज्यो ज्यो वस्तू तुमी म्हाका दिल्ल्यो त्यो सगळ्यो हांव तुमकां परत्यो करपाक आयलां."

पूण लोकांनी व्हडा व्हडान म्हणलें, "ना-ना तुमी तर न्यायनितीक पाळो दिवपी राजा. विखाळ्या सर्पां पसून तुमी ह्या राज्याक मुक्त केलां. आज आमी सगळे तुमचे विशीं आमगेली कृतज्ञताय उक्तावपाक हांगा आयल्यात. हो राजमुकूट तुमच्याच मस्तकार सोबता आनी हो राजदंड तुमच्याच हातांत उरपांत ताची सोबाय आसा."

राजान म्हणलें, “हांव न्हय, खरे राजा तुमीच. जेन्ना तुमी म्हाका अयोग्य आनी निर्बळ समजताले तेन्ना खरें म्हणल्यार तुमीच निर्बळ आनी अयोग्य आशिल्ले. आज जर राज्य बरे तरेन चलता, ताचें फाटली खरी घटाय तुमीच. हांव म्हणल्यार तुमच्या सगळ्यांच्या भाव-भावनाचो प्रतीक-तिबो. म्हजें हांगा आसप हें फकत तुमच्याच वावराचें फळ. संवसारांत शासक नांवाची कसलीच वस्त ना. सत्ते खाला जे रावतात तेच खरे सत्ता चलोवपी- शासन चलोवपी आसतात.''

राजा मुकूट आनी राजदंड घेवन परतून आपणाल्या राजवाड्यांत भितर सरलो. जाणटे-नेणटे तरणाटे आपणाले वाटेन गेले. ते सगळे खुशाल जाल्ले. तांच्यांतलो दर एकलो समजतालो आपूण स्वताच एक राजा आनी आपणाल्या एका हातांत राजमुकूट आनी दुसऱ्या हातांत राजदंड आसा.

### 14. रेंवे वयली ओळ

एका मनशान दुसऱ्या मनशाक म्हणलें, ''ही एक पोरणी गजाल. एके फावटी समुद्राक खूब भरती आयिल्ली. हांवें म्हज्या हातांतले बडयेच्या तोंकान रेंवेचेर एक ओळ बरयिल्ली. ती वाचपा खातीर लोक आजय बी थंय थारतात. ती पुसून वचची न्हय हाचीय बी ते खूब जतनाय घेतात.''

दुसऱ्या मनशान म्हणलें, ''हांवेंय बी रेंवेर एक ओळ बरयिल्ली. पूण तेन्ना सुकतेचो वेळ आसलो. थोड्या वेळान समुद्राक भरती आयली आनी ल्हारांनी ती ओळ पुसून उडयली. आसूं, तूं म्हाका एक सांग, तुवें कितें बरयिल्लें?''

पयल्या मनशान सांगलें, ''हांवें बरयिल्लें, 'हांव म्हणल्यार तोच'. पूण तुवें कितें बरयिल्लें?''

दुसऱ्यान जाप दिली, ''हांवें बरयिल्लें - हांव म्हणल्यार ह्या म्हासागरांतलो एक थेंबो!''

### 15 तीन भेटो

एका काळार बुखार शारांत एक भोव उदार मनाचो राजकुंवर

रावतालो. तागेली प्रजा ताका जीव की प्राण करताली आनी ताका खूब मान दिताली.

त्याच काळांत थंय एक मनीस आसलो. तो सामको गरीब आसलो. तो एकसारको वीख ओंकिल्ले वरी राजकुंवराची निंदा नालस्ती करीत रावतालो.

राजकुंवराक हें सगळें खबर आसूनय तो वोग्गी रावतालो. पूण एक दीस ताणें हे संबंदांत बारीकसाणीन विचार केलो आनी थारायिल्ले प्रमाण, एके शिंयाळे रातीं, राजकुंवराचो एक मनीस त्या गरिबाच्या घरा कडेन आयलो. येतना ताणें एक पिठाची पिशवी, एक साबणाची पोटली आनी साकरेचो एक पुडो हाडिल्लो.

राजकुमाराल्या मनशान त्या गरिबाक म्हणलें, ''राजासायबान तुका ह्यो सगळ्यो वस्तू भेट म्हूण धाडल्यात. तूं तांचो उगडास काडटा न्हय?''

त्या मनशालें हड्डें गर्वान फुल्लें. कारण कितेंय आसूं, ताका दिसलें, राजकुंवरान ताका मान दिवपाकच ह्यो वस्तू धाडल्यात. तेच व्हडविकेचे गुर्मेंत तो धर्मगुरू कडेन गेलो आनी ताणें म्हणलें, ''पळयलें तुमी राजकुमार म्हजें बरेंपण जोडपाक सामको आशेला.''

हें आयकून धर्मगुरून जाप दिली, ''हें अती जालें तुजें तूं राजकुंवर कितलो चतूर पळय आनी तूं सामको अन्नाडी. राजकुंवर कसो खुणा-देखींनी दाखोवन दिता पळय. मात्सो समजिकायेन जाणा जावन घे. पीठ धाडलां तें तुका खावपाक-पोटाक. साबण धाडल्यात ते घाण मारपी तुगेली कूड निवळ करपाक आनी साकर तुजे कडवे जिबेक गोडसाण हाडपाक.''

त्या दिसाच्यान त्या मनशाक स्वताकच आपणाची लज दिसूंक लागली. राजकुंवरा विशींचो दुस्वास आनीकय खर जालो. आनी राजकुंवराले करणेचो धर्मगुरून जो अर्थ सांगलो ताका लागून तो ताचेर जळ्ळो-फडफडलो. पूण त्या दिसाच्यान मात तो सामको वोग्गी पडलो.

### 16. शांतीकाय आनी झूज

तीन कुत्रे वोत खायत खायत गजाली करीत वताले. पयल्या कुत्र्यान, अशें कितें एक सपनच पळयता ते भाशेन म्हणलें, ''खरें म्हणल्यार आमी ह्या श्वानयुगांत जल्माक आयले ही भोवच खोशयेची गजाल. खरेंच, विचार करात. कितल्या सोंपेपणान आमकां उदका वयल्यान, जमनी वयल्यान, इतलेंच न्हय तर मळबांतल्यान भोंवंक मेळटा पळयात. आमकां सगळे तरेचें सुखसमादान मेळचें देखून आमगेली नदर, कान आनी नाका मेरेन सगळी खोशी आमच्या वांट्याक येवंची म्हणून कितें कितें निर्माण जालां पळयात.''

तेन्ना दुसरो कुत्रो उलयलो, ''आरे बाबा, हें कांयच न्हय. आमी कलेचोय आस्वाद घेवपाक लागल्यात. चंद्रिमाक पळोवन आमी आतां आमगेल्या पुर्वजां परसूय अदीक नेटान भोंकूंक लागल्यात. जेन्ना आमी उदकांत आमगेलें पडबिंब पळयतात तेन्ना आमगेलें मुखामळ, आदले परस आमकां कितलें तरी सोबीत दिसता.''

हें आयकून तिसऱ्या कुत्र्यान उतर घालें, सगळ्यांत व्हड अचर्याची गजाल म्हणल्यार ह्या श्वानयुगांत एक थीर अशें सम-सारकें चिंतप आसा. आनी ह्याच वेळार ताणें पळयलें, सुण्याक धरपी तांचेच वटयां येतात.

तिगूय कुत्रे धांवत एके गल्लेंत भितर सरले. धांवतां धांवतां तिसऱ्या कुत्र्यान म्हणलें, ''जीव जाय जाल्यार बेगीबेगीन धांवात. नागर संस्कृताय आमचे फाटल्यान लागल्या.''

### 17. नर्तकी

एके खेपे बिरकशा राजाच्या दरबारांत आपणाले कलेचें दर्शन घडोवपाक, आपणाल्या संगिताची साथ दिवप्यांक घेवन एक नर्तकी आयली. तिका दरबारांत भितर आपयली. राजाच्या सामकार तिणें बांसरी, वीणा आनी एकतारीच्या तालाचेर आपणालें नृत्य करून दाखयलें.

तिणें अग्नी नृत्य, तरसाद नृत्य आनी त्रिशूळ नृत्य केले उपरांत नकेत्र

नृत्य करून दाखयलें. आनी निमाणें कडेन वाऱ्याचेर झेलत फुलां-नाच करून कार्यावळ सोंपयली.

ते उपरांत राजाच्या शिंवासना मुखार येवन तिणें राजाक प्रणाम केलो.

राजान तिका आपणा म्हऱ्यांत आपयली आनी म्हणलें, 'सोबीत सुंदर अस्तुरे! शिरवंत आनी ओडलायणे अपुरबाये! तुजे हे कलेचें मूळ कितें? कशे भाशेन तुवें ताल, लय आनी सुरांचेर हो ताबो मेळयलो?'

नर्तकेन राजाच्या सामकार बाग घेवन अभिवादन करीत ताका म्हणलें, ''हे बळगेवंत प्रजेमोगाच्या म्हाराजा, तुमच्या प्रस्नाची जाप म्हाका खबर ना. हांव इतलेंच जाणा तें म्हणल्यार, तत्वगिन्यानी मनशाचो आत्मो ताच्या मस्तकांत वास करता. कवीचो ताच्या काळजांत आसता. गायकाचो आत्मो ताच्या गळ्यांत वसता. पूण एके नर्तकेचो आत्मो तिच्या सर्वय आंगपांगांत राबितो करून आसता.''

**18. दोग देवदूत**

एके सांजेर शाराच्या प्रवेशदारा दोगां देवदुतांची भेट जाली. तांणी एकामेकांक नमस्कार केलो आनी ते उलोवंक लागले.

एका देवदुतान विचारलें, ''सध्याक तुजेर कसल्या कामाची जापसालदारकी आसा?''

दुसऱ्यान जाप दिली, ''म्हजी नेमणूक एका म्हापातकी मनशाची सेवा करपा खातीर जाल्या. ती त्या देगणा सकयल्या गांवांत रावता. म्हज्या भावा जाणा जा. हें एक खूब म्हत्वाचें अशें काम म्हज्या वांट्याक आयलां. हे खातीर म्हाका खूब खूब कश्ट काडचे पडटात.''

पयल्या देवदुतान म्हणलें, ''ह्यॅं, हें सामकेंच सादें सुदें काम. असल्या कितल्याशाच पातकी मनशां कडेन म्हजो संबंद आयला. कितलेच फावटी तांची सेवा करची पडल्या. पूण आतां म्हाका एका पुण्यवंताची सेवा करपाचें काम मेळ्ळां. हांगाच्यान थोड्याच अंतरार ताची खोंपटी आसा. खरेंच सांगतां भावा, हें काम भोवच कठीण आनी खूबच जतनायेचें.''

दुसरो देवदूत म्हणूंक लागलो, ''हूं! हो सगळो तुज्यांतलो अहंकार. एक सांग, एका म्हापातक्या परस एका पुण्यवंता कडेन काम करप कठीण जावूंच नजो!''

पयल्यान जाप दिली, ''इतली मिजास मारूं नाका. तूं म्हाका अहंकारी म्हणटा. हांवें तुका खरें तेंच सांगलां. म्हज्या मतान खरो अहंकारी तूंच.''

उलयतां उलयतां तांचे मदें लटापूट जावंक लागली. उतरां सुवातेर ते हातघायेचेर आयले.

ते झगडूंक लागले तेन्नाच थंय तांगेलो मुखेल देवदूत धांवलो. तांकां थातारीत ताणें म्हणलें, ''आरे, तुमी झगडटात कित्याक? शाराच्या प्रवेशदारार देवदुतांनी अशे तरेन झगडप म्हणल्यार लजेची गजाल. एक सांगात तुमी झगडटात कित्याक?

तेन्ना दोगूय एकाच बराबर उलोवंक लागले. एकलो आपूण म्हणटा तेंच खरें कशें आनी खरो मान आपणाकच कसो फावता तें सांगूंक लागलो.

मुखेल देवदुतान आपले आपूणच, मान हालयत मात्शें चिंतलें आनी म्हणलें, 'म्हज्या इश्टांनो, तुमच्या दोगां मदलो कोण तोखणायेक आनी शाबासकेक पात्र आसा तें आतांच हांव सांगूंक शकना. पूण तुमी दोगूय एकामेकांच्या कामांक नांवां दवरतात तें पळोवन हांव म्हज्या अधिकाराचो उपेग करून तुमकां हुकूम दितां- तुमी दोगूय आपापणाल्या कामाची अदलाबदल करात. चलात वचात. आपापलें काम खोशयेन आनी बरे भशेन करात.

हो हुकूम आयकून दोगूय जाण वतना परत परत सामके तिडकीन मुखेल देवदुताक फाटल्यान घुंवन पळयताले. ते मनांतल्या मनांत चिंतताले, एदो व्हडलो हो मुखेली. हें इतलेंच काम हाचें? हाका लागून आमगेलें जिवीत एकसारकें कश्टाचें जायत चल्लां.

आनी मुखेल देवदूत तो उबो रावन एकच येवजितालो. ''ह्या सेवेकारी देवदुतांचेर अदीक नदर दवरपाची आनी तांची अदीक जतनाय

घेवपाची चड गरज आसा.''

**19. पुतळो**

खूब पयलींची गजाल. एका दोंगर वाठारांत एक मनीस रावतालो. ताचे कडेन एक भोव आदल्या कलाकारान तयार केल्लो एक पुतळो आसलो. तो ताच्या फुडल्या दारा भायर उमथो पडून आशिल्लो. ताणें केन्नाच ताचे कडेन लक्षूच दिवंक नासलें.

एक दीस, शारांतलो एक मनीस ते वटेन वतालो. तो कलेचो जाणकार आशिल्लो. ताणें तो पुतळो पळयलो आनी सोमतेंच त्या घरधनयाक विचारलें, 'एक सांगात, हो पुतळो तुमी म्हाका विकतो दिवश्यात?'

घरधनी हांसत हांसत उलयलो, 'बाबा, हो असलो उपेग नाशिल्लो आनी धुल्ल खायत पडिल्लो फातोर गा कोण विकतो घेतलो?'

त्या मनशान म्हणलें 'तशें कित्याक म्हणटात? हो तुमी म्हाका दियात, हांव ताचे दुडू दितां.'

त्या दोंगरी मनशाक सामकें अजाप दिसलें आनी खोसय भोगली.

त्या शारांतल्या मनशान तो पुतळो एका हतयाचेर घालो आनी शारांत व्हेलो.

कांय दीस उलगले. एक दीस तो दोंगरी वाठारांतलो मनीस कसल्या तरी कामाक लागून शारांत पावलो. तो जेन्ना एका रस्त्या वयल्यान चलत वतालो तेन्ना ताका एका दुकाना मुखार व्हडली गर्दी जमिल्ली दिसली. एक मनीस थंय उबो रावन व्हडा व्हडान आड्डून म्हणटालो, 'येयात, संवसारांतलो एक अप्रूप आनी सोबीत-सुंदर पुतळो पळयात. एका म्हान कलाकारान निर्माण केल्ले कलेचो अप्रतीम नमुनो. प्रवेश फी फकत दोन रुपया.'

दोंगरी मनशान दोन रुपया दिले आनी पुतळो पळोवपाक भितर गेलो. पळय जाल्यार ताणें एका रुपयाक विकिल्लो तोच तो पुतळो!

**20. आदल-बदल**

एक दीस एका चंवाठ्यार एक गरीब कवी आनी एक मुर्खाची भेट

जाली. दोगूय एकामेकां कडेन उलोवंक लागले. तांच्या जिवितांत तांकां भोगतल्या तापत्रयांच्योच गजाली अदीक असल्यो.

इतल्यांत थंय एक सर्गांतलो देवदूत पावलो. ताणें त्या दोगांयच्याय खांदांचेर आपणाले दोनूय हात दवरले. आनी अजाप म्हणल्यार त्या दोगांय मनशां मदले गूण आनी अवगूण एकामेकांक आदल-बदल जाले.

मागीर दोगूय जाण आपापले वाटेन गेले. पूण विचित्र गजाल म्हणल्यार जेन्ना कवीन दोळे उक्ते करून पळयलें तेन्ना हातांत ताका सुके सडसडीत रेंवे बगर आनीक कांय दिसलें ना.

दुसरे वटेन मूर्ख मनशान आपणाले दोळे बंद केले तेन्ना ताका आपणाल्या काळजांत, मळबांत भोंवाडो मारपी कुपां बगर कांयच दिसलें ना.

## 21. मोग आनी दुस्वास

एके अस्तुरेन एका दादल्याक म्हणलें, ''हांव तुजेर मोग करतां.'' आनी दादल्यान म्हणलें, ''हांव तुज्या मोगाक पात्र थारचों होच म्हज्या काळजांतलो हावेस.''

अस्तुरेन म्हणलें, ''घडये तूं म्हजो मोग करिनासो दिसता.''

हें आयकून तो दादलो तिका एकसारको पळयत रावलो. पूण कांयच उलयलो ना.

तेन्ना ते अस्तुरेन आड्डून म्हणलें, ''हांव तुजो दुस्वास करतां.''

हें आयकून दादलो उलयलो, ''हांव तुज्या दुस्वासाक पात्र थारचों, होय म्हज्या काळजांतलोच हावेस.''

## 22. सपन

एका मनशाक एक सपन पडलें. जागो जाले उपरांत तो आपणाल्या ज्योतिशा सरीं गेलो आनी ताणें ताका सपनाचो अर्थ सांगपाची विनंती केली.

ज्योतिशान म्हणलें. ''हें पळय, तूं जर तुज्या जागेपणांतल्या सपना विशीं सांगशीत तर हांव तुका ताचो अर्थ सांगीन. पूण तुज्या सपना

विशीं उलोवपाची म्हाका तांक ना आनी तुज्याय तें कल्पने भायलें.''

**23. पिसो**

एका पिशां ओशपीतालाचे बागेंत एका तरणाट्याची आनी म्हजी भेट जाली. ताचो चेरो हळडुवसार, सुंदर आनी अजापीत भावनांनी उपाट कसो दिसतालो.

हांव ताचे कुशीकच बांकार वचून बसलों आनी ताका विचारलें, ''आरे, तूं हांगा कसो पावलो?''

ताणें अजापभरीत जावन म्हजे वशीन पळयलें आनी म्हणलें, ''तुजो हो प्रस्न विचित्रच. तरिपूण जाप दितां. म्हजो बापूय आनी बापोलयो म्हाका आपणा सारको करूंक पळयताले. म्हजे आवयक हांव तिगेल्या बापाय सारको जाल्लों जाय आशिल्लो. म्हजे भयणीक हांवें तिगेल्या तारवटी घोवाचो आदर्श चलयिल्लो जाय आशिल्लो आनी म्हजो भाव म्हाका ताचे सारको फिशाल खेळगडो करूंक चिंत्तालो. म्हजे शिक्षक म्हणल्यार तत्वगिन्यान, संगीत आनी तर्कशास्त्राचे अध्यापक- सगळे मेळून म्हाका एक हारसो कसो धरून, म्हज्यांत आपापणालें पडबिंब पळोवपाचो आटापिटो करताले. आनी तेच खातीर म्हाका हांगा येवचें पडलें. हांगा हांव साथसंगीत आसां. कांय न्हय जाल्यार म्हजें व्यक्तिमत्व हें म्हजेंच आसा.''

इतलें सांगून तो अकस्मात म्हजे वटयां घुंवलो आनी विचारलें, ''पूण एक सांग, तूं हांगा कसो पावलो? तुकाय बी तुजें शिक्षण आनी चिंतनांनी हांगा येवपाक उर्बा दिली?''

हांवें जाप दिली, ''ना, ना हांव बेश्टोच पळोवपाक म्हूण हांगा आयिल्लों.''

हाचेर त्या तरणाट्यान म्हणलें, 'हां, हां कळ्ळें म्हाका! तूं ह्या भोंवतणच्या दुर्गा भायल्या व्हडल्या पिशां ओशपीतलांत रावपी दिसता!

**24. बेबे**

दीस गरमेचे आसले. एका बेब्यान आपणाले सांगातिणीक म्हणलें, ''म्हाका दिसता, रातच्या वेळार आमी जीं हांगा आसतात ताका लागून

लागसारच्या घरांनी रावपी लोकांक मात्सो त्रास जाता जावंकच जाय.''

हें आयकून सांगातिणीन म्हणलें, ह्यँ, ते दीसभर जो बोवाळ घालतात तेन्ना आमकां त्रास जायना? हाचेर बेब्यान म्हणलें, ''तरिपूण, तुवें एक मानचेंच पडटलें. रातच्या वेळार आमगेलें गावप इल्लें अतीच जाता.''

हाचेर सांगातीण उलयली, ''आरे, तेय बी दीस भर नाका नाका जाल्ले उलयत बोवाळ घालीत आसतात.''

बेब्यान म्हणलें, ''त्या व्हडल्या बेब्याचेंच पळय. तो कर्कश आवाज काडीत सगळ्यांची न्हीद खळयत आसता ती?''

सांगातिणीन जाप दिली. ''पूण तूं त्या राजकारण्यांक, धर्मगुरूंक आनी विज्ञानिकांक पळय. ते आमचे लागसार येवन आड्डी-किंळची मारतात आनी बोबो मारीत सगळो सोंसपा भायलो गजगज करतात ते...''

तेन्ना बेब्यान म्हणलें, ''कितेंय जावं. आमी ह्या मनशां परस अदीक सभ्य जावया आनी रातीं वेळार सामकी शांतताय राखुंया.''

सांगातिणीन म्हणलें, ''बरें आसा. मान्य म्हाका तुजें म्हणणें. पळोवया, तुज्या मनाच्या ह्या उदारपणाचो कितें परिणाम जाता तो?''

ते रातीं सगळे बेबे वोग्गी रावले. दुसरी रात आनी तिसरी रात बी तशीच उलगली.

पूण एक अजापाची गजाल घडली. थंय लागसारकच एक बडबडी अस्तुरी रावताली. ती तिसऱ्या दिसा सकाळीं, नाश्तो करून घोवा वांगडा बशिल्ली तिणें आड्डून म्हणलें, ''फाटल्यो तीन रातीं म्हाका न्हीद ना. म्हाका जेन्ना मेरेन बेब्यांचो आवाज आयकूंक येतालो, तेन्ना मेरेन बरी न्हीद पडटाली. कितें तरी नाका जाल्लेंच घडलां. तीन राती जाल्यो बेब्यांचो आवाज बंद जाला. सारकी न्हीद पडनाशिल्ल्यान म्हाका पिशें लागपा कडेन पावलां.''

बेब्यान हें आयकलें आनी आपणाले सांगातिणी कडेन पळयत दोळे मोडीत म्हणलें, 'हय आमीय बी मोनेपणाक लागून पिशांतूरशे जावपाक लागल्यात. सांग, खरें न्हय?

तेन्ना ताची सांगातीण उलयली, 'खऱ्यांनीच राती वेळारची किण्ण स्तब्धताय आमच्यांनीय आतां सोंसपाक जायना कशी जाल्या. म्हाका दिसता- जांकां आपणाली स्तब्धताय आमगेल्या आवाजा बगर सारकी अर्थपुराय कशी दिसना तांच्या सुखसमादाना खातीर आमी आमगेलें गावप बंद करूंक फावना.

ते रातीं कडेन चंद्रिमाक त्या बेब्यांचो आवाज आनी नकेत्राक लेगीत तांगेलें संगीत गरजे भायरें कशें दिसूंक ना.

## 25. कायदे आनी ते लागू करप

गजाल खूब पोरणी. एक भोव व्हडविकेचो आनी गिन्यानवंत असो राजा आसलो. ताका दिसलें, आपणाले प्रजे खातीर कांय नेम कायदे आसपाची गरज आसा. ताणें वेगवेगळ्या लोकसमाजांतले एक हजार विद्वान मनीस वेंचून काडले. आनी तांकां आपणाल्या राजपाटणांत आपोवन तांचे कडेन प्रजे खातीर नेम-कायदे तयार करपाचें काम सोंपयलें.

पूण जेन्ना त्या विद्वानांनी एक हजार कायदे तयार करून राजा मुखार दवरले तेन्ना ते वाचून ताचें काळीज सामकें रडलें. आपणाल्या राज्यांत हजार तरांचे गुन्यांव घडत आसतात हाची ताका कल्पनाच नासली. ताणें आपणाल्या कार्यदर्शीक आपयलो आनी हांस-हांसत आपणें सांगिल्लें कांय कायदे बरोवन काडूंक लायले. ते फकत सात कायदे आशिल्ले.

तें पळोवन ते हजार विद्वान सामके तिडकले आनी थंयच्यान उठून गेले. वतना तांणी तयार केल्ले ते कायदेय घेवन गेले आनी मागीर दर एक लोकसमाज तांच्या-तांच्या विद्वानांनी तयार केल्ल्या कायद्यां प्रमाण चलूंक लागलो.

हाचो परिणाम म्हणल्यार आजूय बी थंय हजारांनी कायदे चलतात. त्या व्हड देशांत हजारांनी बंदखणी आसात. कायदो मोडपी हजारांनी दादले-बायलांनी त्यो भरून पडल्यात.

दुबावा विरयत त्या व्हड राज्यांतले जे लोक आसात ती सगळी

एक हजार कायदे-नेम घडोवप्यांचीच संतत. तांच्यांत एकलो राजाच गिन्यानवंत आसलो.

**26. आज आनी फाल्यां**

हांवें म्हज्या इश्टाक म्हणलें, ''पळय ती त्या मनशाचेर कशे तरेन घालून घेता ती- काल ती तेच तरेन घालून घेत म्हज्या गोपांत रिगिल्ली.''

आनी म्हज्या इश्टान म्हणलें, ''फाल्यां ती हेच तरेन म्हजेरूय घालून घेतली.''

हांवें म्हणलें, ''पळय, पळय- कशे तरेन ती ताका सामकी घश्टून बसल्या ती.''

आनी इश्टान जाप दिली, ''तूं पळयतलोच. फाल्यां ती तशीच म्हज्या वांगडाय आसतली.''

हांवें म्हणलें, ''पळय न्हय, आज ती कशे तरेन ताच्या हातांतल्यान मदिरा-पान करता ती. कालच तिणे म्हजो पेलो आपणाल्या ओंठांक लायिल्लो.''

ताणें म्हणलें, 'फाल्यां ते सुवातेर म्हजो पेलो आसतलो.'

तेन्ना हांव उलयलों, ''पळय, कशे तरेन ती मोगाचे नदरेन भरून त्या मनशाक पळयता ती, आनी तिचे नदरेंत मोगाची झर कशी पाझरता ती पळय- सामकी समर्पीत भावना. हेच तरेन काल ती म्हजेय कडेन वागली.''

आनी म्हज्या इश्टान म्हणलें, ''फाल्यां ती हेच नदरेन म्हाकाय पळयतली.''

हांवें सांगलें, ''आयक, ती आपणाल्या मोगाच्याक कशे तरेन मोगा-गितां गावन दाखयता तीं आयक. काल हींच गितां तिणें म्हाकाय आयकयिल्लीं.''

आनी म्हज्या इश्टान जाप दिली, ''फाल्यां हींच गितां ती म्हाका म्हणून दाखयतली.''

हांवें म्हणलें, ''पळय, पळय तरी- ती ताका कशी वेंग मारता ती.

काल तिणे अशीच वेंग म्हाका मारिल्ली.''

म्हज्या इश्टान म्हणलें- ''कसली विचित्र बायल मनीस ही!''

पुणून ताणे जाप दिली, 'ती जिविता सारकी सगळ्यांची जावन जियेता. मर्णासारकी ती सगळ्यांचेर वागरें घालून रावता. आनी अनंत काळावरी ती सगळ्यांक आपणाल्या गर्भांत आसपावन घेता.'

## 27. तत्वगिन्यानी आनी मोची

एक तत्वगिन्यानी आपणाले पिंजिल्ले मोचे घेवन एका मोचीच्या दुकानार गेलो. ताणें मोचीक म्हणलें, ''हे म्हाका मात्शे सारकें करून दी.''

मोचीन सांगलें, ''तुर्ताक हांव दुसरे एकल्याले मोचे सारके करतां. आनी तुमगेले मोचे सारके करूंक घेवचे पयलीं; म्हाका आनीकय कांय जाणालीं पायतणां सारकीं करपाचीं आसात. तुमी तुमगेले मोचे हांगा दवरून वचात. आनी गरज आसल्यार, गरजे पुरतीं हीं हांगाचीं दुसरीं पायतणां तुमी वापरात. फाल्यां येवन तुमगेले मोचे व्हरात.''

तत्वगिन्यानी हें आयकून तांबडो गूंज जालो. ताणें म्हणलें, ''हांव म्हजींच पायतणां वापरतां. दुसऱ्यांलीं न्हय.''

हें आयकून मोचीन म्हणलें, ''अशे? बरें आसा. म्हणल्यार तुमी खऱ्यांनीच तत्वगिन्यांनी- जो दुसऱ्यांलीं पायतणां आपणाल्या पांयांक घालूंक शकना. हें पळयात, ह्याच रस्त्या कुशीक मुखार दुसऱ्या एका मोचीचें दुकान आसा. ताका तत्वगिन्यानींच्या सभावाची अदीक बरी जाण आसा. तुमी ताचे कडल्यान तुमगेले मोचे सारके करून घेयात.''

## 28. पूल बांदपी

एण्टीओक शाराच्या सामक्या मदल्यान आसी न्हंय व्हांवत वचून समुद्राक मेळटाली. शाराच्या दोनूय वांट्यांक जोडपाक हे न्हंयचेर एक पूल बांदून जाल्लो. एण्टीओकच्या खेंचरांच्या फाटींचेर व्हडव्हडले फातर घालून ते ह्या पुला खातीर हाडिल्ले.

जेन्ना पूल बांदून तयार जालो तेन्ना थंय एका खांब्याचेर ग्रीक आनी आर्मेनियन भाशेंतल्या अक्षरांनी बरयिल्लें- ''सम्राट एण्टीओक्स

(दुसरो) हांणी हो पूल बांदला.''

सगळे लोक, त्या पुला वयल्यान सोबीत सुंदर आसी न्हंयचे आलतडी-पलतडी वचूं-येवंक लागले.

एके सांजे, एक तरणाटो, जाका लोक अर्दकुटो कशे समजताले तो येवन त्या खांब्या कडेन उबो रावलो, जाचेर वयर दिल्ले प्रमाण अक्षरां बरयिल्लीं. त्या तरणाट्यान कोळसो घेवन तीं अक्षरां भासून उडयलीं आनी वयर बरयलें, ''ह्या पुला खातीर दोंगरांतल्यान खेंचराचेर घालून फातर हाडिल्ले. ह्या पुला वयल्यान तुमी वतात-येतात तेन्ना, तुमी त्या खेंचरांचे फाटीचेर बसून येता-वतात. तींच खऱ्यांनी हो पूल बांदपी.''

लोकांनी जेन्ना त्या तरणाट्यान बरयिल्लीं उतरां वाचलीं तेन्ना कांय जाण हासूंक लागले. कांय जाण अजापीत जाले. जाल्यार कांय जाण म्हणूंक लागले, ''हय, हय आमकां खबर आसा. त्या पिसांट भुरग्यांचेंच काम हें.''

पुणून एका खेंचरान हांस-हांसत दुसऱ्या खेंचराक म्हणलें, ''कितें, तुका याद जायना? आमी आमचे फाटी वयल्यानच हे सगळे फातर हांगा हाडिल्ले ते? पुणून आजमेरेन सगळे जाण हो पूल सम्राट एण्टीओक्स हांणी बांदला अशेंच म्हणीत आसा.''

## 29. झादचें झुजामळ

झादच्या रस्त्या वयल्यान चलत वतल्या एका वाटसुराची थंय लागसाराच रावपी एका मनशा कडेन भेट जाली. वाटसुरान मुखार आशिल्ल्या लांबरूंद मळा कडेन बोट दाखयत ताका विचारलें, 'सम्राट आलमान आपणाल्या दुस्मानाचेर जैत जोडिल्लें तें ह्याच झुजामळार न्हय?

त्या मनशान जाप दीत म्हणलें, ''हे सुवातेर केन्नाच कसलेंच झूज जावंक ना. ह्या जाग्यार खंयच्या तरी काळार झाद नांवाचें एक व्हडलें शार आशिल्लें. पूण ताचो लासून गोबोर जालो. हें पळयात, तेच खातीर ही भोवच पिकाळ अशी भूंय जाल्या.''

तो वाटसूर आनी तो मनीस आपापले वाटेन गेले. तो वाटसूर

असो-तसो एक अर्द मैलाची वाट चलून वता म्हणसर ताका आनीक एक मनीस मेळ्ळो. वाटसुरान त्या व्हड मळा कडेन बोट दाखयत त्या मनशाक विचारलें, "खंयच्या तरी काळार झाद नांवाचें शार आशिल्लें तें हेंच मळ मूं?"

त्या मनशान जाप दिली, "हे सुवातेर केन्नाच कसलेंच शार नाशिल्लें, हय. पूण केन्ना तरी हांगा एक मठ मात आशिल्लो. पूण, दक्षिणेकडच्या लोकांनी येवन तो नानपश्यात करून उडयलो."

थोड्या वेळा उपरांत त्या वाटसुराक झादच्या त्याच रस्त्याचेर तिसरो एक मनीस मेळ्ळो. वाटसुरान त्या मळा वटां हात करीत त्या मनशाक विचारलें, "ह्या मळाचेर केन्ना तरी एक मठ आशिल्लो हें खरें?"

त्या मनशान जाप दिली, "हांगा लागसाराक कसलोच मठ बी कांयच नाशिल्लो. पूण आमगेले जाण्टेले सांगताले, हे सुवातेर एक व्हड उल्का मात कोसळून पडिल्ली."

हें सगळें आयकून तो वाटसूर अजापीत जालो आनी फुडली वाट चलूंक लागलो. इतल्यांत ताची एक जाणटेल्या लागीं भेट जाली. ताका नमस्कार करीत वाटसुरान विचारलें, "आगा जाणट्या बाबा, ह्या रस्त्यार म्हाका हांगाचेच रावपी तीग जाण भेटले. हांवें दर एकल्या कडेन ह्या विशाळ मळा विशीं वासपूस केली. दर एकल्यान दुसऱ्यान सांगलां तें सारकें न्हय म्हणपाचें सांगलें. आनी एकल्यान सांगिल्ली ते बदला दुसरेच तरेची म्हायती दिली."

हें आयकून त्या जाणटेल्यान आपणाली मान नीट करीत म्हणलें, "म्हज्या इश्टा, दर एकल्यान तुका सांगलां तें खरेंच सांगलां. पूण जें कितें सांगलां ताचेर रासवळ आनी व्यापक नदरेन विचार करून सत्य कितें तें सोदून काडपी अशे थोडेच आसतात."

### 30. भांगराचो पटो

एक दीस कोलम्सच्या सालामीज नगराचे दिकेन वचपी मार्गार दोग जाण एकामेकांक मेळ्ळे. भर दनपारच्या वेळार ते खूब रूंद आशिल्ले एके न्हंयचे देगेर पावले. पूण ती बलांडून वचपाक तिचेर पूल बी कांय

एक नासलो. ते खातीर एक तर न्हंय पेंवन वचप वा दुसऱ्या खंयच्या तरी मार्गान वचपा बाजत आनीक उपाय नासलो.

तांणी आपसांत उलोवणें केलें आनी म्हणलें, "ही कितें व्हडलीशी न्हंय न्हय." आनी दोगांयनीय उदकांत उडी मारली आनी ते पेंवपाक लागले.

त्या दोगां मदलो एकलो, जाका न्हंयचो प्रवाह कसो कितें हें खबर आशिल्लें तो मदेकात पावना फुडें एकदम काचाबूल जालो आनी उदकाच्या नेटा बराबर खंयचे खंय व्हांवत वचपाक लागलो. जो दुसरो मनीस आसलो, जाका पेंवप व्हडलेशें खबरच नासलें तो न्हंय बलांडून दुसरे वटयां पावलो. पूण ताणें आपणालो सांगाती बुचकळत हातपांय मारता तें पळयलें आनी ताणें उदकांत परतून उडी मारून त्या सांगात्याक सायसंगीत देगेर हाडलो. तेन्ना त्या बुचकळपी मनशान आपणाल्या सांगात्याक म्हणलें, "तूं तर आपणाक पेंवपाक येना म्हणटालो, अशें आसतना मोठे फिशालकायेन तुवें ही पलतड कशी मारली?"

ताणें जाप दिली- "म्हज्या इश्टा, तुवें म्हजो हो कमराचो पटो पळयला? तो भांगराच्या म्होरांनी भरिल्लो आसा. म्हजी घरकान्न आनी भुरग्यां खातीर वर्सभर खूब कश्ट करून ह्यो म्होरो हांवें मेळयल्यात. ही सगळी ह्या पट्याची करामत. ताणेंच म्हाका न्हंय बलांडपाक बळ दिलें आनी म्हज्या बायलभुरग्यां कडेन पावतासो केलो. हांव जेन्ना पेंवतालों तेन्ना म्हज्या बायल भुरग्यांचो भार म्हज्या खांद्यार आसलो."

दोगूय सांगाताच मागीर सलामीज शाराची वाट चलूंक लागले.

### 31. तांबडी माती

एका रुखान एका मनशाक म्हणलें, "म्हजीं पाळां-मुळां हे तांबडे मातयेंत खोल मेरेन पातळ्ळ्यांत आनी देखूनच म्हज्यांत तुमकां फळां दिवपाची शक्त आसा."

हें आयकून त्या मनशान रुखाक म्हणलें, "पळय, आमचे मदीं कितलें सारकेंपण आसा तें. म्हजींय पाळां-मुळां हे तांबडे मातयेच्या पोटांत खूब आयस पयस मेरेन पावल्यांत. जी तांबडी माती तुका फळां

दिवपाची शक्त दिता तीच म्हाका व्हड उपकारी मनान तीं खावपाची शिकवण दिता.''

### 32. पुनव

पुनवेचो चंद्रीम आपणाल्या पुराय पर्जळा सयत उदेल्लो. आनी सगळीं सुणीं त्या चंद्रिमाक पळोवन भोंक भोंक भोंकूक लागिल्लीं.

फकत एकच सुणो, जो सामको वोग्गी आसलो, तो सामको गंभीर जावन उलयलो, ''कारणा बगर शांततायेक जागी करीत तिची न्हीद इबाडूं नाकात. तुमी भोकलीं म्हणून चंद्रीम धर्तरेचेर देंवन येवचो ना.''

हें आयकून सगळ्या सुण्यांनी भोंकपाचें बंद केलें. सगळे कडेन सामकी थंडाय पातळ्ळी. पूण तो सगळ्यांक सांगपी सुणो मात शांतताय राखची म्हणून रातभर भोंकीत रावलो.

### 33. बैरागी उपदेशक

खंयच्या तरी काळार एक बैरागी आसलो. तो पंद्रशींतल्यान तीन खेपो शारांत येतालो.

आनी भौशीक रस्त्यांचेर, लोकांक दर एकल्यान आपणा कडेन आशिल्लें दिवंचें-घेवचें ही भावना जगोवपा पासत उपदेश करतालो. तो एक धाराळ उलोवपी तर आशिल्लोच. ताका लागून ताची कीर्त पुराय देशांत फांकिल्ली.

एक दीस तीग जाण तागेले कुटयेचेर पावले. बैराग्यान तांकां येवकार दिलो. त्या तिगांयनीय ताका म्हणलें, ''तुमी सदांच दान आनी एकामेकांक पालव दिवप हाचे विशीं सांगतात. तुमच्या सांगण्या प्रमाण जाचे कडेन जाय ताचे परस चड आसा तें ताणें गरजेवंतांक दिवपाक जाय. आमकां दुभावा विरयत दिसता, तुमी जी नामना मेळयल्या तिका लागून तुमी खूब गिरेस्तकाय जोडल्या. म्हणटकीच, तुमचे गिरेस्तकायेंतलें आमकांय कितें तरी दियात. कारण, आमकां ताची गरज आसा.''

त्या बैराग्यान जाप दीत म्हणलें, ''म्हज्या इश्टांनो, म्हजे कडेन ही एक गोजडी, एक मांदरी आनी उदका खातीर हो लोटो तितलोच

आसा. हाचे भायर म्हजे कडेन कांय एक ना. तुमकां जायच जाल्यार हें सगळें तुमच्यांनी व्हरूं येता. म्हजे कडेन भांगर-रुपें तसलें कांयच ना.''

हें आयकून त्या आयिल्ल्या मनशांनी तिरस्कारान आपणालीं तोंडां दुसरे वटयां घुंवडायलीं. तांच्यांतलो सगळ्यांत फाटल्यान आशिल्लो तो दारांत रावन उलयलो, ''मूर्ख आनी कपटी खंयचे कडलो. तूं ज्यो गजाली लोकांक सांगीत भोंवता, तांकां तूं स्वता मात पाळो दिवंक शकना.''

### 34. खूब पोरणो सोरो

एका काळार एक भोव गिरेस्त मनीस आशिल्लो. ताका आपणालो सोऱ्याचो सांठो आनी त्या सांठ्या विशीं खूब गर्व आशिल्लो. ताचे कडेन एक भोव पुराणी सोऱ्याची कळशी आशिल्ली. खंयच्या प्रसंगा खातीर ताणें ती सांबाळून दवरल्या हें कळनाशिल्लें.

एके खेपे तागेर राज्याचो राज्यपाल आयिल्लो तेन्ना ताका ते कळेशेची याद जाल्ली. पूण ताणें येवजिलें- ''असल्या एका राज्यपाला खातीर ती कित्याक भायर काडपाची!''

हेच भाशेन, एके फावटी तागेर बिशप आयिल्लो. पूण ताणें मनांत म्हणलें- ''ना, ना. हांव ती कळशी भायर काडचों ना. ताका ताचें म्हत्व कशें कळटलें? तागेल्या नाकाक त्या सोऱ्याचो सुगंध कितें माती कळटलो!''

उपरांत, एका प्रसंगार खुद्द त्या देशाचो राजा तागेर आयलो. सांगातान तांगेलें जेवण-खाण जालें. पूण त्या मनशान चिंतलें- ''तो सोरो राजा सारक्या मनशा कडेन सर केल्यार लेगीत कितल्याच व्हडा गुणाचो!''

इतलेंच न्हय, त्या मनशाच्या भाच्याच्या लग्ना वेळार आयिल्ल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक पळोवनय ताणें मनांत म्हणलें- ''ना. ना. ती कळशी ह्या सोयऱ्यां खातीर लेगीत उगती करूंक जावची ना!''

हे तरेन वर्सांचीं वर्सां उलगलीं. एक दीस तो मनीस ह्या संवसाराक अंतरलो. त्या म्हाताऱ्याक अशे तरेन मातयेक लायलो जशे तरेन एक बीं काडून भुंयेंत पुरतात.

आनी ज्या दिसा ताका मातयेक लायलो, त्या दिसा सोऱ्यान भरिल्ल्या हेर आयदनां वांगडा ती पोरण्या सोऱ्याची कळशीय भायर काडली. आनी शेजार-पाजारा रावपी शेतकार बरी रूच काडीत तो पियेले. पूण कोणाकच तिच्या पोरणेपणा विशीं कितेंच खबर नासलें. कोपांत रकयता तो सोरो, तांचे नदरेन हेर सोऱ्या सारकोच आसलो.

## 35. दोन काव्यां

कांय शेंकड्यां आदली गजाल. एथेन्सच्या राजमार्गार दोगां कवीची भेट जाली. एकामेकांक पळोवन दोगांयकूय सुमारा भायली खोस भोगली.

दोगां मदल्या एकल्यान दुसऱ्याक विचारलें, ''ह्या दिसांनी तुवें कसली कविता बरयल्या? तुज्या सूरवाद्याच्या नादार ती खूबच अप्रूप लागता आसतली!''

दुसऱ्या कवीन गर्वान भरून जाप दिली- ''हय, ह्या दिसांनी एक कविता बरोवन जाल्या. ती म्हज्या हेर कवितां मदें भोव उंचेल्या पांवड्याची तर आसाच; घडये ग्रीक भाशेंत उंचेल्यो अश्यो ज्यो काव्यरचना आसात, तांचे परसय ती उंचेल्या पांवड्याची आसा. ही कविता हांवें म्हज्या इश्ट देवाची तुस्त करपा खातीर बरयल्या.''

इतलें सांगून ताणें आपणाल्या आंगावल्यांतल्यान एक हातबरप काडून म्हणलें, ''ही पळय-म्हजे कडेन आसा ती कविता. हांव ती म्हणून दाखयतां तें आयकल्यार म्हाका खूब आनंद जातलो. चल या, त्या रुखाचे सावळेंत वचून बसुंया.''

ते कवीन आपणाली कविता म्हणून दाखयली. खूब लांब आशिल्ली ती.

दुसऱ्या कवीन नमळायेन म्हणलें, ''खरेंच सांगता. तुगेली ही कविता सामकी अप्रतीम- उंचेल्या पांवड्याची. युगांचीं युगां ही कविता अक्षर कविता जावन उरतली. आनी तिचे वांगडा तूंय अजरामर जावन रावतलो.''

आतां पयल्या कवीन कांयशा उपेक्षेच्याच सुरांत दुसऱ्याक प्रस्न

केलो, ''बरें आसा. पूण एक सांग, हालींच्या दिसांनी तुवें कितें बरयलां?''

दुसऱ्यान सांगलें, ''बरयलां- पूण साप्प थोडें. एक आठ ओळींची कविता बरयल्या- एका खेळांत मग्न आशिल्ल्या भुरग्याचे यादस्ते खातीर.'' आनी ताणें ती कविता म्हणून दाखयली.

पयल्या कवीन म्हणलें, ''तशी वायट ना. म्हणल्यार तशी सामकीच वायट ना.''

जालें. आनी ते आपापले वाटेन गेले.

आनी आतां दोन हजार वर्सां उपरांत त्या कवील्यो त्यो आठ ओळी. दर एके भाशेंत खूब आवडीन आनी प्रेमान लोक वाचतात.

आनी हय, ती दुसरी कविता, कितलेच शेंकडे उलगले, ग्रंथालयांनी आनी विद्‌वानाच्या कपटांनी बरे तरेन सांबाळून दवरिल्ली मेळटा. लोकांचें तिचे कडेन लक्षय वता. पूण कोणाक ती आवडना आनी कोण ती वाचिना.

**36. रुथबाय**

एक फावट तीन व्यक्तींनी पयसुल्ल्यान पळयलें एके पाचवेचार दोंगुल्लेचेर एक धवें फुल्ल घर उबें आसा. तांतल्या एकल्यान म्हणलें, ''हेंच तें रुथबाय हिचें घर. ती एक आदली चेटकीण आशिल्ली.''

दुसऱ्यान म्हणलें, ''चूक करता तूं. रुथबाय एक रुपेस्त अस्तुरी आशिल्ली. ती सदांच आपणाल्या सपनांनी गूंग उरताली.''

तिसरो उलयलो- ताणें म्हणलें, 'तुमी दोगूय सारकें उलयनात. रुथबाय हांगाची एक व्हडली भाटकान्न. ती मुंडकार भागेल्यांचें रगत पिळून काडटाली.

हे तरेन, श्रीमती रुथबायचे विशीं उलयत ते चलत वताले. ते एका चंवाठ्यार पावले. थंय तांकां एक जाणटेलो मेळ्ळो. त्या तिगां मदल्या एकल्यान ताका विचारलें, ''उपकार करून तुमी ते रुथबाये विशीं कितेंय सांगूक शकशात- जिगेलें ते दोंगुल्लेचेर वयर घर आसा?''

त्या जाणटेल्यान आपणाली मान वयर करीत त्या तिगांयकय

पळोवन तो मुमुरखोच हांसलो.

ताणें म्हणलें, "म्हाका आता णव्वद वर्सां. हांव जेन्ना भुरगो आशिल्लों तेन्नाची रुथबाये विशींची म्हाका इल्ली इल्ली याद आसा. पूण रुथबाय मेली ताका आतां 80 वर्सां जालीं आनी तेन्ना सावन तें घर सामकें रिकामें पडिल्लें आसा. थंय वागोळ्यांनी वस्ती केल्या. कांय जाण म्हणटात थंय भुतांचो नाच चलता."

**37. हुंदीर आनी माजर**

एका दिसा सांजवेळार एका कवीची आनी एका शेतकाराची भेट जाली. कवीक एकसुरें रावप आवडटालें आनी शेतकार इल्लो खांकुडण्या सभावाचो आशिल्लो. तरिपूण दोगूय जाण उलोवंक लागले.

शेतकारान म्हणलें, "हांव तुका एक ल्हानशी काणी सांगतां. हालींच आयकल्ली ही काणी एक फावट एक हुंदीर एका पांदऱ्यात सांपडलो. तो जेन्ना व्हडा खोशयेन भितरलें खाण खातालो तेन्ना भायर एक माजर उबें आशिल्लें. हुंदीर पयलीं खूब भियेलो. पूण ताच्या लक्षांत आयलें तो पांदऱ्यांत भितर सुरक्षीत आसा. ताका पळोवन माजरान म्हणलें, "आतां हें निमाणें खावन घे."

"दुभावच ना." हुंदरान म्हणलें, "म्हज्या नशिबांत एकच जिवीत आसा आनी देखून हांव मरतलों तोय एकेच खेपे. पूण तूं तुगेलें चिंतून पळय. लोक म्हणटात, तुका णव जल्म मेळटात. हाचो अर्थ तुका णव खेपो मरचें पडलें ना?"

इतलें सांगून शेतकारान कवी कडेन पळोवन म्हणलें, 'तुका ही काणी सामकी विचित्र कशी दिसना?'

कवीन ताका कांयच जाप दिली ना आनी तो आपणाले वाटेक लागलो. चल-चलतां तो चिंततालो- "दुभाव ना, आमच्याय वांट्याक जिवितां आसात. दुभाव ना, णव खेपो जल्म घेवप आनी मरपूय बी णव खेपो. हय णव खेपो! हाचे परस एकच जल्म मेळिल्लो बरो. पांदऱ्यांत फारवल्ल्या शेतकाराचें जिवीत आनी हातांत अन्नाची निमाणी उंडी! खरेंच आमी रान आनी वसाड रेंवटाळांत रावपी शिंवाचेच

भावबंध न्हय?''

**38. स्राप**

एका म्हाताऱ्यान एक फावट म्हाका सांगलें, 'तीस वर्सां जालीं, एक तारवटी म्हजे धुवेक घेवन पळून गेलो. हांव मनांतल्या मनांत तांकां खूब खेपीत रावलों. कारण ह्या संवसारांत म्हगेले धुवेची हांव खूब अर्थ-अपुरबाय आनी मायमोग करतालों.

खूब दीस उलगले नात आनी एक दीस त्या तरनाट्या तारवट्याची बोट बुडली आनी दर्यातळाक पावली. ताचे वांगडा म्हगेली धुवय बी सोंपली.

''हे खातीर तुमी म्हाका जाय जाल्यार एका तरनाट्यांचो आनी तरनाटेचो जीव घेवपी समजात म्हजो स्रापच दोगांकय बादलो. आतां म्हजो पावला फोंडांत वचपाचो वेळ. देवान म्हाका क्षमा करची अशें हांव मागणें करतां.''

हें सगळें त्या म्हाताऱ्यान सांगलें हें खरें. पूण ताच्या सांगण्याक दांभीकतायेचो वास मारतालो. आपणाले स्राप दिवपाचे शक्तीचो ताका खूब गर्व जाला अशें दिसतालें.

**39. दाळमां**

केन्नाची तरी ही गजाल. एका मनशाचे बागेंत दाळमाचीं खूब झाडां आसलीं. गिमाळो लागपाक आयलो म्हणटकीच रुप्याच्या थाळयांनी दाळमां बरे तरेन मांडून तो तीं आपणाल्या दारांत दवरतालो. थाळयां वयर तो बरयतालो- ''तुमी हातूंतलें एक तरी दाळीम व्हरात. म्हजो तुमकां येवकार.''

पूण लोक येताले. पळयताले आनी वताले.

हाचेर त्या मनशान गंभीरतायेन विचार केलो. आनी दुसऱ्या वर्सा गिमाळ्याचे दीस आयले तेन्ना ताणें त्या रुप्याच्या थाळयांनी एकूय दाळीम दवरलें ना. पूण तांचे वयर व्हड व्हड अक्षरांनी बरयिल्लो एक तकटो लायलो-

''आमचे कडेन सगळे कडचीं बऱ्यांतलीं बरीं दाळमां मेळटात. तांचें

मोल मात हेर दाळमां परस इल्लें अदीक आसा.''

आनी तेन्ना लागींचे-पयसुल्ले सगळे दादले-बायलो येवन थंय दाळमां विकतीं घेवंक घिट्टी करूंक लागले.

## 40. एक देव-अनेक देव

खिलाफीस नगरांतल्या मंदिराच्या सोपणांचेर उबो रावन एक सुफीपंथी भाशणां दितालो. आपणाल्या उलोवपांत तो 'अनेक देवदेवता' ह्या विचारांचें समर्थन करतालो. लोक मनांतल्या मनांत म्हणटले, 'हातूंत नवें अशें कितें आसा? आमकां तें सगळें खबर आसा. सगळे देव आमचे वांगडा आसात आनी तांचेर आमचो भावार्थ आसा.'

कांय दिसा उपरांत दुसरो एक मनीस भर बाजारांत उबो रावन नास्तीकपण म्हणल्यार कितें तें सांगूंक लागलो. ज्या ज्या लोकांनी तागेलें म्हणणें आयकलें ते सगळे खुशालभरीत जाले. कारण ते सदांच देवाक भियेवन दीस सारताले.

ते उपरांत, कांय दिसांनी आनीक एक उपदेशक आयलो, ताणें सांगलें, 'देव म्हणटात तो एकूच आसा.' हें आयकून लोक भियेले. कारण एकापरस अदीक देवां बदला, एकाच देवान ख्यास्त भोगोवप हाका ते चड भियेताले.

त्याच दिसांनी आनीक एक मनीस थंय पावलो. तो सांगूंक लागलो- ''देव तीन आसात. ते तिनूय एकरूप जावन वाऱ्याचेर राबितो करतात. तांची एकच म्हान आनी दयावंत आवय आसा. तीच ताची बायल बी आसा आनी भयणय बी आसा.''

हें आयकून सगळ्यांक संतोस भोगलो. कारण तांणी मनांत म्हणलें, ''आमचे कडच्यान घडिल्ल्या गुन्यांवा सबंदांत, एकरुप जाल्ल्या तीन देवां मदें मतभेद हे जातलेच. आनी हाचे भायर तागेली कृपावंत आवय आमी अनाधार आनी निर्बळांची अवश्य कड घेतलीच घेतली.''

तरिपूण खिलाफीस नगरांत अशे लोक आसात जे एकापरस अदीक देव. देवच ना. फकत एकच देव आसा वा एकरूप जाल्ले तीन देव आसात आनी तांची कृपावंत आवय आसा आदी विशयांचेर वाद

घालीत आपसांत झगडीं झुजां आनी तर्क वितर्क करीत आसतात.

## 41. एक भेड्डी अस्तुरी

एका गिरेस्त मनशाची ती घरकान्न आशिल्ली. आनी ती सामकी भेड्डी आशिल्ली.

एका दिसा सकाळीं ती नाश्तो करपाक बशिल्ली तेन्ना ते अस्तुरेन आपणाल्या घोवाक म्हणलें, "काल हांव बाजारांत गेल्ली. थंय दमास्कसचीं रस्मी लुगटां भारतांतल्यो चादरी, पार्शियांतले कंठहार आनी यमनांतसून आयिल्लीं कांकणां पळयिल्लीं. अशें दिसता ह्यो सगळ्यो वस्तू ह्या दिसांनी, आमच्या शारांतल्या कारवानांनी हाडल्यात. आनी हें पळयात, हांव एका गिरेस्ताची घरकान्न आसून लेगीत असले हे जाडे-भरडे कपडे वापरतां. म्हाका त्या सुंदर वस्तूं मदल्यो कांय वस्तू विकत्यो घेवंकच जाय."

कॉफयेचो घोंट मारीत घोवान म्हणलें, "म्हज्या मोगा, तुवें खासा बाजारांत वचून तुजे आवडीच्यो वस्तू विकत्यो घेवपाची कसलीच गरज ना."

हाचेर ते भेड्डे अस्तुरेन म्हणलें, "तूं सदांच अशें कितेंय सांगल्यार नाका नाकाच म्हणटा. हांव हे असले कपडे न्हेसून, तुज्या इश्टां मुखार, आमच्या घरच्यां मुखार तुजे हे गिरेस्तकायेची लज काडीत रावूं?"

घोवान म्हणलें, "हांवें तुका केन्नाच नाका नाका म्हणूंक ना. तुका जाय तेन्ना तूं बाजारांत वच आनी सुंदर सुंदर कपडे आनी भांगर शिंगर विकतें घे. जें तुज्या शारांत विक्रेक आयलां... घे तुका जाय ते!"

तरिपूण ते अस्तुरेन घोवालीं उतरां सारकी आयकलीं नात. तिणें म्हणलें, "संबंद गिरेस्तां मदें तुजे इतलो कांजुट्टो आनी कोण ना. तूं सुंदरपण आनी सजवणूक करपाचे खंयचेय गजालीक नाका म्हणटा. नाजाल्यार म्हजे पिरायेच्या दुसऱ्या अस्तुऱ्यांक पळयात. सुंदर सुंदर आनी मोलादीक कपडे घालून आनी नटून थटून शारांतल्या उद्यानांतल्यान त्यो भोंवतात." इतलें उलोवन ती एकदम रडपाक लागली आनी तिणें वड्डून म्हणलें, "म्हाका जेन्ना कसलीय वस्त घेन दिसता तेन्ना तूं

सदांच नाका म्हणटा.''

घोव सामको अस्वस्थ जालो. तो उठलो आनी आपणाल्या बोटव्यांतल्यान ताणें बचकभर असुफ्यों काडून तिचे मुखार दवरल्यो. आनी भोव नमळायेन म्हणलें, ''म्हज्या मोगा! बाजारांत वच आनी तुका जाय तें विकतें घे.''

त्या दिसा सावन ते अस्तुरेक कसलीय वस्त घेवची दिसताली तेन्ना ती दोळ्यांत दुखां हाडून घोवा मुखार उबी रावताली आनी तो तिका बचकभर असुफ्यों काडून दितालो.

एक फावट ही अस्तुरी, कोणातरी दुसऱ्या एका तरनाट्याचो मोग करूंक लागली. तो केन्ना केन्नाय पयस पयस भोंवडेक वतालो. तो प्रवासांत आसतना ही अस्तुरी एकलीच एकांतांत बसून दुखां गळयताली.

घोव जेन्ना तशी तिका पळयतालो तेन्ना तो मनांतल्या मनांत म्हणटालो, ''बाजारांत रस्मी कपडे आनी अमोलीक भांगरा वस्ती घेवन खंयच्यान तरी नवें कारावान आयलां आसतलें.''

आनी तो बचकभर असुफ्यों काडून तिचे मुखार दवरतालो.

**42. सोद**

एक हजार वर्सां पयलीं, लेबाननच्या एका दोंगरा पालसणार दोग तत्वगिन्यानी एकामेकाक भेटले. एकल्यान दुसऱ्याक विचारलें, ''खंय वतात तुमी?''

दुसऱ्यान जाप दिली, ''हांव तरणाटेपणाचो वझरो सोदपाक भायर सरलां. म्हजे समजणे प्रमाण ह्या हांगाच्याच दोंगरा मदें खंय तरी सूर्यकिरणाच्या पर्जळांत खळखळत व्हांवता. म्हाका कळून आयलां ते भाशेन ताचो उगम उदेंतेवटयां जाला. पूण एक सांगतात, तुमी कितें सोदतात?''

पयल्या मनशान जाप दिली, ''हांव मरणाचो घूट सोदूंक भायर सरलां.''

अशीं उलोवणीं जाले उपरांत, तांच्या दोगांय मदें एक नसतोच समज निर्माण जालो. तो म्हणल्यार एकलो दुसऱ्याक, तो म्हणटा ते

विद्ये विशीं ताका कांयच खबर ना अशें समजूंक लागलो. ते आपसांत झगडूं-वावडूंक लागले. आनी एकलो दुसऱ्याल्या अध्यात्मीक कुड्ड्या भावार्थाची आतां- कुतां काडूंक लागलो.

दोगूय तत्वगिनान्याच्या आड्डी-बोवाळान सगळें वातावरण भरून गेलें. त्याच वेळार थंय एक अनवळखी तिरायत मनीस पावलो. ताच्या गांवांतले लोक ताका अरवळ म्हणटाले. दोगूय तत्वगिन्यानी सामके कांवार येवन वादावादी करतात तें थोडो वेळ थंय थारून ताणें पळयलें. ते कितें म्हणटात तें तो आयकूंक लागलो. मागीर तो तांचे म्हऱ्यांत गेलो. ताणें म्हणलें, ''भोव बऱ्या गिन्यानवंत मनशांनो, तुमी कितें म्हणटात तें आयकले उपरांत तुमी दोगूय एकच सिद्धांत मानतात अशें दिसता. तुमी दोगूय एकूच गजाल उलयतात. फरक तो फकत उतरांचो. तुमच्यांतलो एकलो तरनाटेपणाचो वझरो सोदूंक भायर सरला आनी दुसरो मरणाचो घूट सोदून काडूंक सोदता. खरें म्हणल्यार दोगांयचोय उद्देश एकूच. आनी विचारांनी तुमी दोगूय एकामेकांतच एकरूप जाल्ले आसात.

इतलें उलोवन, ''जाणकार व्हडा मनशांनो, आतां हांव तुमचो निरोप घेतां''. अशें म्हणीत तो अनवळखी मुखार चलूंक लागलो. वता आसतना तो खूब हांसतालो.

दोगूय तत्वगिन्यानांनी सामकें वोग्यांनी कांय खीणभर एकामेका कडेन पळयलें आनी मागीर ते दोगूय हासूंक लागले. तांतल्या एकल्यान म्हणलें, ''बरें आसा, आतां आमी सांगातानच आमगेलो सोद चालू दवरुंया न्हय?''

**43. राजदंड**

एका राजान आपणाले पतिणीक म्हणलें, ''राणी जावपाची तुज्यांत कसलीच योग्यताय ना. तूं सामकी गांवढळ आनी रीतरवीस कळनाशिल्ली. म्हजी सांगातीण जावपाक तूं उपकारच ना.''

पतिणीन जाप दिली, ''तूं राजा म्हणपाची खूब व्हडवीक मात मिरयता. पूण तूं कितें उलयता त्यो फकत लातबडायो. तुका येता तरी

किर्ते?''

हीं उतरां आयकून राजा सामको तिडकलो. ताणें आपणालो भांगराचो राजदंड काडलो आनी आपणाल्या हातांनी राणयेचे तकलेर मारलो.

बरोबर त्याच वेळार, राज्याचो न्यायमंत्री थंय पावलो, ताणें म्हणलें, ''हो राजदंड ह्या राज्यांतल्या व्हडांतल्या व्हड कारागिरान तयार केल्लो. एक दीस येतलो, तुमी आनी तुमचे राणयचो उगडास घडये लोकांक जावचो ना. पूण सुमारा भायले सुंदरायेक लागून फुडल्यो पिळग्यान पिळग्यो ह्या राजदंडाचो मात सांबाळ जायत रावतलो, आनी म्हाराज, आतां जाल्यार लोक ह्या राजदंडाची अदिकूच व्हडविकेन खबर करतलो. कारण म्हाराणयेच्या मस्तकांतल्या रगतान तो शुचिर्भूत जाला!''

**45. व्हेल आनी पिसोळें**

एका दिसा एके सांजेर, एक अस्तुरी आनी एक दादलो, एकेच गाडयेंत बसून वतालीं. दोगांय एकामेकाक वळखनाशिल्लीं.

दादलो आशिल्लो तो एक कवी. गाडयेंत तो ते अस्तुरेक तेंकूनच बशिल्लो. तो काणयो सांगून तिची मनरिजवण करूंक लागलो. कांय काणयो ह्या कवीन स्वता रचिल्ल्यो आनी कांय काणयो दुसऱ्यांल्यो.

काणयो आयकतां आयकतां ते अस्तुरेक झेंम लागली. पूण इतल्यांत गाडयेन गचको खालो आनी ती जागी जाली. तिणें म्हणलें ''हांव तुमगेले जॉना आनी व्हेल' हे काणयेची खऱ्यांनीच तोखणाय करतां.'

कवीन जाप दिली, 'पूण बाये अस्तुरे, हांव तुमकां म्हगेली, पिसोळें आनी धवो गुलाब' ही काणी सांगतालों आनी एकामेकां कडेन तीं कशीं वागतलीं ते विशीं सांगतालो.''

(व्हॅल : एक नुस्तें)

**46. शांतीकायेचो वसो**

एके फुलांनी भरिल्ले ताळयेन, शेजारचे ताळयेक म्हणलें, ''आयचो दीस सामको निसूक-निखरो आनी किण्णपणान भरला.''

ते ताळयेन जाप दिली, ''तूं म्हणटा तें एकदम खरें.'' त्याच वेळार

ते ताळयेर एक किरांटी येवन बसली. आनी मात्शें रावन थंयच आनीक एक किरांटी येवन बसली.

तांतले एकलेन चिंवचिंवीत म्हणलें, "म्हजी बायल म्हाका सोडून गेली."

दुसरेन मात्शें व्हडान म्हणलें, "म्हगेलीय बायल म्हाका सोडून गेली. ती आनी परतून येवपाची ना. हां, म्हाकाय बी तिची पर्वा ना."

जालें, दोनूय किरांट्यो चिंवचिंवीत एकामेकांक लेखून कित्याकितेंय म्हणूंक लागल्यो. झगडूंक लागल्यो. आनी वयर उड-उडत बोवाळ घालूंक लागल्यो.

अकस्मात, आनीक दोन सवणीं उड-उडत थंय पावलीं आनी दोगांय तिडकल्ल्या किरांट्यां लागीं वचून गुपचूप बसलीं.

कांय वेळान चवगांय आपापली जोडी करून उडून गेलीं.

ते उपरांत, एके ताळयेन दुसरे ताळयेक म्हणलें, "शे! कितें नाका जाल्लो बोवाळ घालो हांणी!"

दुसरे ताळयेन जाप दिली, "तूं तुका जाय तें म्हण. आतां सगळें वातावरण थंड आसा. वयलो वारो जर थंड-शांत उरत तर म्हाका दिसता सकला रावपी बी थंडायेन, शांतीकायेन रावंक शकतात. म्हाका एक सांग. वाऱ्याच्या झोता वांगडा झेल घेत तूं म्हज्या म्हऱ्यांत येवशी?"

ते ताळयेन म्हणलें, "आहा, शांतताय प्राप्त करपाचो हो एक बरो योग आसा. मात एक, वसंत ऋतू सोंपना जाल्यार पुरो!"

आनी त्याच वगतार वाऱ्याचें एक नेटाचें ल्हार आयलें आनी दोनूय ताळयो एकामेकाच्या गोपांत रिगल्यो.

### 47. सावळी

जून म्हयनो आशिल्लो. एक दीस तणान शेजारच्या रुखाचे सावळेक म्हणलें, "तूं सद्दां म्हज्या दाव्यान उजव्यान यो-वच करून म्हाका निस्सं त्रास करता."

सावळेन जाप दिली, "हातूंत म्हजो कसलो गुन्यांव? मात्शें वयर पळय, हो रूख वाऱ्याच्या झोता बराबर उदेंतेक सावन अस्तंते वटयां

सूर्य आनी धर्तरी हांचे मदीं धोलत रावता.''

तणान वयले वटयां पळयलें. एका रुखाक नदर वयर करून पळोवपाची ताच्या जिवितांतली ही पयलीच खेप आसली. ताणें आपणाल्या मनांत म्हणलें, ''अशें आनीक कितें? हांव एक तणा सारकोच- मात्शें चड वाडिल्लें तणच न्हय?'' आनी ते वोग्गी रावले.

**48. म्हातारपण**

एका तरनाट्या कवीन राणयेक म्हणलें, ''हांव तुजो मोग करतां.''

राणयेन जाप दिली. ''म्हज्या भुरग्या हांव बी तुजी लक्तुबाय करतां.''

''पूण हांव तुगेलो भुरगो न्हय. हांव एक मनीस हांव तुजेर मोग करतां'' कवीन पर्थून जाप दिली.

राणयेन म्हणलें, ''हांव म्हज्या पुतांची आनी धुवांची आवय. तीय बी आतां आपापल्या भुरग्यांची आवय-बापूय जाल्यांत. म्हगेलो एक नातू तुजे परसूय व्हड पिरायेचो आसा.''

तरीय तरनाट्या कवीन म्हणलें, ''जावं, तरिपूण हांव तुजो मोग करतां.''

ते उपरांत चड दीस गेले नात, राणी ह्या संवसाराक अंतरली. तरिपूण निमणो स्वास अनंतांत विलीन जावचे पयली तिणें आपणाल्या मनांतल्यान चिंतून दवरलें- ''म्हज्या लक्तुबाये, म्हज्या भुरग्या, तरणाट्या कवी, शक्य आसा, केन्नाय एक दीस आमची पर्थून भेट जायत आनी त्या समयार म्हजी पिराय सत्तर वर्सां जाल्ली नासतली.''

**48. मार्ग**

दोंगरा वाठारांतल्या एका गांवांत एक अस्तुरी आपणाल्या पुता वांगडा रावताली. तो तिगेलो पयलोच आनी एकलोच एक पूत आशिल्लो. त्या भुरग्याक एक दीस जोर आयलो आनी तो भायर पडलो. मरणा वेळार वैज ताच्या म्हऱ्यांतच आसलो.

भुरग्याची आवय दुख्खान सामकी पिशांतूर कशी जाली आनी व्हडाव्हडान बोब मारीत कळवळ्यान वैजाक विचारूंक लागली. ''सांग-म्हाका एक सांग, हाचें जिवंतपण आनी ताची म्होंवाळ वाचा

अशी कशी ना-शी जाली?''

वैजान जाप दिली, ''जोराक लागून.''

''आवयन पर्थून विचारलें, 'निमाणें जोर म्हणल्यार कितें?''

वैजान जबाब दिलो, ''हें म्हज्यान तुका समजावन सांगूंक जावचें ना. हें एक अशें दुखणें जें कुडीक बादता. आनी तें इतलें सुक्षीम, जें आमच्या मनशाच्या दोळ्यांनी पळयतलो म्हळ्यार जायना.''

इतलें सांगलें आनी वैज गेलो.

ती अस्तुरी आपले-आपूणच उलयत रावली.

''हें दुखणें इतलें सुक्षीम जें मनशाच्या दोळ्यांनी पळयतलो म्हणल्यार जायना.''

जेन्ना सांजे वेळार पाद्री तिका भुजवण दिवपाक आयलो तेन्ना ती एकदम रडपाक लागली. बोब मारीत म्हणूंक लागली, 'हाय सायबा! म्हजो अपुरबायेचो पूत म्हाका सोडून गेलो. म्हज्या कुसव्याचें पयलें फूल...''

पाद्रीन म्हणलें, ''म्हजे धुवे, देवाक जाय तेंच जाता. कितें करतलो!''

तेन्ना ते अस्तुरेन प्रस्न केलो, ''देव खंय आसा? हांव देवाक वचून मेळटलींच. हांव म्हजें काळीज फाफसून ताचें रगत ताच्या पावलांचेर शिंपतलीं. सांग, म्हाका सांग, तो खंय गेल्यार म्हाका भेट्टलो?''

पाद्रीन जाप दिली, ''देव म्हणल्यार सर्व पदवेदार. तो सगळ्याक भरून आसा. आमचेवरी मनशांचें दोळे ताका पळोवंक शकनात.''

तें आयकून ते अस्तुरेन व्हडान किळांच मारली. ती विचारूंक लागली. ''सर्व पदवेदार सगळ्याक भरून आसलेलो, दोळ्यांक दिसना ताणें म्हज्या पुताचें जिवीत कित्याक सोंपयलें? आमकां कांयच मोल ना? आमी म्हणल्यार कितें तर?''

इतल्यांत, मड्याक गुठलावपा खातीर लुगट घेवन ते अस्तुरेची आवय घरांत भितर सरली. पाद्रीन सांगिल्लीं उतरां आनी तिचे धुवेचो आकांत तिणें आयकल्लो. तिणें मड्याचें लुगट एके सुवातेर दवरलें आनी आपणाले धुवेचो हात हातांत घेत म्हणलें, ''म्हजे धुवे,

खासा आमी सगळींच किरकोळ जीव आनी सगळ्यांक आस्पावनय आसलेलीं. दोनाय मदलो मार्ग म्हणटात तीं आमीच.''

## 49. इश्वराचो सोद

दोग जाण एका देंगण वाठारांत भोंवत आशिल्ले. तांतल्या एकल्यान एका दोंगरा वटयां बोट दाखयत म्हणलें, ''दिश्टी पडटा तुमकां, थंय एक खोंपटी आसा ती? तातूंत एक मनीस रावता. त्या मनशान, बरेच दीस जाले, वैरागीपण स्विकारलां. तो फकत इश्वराच्या सोदा फाटल्यान लागला. संवसारांत ताका आनीक कसलीच इत्सा हावेस ना.''

दुसऱ्या मनशान म्हणलें, ''जेन्ना मेरेन तो ते खोपींतल्यान भायर सरून लोकां मदें पर्थून येवचो ना. ते मेरेन ताका ईश्वर-प्राप्ती जावंचीच ना. ताणें आमचे मदें भरसून, आमच्या सुखा-दुख्खांत वांटेकार जावंक जाय. लग्नां समराधना-समारोहां वेळार आमचे वांगडा नाचूंक खेळूंक जाय. आनी मरणाच्या प्रसंगार दुख्खांत सांपडिल्ल्या मनशां सांगाता रावन तांकां भुजवण दिवंक जाय.''

हें आयकून तो पयलो मनीस मनोमन खोशी जालो. पूण आपणाल्या सभावाक धरूनच तो उलयलो, ''तुमी जें कितें सांगतात ताचे कडेन हांव सहमत आसां. पूण म्हाका अशें दिसता- तो संन्याशी, बैरागी कोण आसा तो एक सत्पुरुष आसा. तुमकां एक मान्य करचेंच पडटलें तें म्हणल्यार आपापल्या गुणांचें प्रदर्शन मांडप्यांनी भरिल्ल्या ह्या संवसारांत, एक सत्पुरुष सगळ्यां पसून सामको कुशीक रावन ह्या संवसाराचेर अदीक बरे उपकार करता.''

## 50. न्हंय

कुदिशाच्या देंगणांतल्यान घसघशीत नेटान व्हांवपी एक न्हंय आसा. थंय, वेगळे वेगळे कडच्यान व्हांवत आयिल्ले दोन प्रवाह एकामेकांक मेळ्ळे आनी ते आपसांत उलोवंक लागले.

एका प्रवाहान दुसऱ्याक विचारलें, ''आरे इश्टा, तूं हांगा कसो पावलो? तुजो मार्ग जाय तसो आशिल्लो मूं?''

दुसऱ्या प्रवाहान जाप दिली, ''म्हज्या मार्गा विशीं विचारूं नाका,

खूब आडखळीचो आसलो तो. पवनचक्केचें एक चक्र तुटिल्लें. ते पवनचक्केचो धनी म्हजें उदक काडून तें आपणाल्या झाडां-झोपांक पावयतालो. पूण तो आतां संवसारांत ना. खूब कश्टांक तोंड दिवचें पडलें म्हाका. खर वोतांत भाजून-न्हावपी धुवप्यांची नाका नाका जाल्ली हळशीक म्हज्यांत घेवन, कसो तरी हांव हांगा पावलां. पूण म्हज्या भावा, म्हाका एक सांग, तुजी वाट कशी आशिल्ली?''

पयल्या प्रवाहान जाप दिवन म्हणलें, ''म्हजी वाट तुजे परस सामकी वेगळी आसली. हांव दोंगराच्या कुसव्यांतल्यान सकला देंवलो आनी परमळीत फुलां आनी तरातरांच्यो एकामेकांक वेंगोवन आशिल्ल्यो सोबीत सुंदर वाली हांचे मदल्यान वाट काडीत हांगा पावलों. दादले तश्यो बायलो आपणाल्या रुप्या-पेल्यांनी भरभरून म्हजें उदक पियेताल्यो. म्हजे देगेर बसून ल्हान ल्हान भुरगीं आपणालीं गुलाबशेंवत्या वरी पावलां म्हज्या उदकांत बुचकळायतालीं. म्हज्या चारूय वाटांनी उल्हासभरीत म्होंवाळ संगीत गाजय वाजत आसतलें. म्हाका तुजी काकळूत दिसता-तुगेलो मार्ग असले खुशालकायेन भरिल्लो नासलो म्हणून.'

त्याच वेळार न्हंयेन व्हडा आवाजांत म्हणलें, ''चलात येयात, येयात. आमी सगळीं समुद्राचे वटेन वतात. चलात, येयात, येयात, आतां आनीक गजालीं करपाक रावूं नाकात. तुमी म्हज्या गोपांत रिगात. आमी सगळीं समुद्राक मेळपाक वतात. चलात चलात, येयात-बेगीन. तुमी म्हज्या प्रवाहांत भरसले म्हणटकीच, तुमच्या प्रवासांतलीं सगळीं सूख-दुख्खां तुमी विसरून वतले. चलात, येयात येयात आमी आमगेले समुद्रमातेच्या गोपांत रिगले म्हणटकीच सगळ्यो गजाली विसरून वतले.''

## 51. दोग शिकारी

वसंत रुतूच्या दिसांनी, एक दीस एका तळ्याचे देगेर, आनंद आनी दुख्ख हांची भेट जाली. दोगांयनीय एकामेकांक अभिवादन केलें आनी तीं तळ्याचे धडेर बसून गजाली करूंक लागलीं.

आनंद धतरिची सोबिताय, पर्वत आनी रान-जिवीत हांच्यांतल्या नित्याच्या अचर्यांचें तशेंच सकाळपारा आनी सांजेपाराचें सैमसंगीत हांचें वर्णन करूंक लागलो.

तें आयकून दुख्खान उतर घालें आनी आनंद जें कितें म्हणटा तें सारकें म्हणपाचें सांगलें. कारण दुख्खाक काळावेळा विशीं ओड आशिल्ली आनी सोबिताय कितें तें ताका कळटालें. जेन्ना दुख्ख मळां-मैदानां आनी पर्वताचे वासंतीक रुपावळीचें वर्णन करतालें तेन्ना ताच्या उलोवपाक नवी जिवसाण आयिल्ली दिसताली.

हे भाशेन आनंद आनी दुख्ख बरोच वेळ मेरेन आपसांत उलयत रावलीं आनी सगळ्या खबर आशिल्ल्या गजालीं विशीं तांचें एकमत जालें.

त्याच वेळार तळ्याचे देगेर दोग शिकारी पावले. तांणी अशीच, तळ्याच्या दुसऱ्या वटयां नदर मारली तेन्ना तांतल्या एकल्यान म्हळें, ''आरे, तेवटेन तीं दोग जाणां दिसतात तीं कोण?''

तें आयकून दुसऱ्यान म्हणलें, ''कितें म्हणटा- दोग जाणां? म्हाका तर कोण तरी एकटोच दिसता.''

पयल्या शिकाऱ्यान म्हळें, ''ना, थंय दोग जाणांच आसात.''

दुसऱ्यान पर्थून म्हणलें, ''म्हाका कोण तरी एकटोच दिसता. आनी तळ्याच्या उदकांत बी एकल्याचेंच पडबिंब पडिल्लें दिसता.''

''ना, थंय दोग जाणांच आसात.'' पयल्या शिकाऱ्यान म्हणलें, ''आनी उदकांत पडिल्लें पडबिंब बी दोगांचेंच आसा.'

पुणून दुसऱ्यान परतय म्हणलें, ''म्हाका तर एकटोच कोण तरी दिसता.''

पयल्या शिकाऱ्यान तरीय पर्थून म्हणलें, ''ना. म्हाका दोग जाणां स्पश्टपणान दिसतात.''

आनी आजूय बी एकल्याचें म्हणणें आसा तें म्हणल्यार तागेल्या इश्टाक एक वस्तू दोट्टी दिसपाची दोळ्यांची पिडा आसा. दुसरो म्हणटा, ''म्हज्या इश्टाक मात्शें उणें दिसता.''

## 52. दुसरो भोंवडेकार

एके खेपे एक भोंवडेकार म्हाका मेळ्ळो. तोय बी मात्सो एकेशिरेचो आसलो. तो म्हाका सांगूंक लागलो, ''हांव एक भोंवडेकार. म्हाका सदांच दिसता, हांव धर्तरेर मोटव्या मनशां मदें भोंवत आसां. सांगपा म्हणल्यार, म्हगेलें माथें, ह्या मनशां परस, धर्तरे पसून सत्तर हात उंचायेर आसा. हाका लागून हे तकलेंतल्यान अदीक उंचेले आनी मुळावे विचार प्रगट जावप हें सभाविकच म्हणपाक जाय. खरें महणल्यार, हांव ह्या मनशां सांगाता चलना, पूण तांचे वयरसून चलतां. म्हज्या पावलांच्यो खुणो ते फकत उक्त्या मेकळ्या मैदानाचेरच पळोवंक शकतात.''

''सांगपा म्हणल्यार म्हज्या पावलां खुणांची आकृताय आनी ताचें मेजमाप हे विशीं तर्कवितर्क करीत एकलो दुसऱ्या कडेन वाद घालता. हांवें आयकलां, कांय लोक म्हणटात खंय- 'ह्यो खंयच्या तरी दैत्याच्यो पावलां खुणो, जाणें पुराण काळांत धर्तरेक भोंवाडो घाल्लो,' दुसरे कांय जाण म्हणटात खंय- ''हांगा खंयच्या तरी पयसुल्ल्या नकेत्रांचो उल्कापात जाल्लो.''

''पूण म्हज्या इश्टा, तुका बरे भाशेन खबर आसा- हें दुसरें तिसरें कांयच न्हय, पूण त्यो एका भोंवडेकाराच्यो पावलां खुणो.''

# (भाग 2)

## 1. हांव पिसो कसो जालों?

तुमी म्हाका विचारतात - तूं पिसो कसो जालो?' गजाल अशी :

एक दीस, जेन्ना खूबश्यो देव-देवता जल्माक येवंक नाशिल्ल्यो ताचेय खूब आदीं, हांव एके गाढ न्हिदेंतल्यान जागो जालों. आनी पळय जाल्यार म्हगेलीं सगळीं म्होंवाळीं- जीं हांवें म्हज्या सात जल्मांनी तयार केल्लीं आनी वापरिल्लीं तीं सातय म्होंवाळीं चोरयेक गेल्यांत. जालें. गर्देन भरिल्ल्या मार्गा वयल्यान, उगत्या मुखामळान हांव ''चोर! चोर! पाड पडिल्ले फटींग चोर!'' अशी बोब मारीत धांवत सुटलों.

दादले तश्यो बायलो म्हाका पळोवन हांसूंक लागल्यो. कांय जाणांनी भिरांतेन घरांत भितर धांव मारली.

जेन्ना हांव बाजारांत पावलों. तेन्ना एका तरणाट्यान घराचे आगाशे वयल्यान ''हाका पिशें लागलां. पिसो रे पिसो!'' अशी व्हडा व्हडान बोब मारली. त्या तरणाट्याक पळोवपाक जेन्ना हांवें मान वयर केली, तेन्ना सुर्यान पयलेच खेपे म्हज्या मुखामळाचो उमो घेतलो. सुर्याच्या मोगा उम्यान हांव सामको उचंबळ जालों. आतां म्हाका म्हज्या म्हौंवाळ्यांची कसलीच गरज उरली ना. आनी एके भिर्केतच हांवें मोठ्यान म्हणलें, ''जांणी म्हजीं म्हौंवाळीं चोरून व्हेलीं तांचें कल्याण जावूं!'' आनी हे भाशेन हांव पिसो जालों. म्हज्या पिशेपणान म्हाका स्वतंत्रताय आनी सुरक्षा, दोनूय मेळोवन दिलीं. स्वतंत्रताय एकसुरेपणाची आनी सुरक्षा अनवळखिपणाची. अशें कित्याक खबर आसा? जे कोण म्हाका जाणा जावंक लागतात, ते म्हजे लागणुकेंचो खंयचो ना खंयचो अंश घेवन ताका गुलामपणांत धुकळटात.

पूण म्हजे सुरक्षे विशीं हांवें चड गर्वान भरून वचूंक फावना. बंदखणींतलो एक चोर लेगीत दुसऱ्या चोरा पासून सुरक्षीत आसना.

('म्हौंवाळें- एक तरेचें रुपडें)

**2. देव**

पुराण काळांत जेन्ना म्हजे ओंठ पयलेच फावट हाल्ले- म्हाका वाचा फुटली तेन्ना हांव पवित्र पर्वतार चडलों आनी देवाक म्हणलें :

''धनया देवा! हांव तुजो दासानुदास. तुगेली सुप्त इत्सा म्हणल्यार म्हजे खातीर तुजो कायदो. हांव सदांकाळ तुजे आज्ञेचें पालन करतलों.''

देवान म्हाका कांयच जाप दिली ना. आनी तो एका आकांताळ्या तुफाना वरी नेटान थंयच्यान उठून गेलो.

एक हजार वर्सां उपरांत हांव त्या पवित्र पर्वतार पर्थून एक फावट वयर चडलों आनी देवाची प्रार्थना केली, ''देवा धनया! तुजी निर्मणी. करुणा आनी मोग हातूंतल्यान तुवें म्हाका जल्म दिला. आनी मोग आनी भक्तीभावान हांव तुजी राजवटकी मेळोवन घेतलों.''

देवान जाप दिली ना आनी दाट धुंवटे सारकी, जी धुंवटी पयसुल्ल्यान दोंगरा-पर्वताक रेवडावन रावता तो थंयच्यान काडून गेलो.

एक हजार वर्सां उपरांत, परत एक फावट हांव त्या पवित्र पर्वतार चडलों आनी देवाक नमन करून म्हणलें :

''म्हज्या धनया! तूंच म्हजो हावेस आनी तूंच म्हजी परिपूर्णताय. हांव तुजो सरून गेल्लो काळ आनी तूंच म्हजो फुडार. हांवच तुजें धर्तरि वयलें मूळ-मुळावण आनी अनंत अवकाशांत तूंच म्हजें फूल, आनी दोगूय एकाच वांगडा ह्या सुर्याच्या प्रकाशांत वाडटात- व्हड जातात.'

तेन्ना देवान म्हजे वटयां बाग घेतली आनी सवकास म्हज्या कानांत गोडवायेन भरिल्लीं उतरां उच्चारलीं आनी समुद्र आपणाक वेंगावंक येवपी न्हंयेक जे तरेन गोपांत घेता तेच तरेन ताणें म्हाका आपणासरीं ओडून घेवन वेंगायलो, आनी जेन्ना हांव पर्वता वयल्यान सकला देंगणां आनी तळभुंयेर आयलों तेन्ना हांवें पळयलें, थंयय बी देव आसलो.

**3. म्हजो इश्ट**

म्हज्या इश्टा! हांव जो तुका दिश्टी पडटां, खरें म्हणल्यार तो हांव न्हय. जे कपडे हांवें घाल्यात, तें म्हजें भायलें न्हेसण, हें न्हेसण भोव फिशालकायेन विणून तयार केलां. हें न्हेसण तुज्या चिंतना पसून आनी म्हज्यांतले बेपर्वाये पसून म्हजी राखण करता.

म्हज्यांतलो 'हांव, म्हज्या इश्टा, मौनमनाचे रावतिकेंत जियेता आनी सदांकाळ तसोच जियेतलो. ताचें अस्तित्व कोणाक जाणवचें ना. ना म्हणल्यार कोणच ताचे मेरेन पावचोय ना.

म्हज्या इश्टा, हांव जें कितें सांगतां तें खरें मानचें आनी जें कितें उलयतां ताचें समर्थन करचें अशें म्हणणें ना. कारण हांव जें कितें सांगतां तें म्हजें न्हय. ते तुज्याच चिंतनाचे पडसाद. आनी हांव जें म्हणटां, वारें पश्चिमे वटयां वेळटा, तेन्ना तें पश्चिमे वटयांच वेळटा अशें हांव म्हणटां. कारण हांव तुका सांगूंक सोदिना तें म्हणल्यार, ह्या समयार म्हज्या काळजांत, वाऱ्या बदला समुद्रा विशींच्या विचारांचीं ल्हारां ल्हारेतात. तूं म्हजीं चिंतनां घेवन खोलाय मेरेन पावंक शकना.

आनी म्हाकाय तुवें तशें तळा मुळा मेरेन वचचें अशें दिसना. कारण सगळो समुद्र म्हाका म्हजेच पासत जाय.

म्हज्या इश्टा, जेन्ना तुजे खातीर दीस आसता तेन्ना ती म्हजे खातीर रात जाता. तरिपूण त्या समयार, हांव दनपारच्या भांगराळ्या सूर्य किर्णांची गजाल करतां, जीं दोंगर-दोंगुल्ल्यांचेर नाच करतात. हांव सांजे पारा तांबशे-तांबुशे सावळेसयेची गजाल करतां, जी ल्हव ल्हव घणयो-देंगणाक आपणाल्या गोपांत गुठलायता, कारण तूं म्हगेल्या काजळ-काळखाचें गीत आयकूंक शकना आनी ना म्हणल्यार नकेत्रांच्या लागिसारांत फडफडपी म्हजीं पावलांय तूं पळोवंक शकना. आनी म्हज्या काळीज खोलायेची इत्सा म्हणल्यार तुका तीं गितां आयकूंक मेळचीं न्हय आनी म्हजीं फडफडपी पावलांय तुका दिसचीं न्हय. कारण राती वेळार सामको एकाणोच रावप म्हाका आवडटा.

जेन्ना तूं सर्गा वटयां उडण मारीत आसता तेन्ना हांव नरकाचे खोलायेंत देंवत आसतां. पूण तेन्नाय तूं, तुवें पलतड मारूंक उपकारना अशा सरोवराच्या कांठार रावन म्हाका साद घालता.

इश्टा, म्हज्या इश्टा! तेन्नाय बी हांव 'म्हज्या इश्टा, म्हज्या इश्टा!' म्हणीत तुका प्रतिसाद दितां. कारण तुवें म्हजो नरक पळयिल्लो म्हाका नाका. कारण थंयच्या उज्या किट्टीचो धग तुज्या दोळ्यांक बादतलो आनी थंयचो धुंवोर तुजो स्वास आडावन धरतलो. म्हाका म्हज्या नरका विशीं खूब मोग आसा. तूं थंय आयिल्लो म्हाका नाका. हांव म्हज्या नरकांत एकाणोच म्हजें जिवीत सारूंक सोदतां.

म्हज्या इश्टा! तुका धर्म, सत्य आनी सुंदराय हांचे विशीं मोग आसा आनी हांवय बी तुजे पासत इतलेंच सांगूंक सोदता तें म्हणल्यार ह्या सगळ्यांचो मोग करप सामकें योग्य आनी तोखणाय करपा सारकें. पूण मनांतल्यान, तुजो हो मोग पळोवन म्हाका हांसूक येता. इतलेंय आसून, म्हजो हांसो तुवें पळोवचो अशें म्हाका निखालस दिसना. कारण हांसपाकूय म्हाका एकसुरेपण खूब आवडटा.

म्हज्या इश्टा! तूं दूरदर्शी आनी अणभवी. म्हाका खबर आसा,

खंयचेंय बाबतींत तुका लागतलो आनीक कोणच ना.

म्हज्या इश्टा! हेच खातीर हांव तुजे कडेन चिंतून करूनच गजाली करतां. हे भायर सांगपाचें म्हळ्यार हांव एक पिसो. आनी म्हजें पिशेपण लोकांक कळिल्लें म्हाका नाका. कारण म्हजें पिशेपण घेवन लोकां पसून पयस रावप म्हाका मानवना.

खरें म्हणल्यार, तूं म्हजो इश्ट न्हयच. म्हज्या इश्टा! हांव तुका कशे तरेन समजावन सांगूं. तुज्यो वाटो म्हज्या वाटां परस वेगळ्यो आसात म्हणून? तरिपूण आमी दोगूय एकामेकांच्या हातांत हात घालून सांगाता सांगाता चलूंक शकतात.

**4. तणा-बावलें**

एक दीस हांवें एका तणा बावल्याक म्हणलें, ''तूं ह्या जागमाग नाशिल्ल्या शेतांत उबो रावन रावन थकला आसतलो!''

बावल्यान जाप दिली, ''जनावरांक भेश्टावपांत एक आगळी वेगळीच आनी सुमारा भायली खोशी आसता. ताका लागून म्हाका केन्नाच पुरो जायना वा हांव थकना.''

हांवें एक खीणभर चिंतलें आनी म्हणलें, ''हें खरें तुजें. कारण हांवेंय असल्या गजालींचो अणभव घेतला.''

हाचेर बावल्यान म्हणलें, ''व्हय व्हय! जांच्या शरिरांत कडण तण भरिल्लें आसता, तांकांच हांतली खुशालकाय कळपाची!''

इतलें आयकून हांव म्हजे वटेन गेलों. पूण ताच्या म्हणण्या प्रमाण म्हाका एक गजाल कळ्ळी ना. ती म्हणल्यार ताणें म्हजी तोखणाय केल्या काय बकच्छायो केल्यात?

एका वर्सा उपरांत हांव जंय तें तणा बावलें आशिल्लें थंय परत पावलों. पळय तर तो बावलो एक तत्वगिन्यानी जाला. आनी ते उपरांत आनीक केन्नातरी ताचे सरीं पावलों तेन्ना पळय जाल्यार त्या बावल्याच्या माथ्या वयल्यान चेप्या खाला दोन कावळे घोंटेर बांदताले.

**5. न्हिदेंत चलपी**

ज्या गांवांत हांव जल्मलों थंय एक अस्तुरी आनी तिगेली धूव

रावताली. दोगांयकूय न्हिदेंत चलपाची संवय आसली. एके रातीं सगळो संवसार सुस्त न्हिदिल्लो तेन्ना आवय आनी धूव, दोगांय न्हिदेंतच चलपाक लागलीं आनी भोंवत भोंवत दंवा-धुंवटेन भरिल्ले एके बागेंत पावलीं आनी एकामेकांक मेळ्ळीं.

आवयन धुवेक म्हणलें, ''हय हय, आतां कळ्ळें, तूं म्हजी दुस्मान. तुवेंच म्हजें तरनाटेपण ना करून उडयलां. तूंच तें तुवेंच म्हज्या जिविताच्या घट्टणाचेर आपणालें जिवीतमंदीर उबें केलां. जल्माक येतनाच तुजो गळो मुड्डिल्लो तर भेस बरें जावपाचें.''

धुवेन म्हणलें, ''हें सुवार्थी जड्डे. तूं म्हज्या आनी म्हज्या स्वतंत्र सभावाचे वर्तणुकी मदें एक व्हडलें खडप कशी उबी आसा. कोण मनीस, म्हजें जिवीत म्हणल्यार तुज्या बावून-सुकून गेल्ल्या जिविताचें पडबिंब म्हूण मानून घेतलो? देवान तुजे जिणेचो शेवट केल्लोच बरें आशिल्लें!' ह्याय वेळार कोंब्यान साद घालो आनी दोगांय न्हिदेंतल्यान जागीं जालीं.

जाण्टेलेन भोव मोगान म्हणलें, 'कोण, तूं म्हजी अपुरबायेची धूव!'

धुवेन मोगभरीत उतरांनी जाप दिली, 'हय, म्हगेले मोगाचे मम्मी!'

**6. बुदवंत सुणो**

एक दीस, एक बुदवंत सुणो, खूबशीं माजरां एकठांय जाल्लीं थंय पावलो. ताणें पळयलें, सगळीं माजरां आपणाभितर मग्न आसात. तीं ताचे वटेन पळय लेगीत नात. म्हणटकीच तो सुणो त्या माजरांचें कितें चल्लां तें पळयत थंयच रावलो. मागीर, थोड्या वेळान त्या माजरां मदल्या एका व्हडल्या आनी आंगलोटान भरिल्ल्या माजरान हेर माजरांचेर अशीच एक नदर मारली आनी म्हणलें, ''भावंडांनो, देवालागीं प्रार्थना करात. कित्याक जाणात, तुमी जर सामके मनांतसून मागणें केलें जाल्यार वयर मळबांत सावन, खऱ्यांनीच हुंदरांचो पावस पडूंक लागतलो.''

सुण्यान जेन्ना हें आयकलें तेन्ना ताका सामकें भितरल्यान हांसूंक आयलें. ताणें म्हणलें, ''आगो कुड्ड्या आनी मुर्ख मांजरांनो! तुमी

समजतात तें खंयच्याच पुस्तकांत बरयिल्लें ना. आनी तुमगेल्या जाल्ल्या-गेल्ल्या जाणटेल्यांकूय तें खबर नाशिल्लें. देवाची पुजा करून मागणें करतकच पावस पडटा तो हुंदरांचो न्हय, हाडांचो!'' इतलें उलोवन तो सुणो फुडें चलूंक लागलो.

**7. दोग साधू**

एका दोंगराचेर दोग साधू रावताले. देवाची पुजा-प्रार्थना करप आनी एकामेका कडेन मायेमोगान चलप हाचे भायर ते आनीक कितेंच करिनासले. तांचे कडेन मातयेचो एक पेलो आशिल्लो. ताचे भायर आनीक कितेंच नासलें, एक दीस जो व्हडलो साधू आशिल्लो ताच्या मनांत कली रिगलो. तो धाकल्या साधू सरीं आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''आमी अशे सांगाता रावंक लागल्यार खूब काळ जालो. आतां आमी वेगळे जावपाचो वेळ आयला. ते खातीर, आमी आमगेल्या वस्तूंची वांटणी करुंया.''

धाकल्या साधून म्हणलें, ''तुका सोडून रावप म्हाका भोवच कठीण जातलें. पूण तुजी तर इत्साच आसा जाल्यार तूं म्हणटा तशें करुंया.'' इतलें उलोवन ताणें जो मातयेचो पेलो आशिल्लो तो काडून व्हडल्या साधू मुखार दवरलो आनी म्हणलें ''हाची वांटणी करप कशेंच शक्य ना. हो पेलो तूंच घे.''

व्हडल्या साधून जाप दिली, ताणें म्हणलें, ''ना. म्हाका कोणाचे उपकार नाकात. म्हज्या वांट्याक जें कितें येता तें सोडून म्हाका कितेंच नाका. हो पेलो आमचे मदें वांटचो पडटलो.''

धाकल्या साधून म्हणलें, 'हें पळय जर हो पेलो फुटलो तर तो कोणाकूच उपेगाक पडचो ना तुका जर मान्य आसत तर आमी अशें करुंया- चिटी घालून कितें तें थारावंया.

पूण व्हडल्या साधून दुसरे खेपो सांगलें, ''म्हज्या वांट्याक कायद्यान येता तीच वस्त हांव घेतलों. न्याय-नीत म्हणटात ती नशिबाचेर सोडपाक हांव तयार ना. ह्या पेल्याचीय आमकां वांटणी करचीच पडटली.''

व्हडल्या साधूलीं उतरां आयकून धाकलो साधू निर्जाप जालो. तरीय ताणें म्हणलें, ''जर तुजी तशी इत्साच आसा तर चल या, आमी ह्या पेल्याचे कुडके करुंया.''

हें आयकून व्हडल्या साधूलो चेरो संतापान सामको तांबडो गूंज जालो. ताणें किंवाट्यान म्हणलें, ''आरे, भिजुड्ड्या, ह्या पेल्या खातीर तूं म्हजे कडेन झगडपाचोय ना?''

**8. आदान-प्रदान**

एका मनशा कडेन एक आंगण धांपून उडोवं येत इतल्यो सुयो आशिल्ल्यो. एक दीस जेझूची आवय मारी माता ताचे कडेन आयली आनी तिणें सांगलें, ''म्हज्या भावा, म्हज्या पुताचे कपडे पिंजल्यात. ताका देवमंदिरांत वचपाचें आसा. ते पयलीं म्हाका तागेले कपडे शिंवून सारके करपाचे आसात. उपकार करून म्हाका एक सूय दिवशी?''

त्या मनशान मारी मातेक सूय दिवचे बदला, आदान-प्रदान ह्या विशयाचेर विद्‌वानकायेन भरिल्लें एक व्हड व्याख्यान दिलें आनी म्हणलें, ''देवमंदिरांत वचचे पयलीं तूं तुज्या पुताक हांवें जें कितें सांगलां तें सगळें सांग!''

**9. सात हांव**

राती कडेन जेन्ना सगळ्याक किण्ण शांतताय पातळिल्ली आनी हांव अर्दे न्हिदेंत आशिल्लो, तेन्ना म्हज्यांतले सातूय हांव, एके कडेन बसले आनी ल्हव आवाजांत फुतूफुतू गजाली करूंक लागले.

पयलो हांव : ''इतलीं वर्सां हांव हांगा ह्या पिसांटां भितर रावलां. ह्या काळांत हांवें कितें केलां काय म्हणल्यार, दीसभर ताका जें कितें दुख्ख दितालें तें हांव जितें दवरतालों आनी रात जातकूच तें हांव आनीक नव्यान जिवें करतालों. हें दीसपट्टें आतां म्हज्यान सोंसूंक जायना. आतां म्हाका बंड करचेंच पडटलें.''

दुसरो हांव : ''तुजें दैव म्हजे परस जायतें बरें भावा! ह्या पिशा मनशां मदलों सगळ्यांत खुशालकायेन भरिल्लो तो हांव. हांव हाचो हांसो हांसतां आनी हाचे खोशयेच्या खिणांचे सूर आळयतां. म्हज्या

पावलांक तीन तीन पांखाटे लावन हाचे पर्जळीत विचारां सांगाता हांव नाचतां. म्हाका हें दुख्खभरीत जिणे आड उबें रावचेंच पडटलें आतां.''

तिसरो हांव : ''मोगाक आशेल्ल्या हांव विशीं आनीक कितें सांगपाचें? हो हांव म्हणल्यार हळशिकावण्या वान्सांनी आनी तरेकवार हावेसांनी पेटिल्ली एक मूर्त. खरें म्हणल्यार असल्या आड हांवें पेंगट बांदूकच जाय.''

चवथो हांव : ''तुमचे सगळ्यां परस हांव चड दुख्खी. कारण, कुसेकेपण आनी पाड घालपी भावना हाचे बगर आनीक म्हाका दुसरें कांयच काम ना. हो हांव म्हणल्यार नरकाच्या काळ्याकुट्ट विवरांत जल्माक आयिल्ल्या एका तुफाना सारको. ह्या पिसांटाच्या गुलामपणाचो हांव विरोध करतलों म्हणल्यार करतलों.''

पांचवो हांव : ''हांव निरंतर चिंतीत रावपी आनी सदांकाळ कल्पनांनी बुडून आशिल्लों हांव. म्हज्या नशिबांत, जाणापरीभायले आनी जी खंय निर्माणच जावंक ना असले गजाली फाटल्यान एकसारकें लागप इतलेंच बरयिल्लें आसा. बंड हांव करतलों- तुमी न्हय!''

सवो हांव : एकसारको वावर करीत रावपी तो हो हांव. दुबळे वावराडे, थकिल्ले-भागिल्ले आनी भुकेल्ल्या तानेल्ल्यांक थाकाय दिवन वयर काडपी तो हांव. ज्या गजालींक कसलेंच रंग-रूप ना. तांकां आकाराक हाडून कूड-बड दिवपी हांव. हांव ह्या थकभागनाशिल्ल्या पिशा आड बंद करतलोंच.

सातवो हांव : ''कितली अजापाची गजाल आसा पळयात ही! तुमच्यांतल्या दर एकाच्या नशिबांत जें कितें थारावन दिलां तें काम तुमकां करचेंच पडटा. कटा! हांवय बी तुमचेवरीच, थारावन दिल्ले प्रमाण वर्तुपी हांव जाल्लों जाल्यार! पुणून, म्हज्या नशिबांत असलें कांय एक ना. हांव एक कामधाम नाशिल्लों हांव, आनी तुमी सगळे, हो सबंद जिणे-गाडो चलोवपाक गुंतिल्ले आसतात, तेन्ना हांव एक नांव नाशिल्लों, थाव-लाव नाशिल्ले सुवातेर वोग्गी बसून रावतां. म्हज्या लागसारच्यांनो, म्हाका एक सांगात, बंड कोणे करूंक जाय-

हांवें काय तुमी?"

सातवो हांव जेन्ना हें सगळें उलयलां, तेन्ना बाकीचे स हांव, काकुळटेन भरिल्ले नदरेन ताका पळोवपाक लागले. पूण कोण कांयच उलयलो ना. ल्हव ल्हव रात जशी वाडत गेली, तशी एके नवे तरेचे पूण खोशयेन भरिल्ल्या गुलामपणाक गुठलावन घेवन ते सगळे न्हिदून पडले.

पुणून सातवो हांव, आपणालें रिकामेपण घेवन कित्याचोच थाव लागनाशिल्ल्या शुन्या कडेन एकसारकी आपणाली नदर लायत रावलो.

**10. झुज**

एके रातीं, एका राजमहालांत खासा जेवणाची एक कार्यावळ आसली. त्या वेळार एक मनीस भितर सरलो आनी राजा सरीं वचून उबो रावलो. सगळे सोयरे ताका पळोवंक लागले. ताणें पळयलें, त्या आयिल्ल्या मनशाचो एक दोळो सामको भायर सरला आनी घायांतल्यान रगत व्हांवता.

राजान विचारलें, "ही तुजी अशी दशा कशी जाली?"

त्या मनशान जबाब दिलो, 'चोरयो करप हो म्हजो धंदो. कालचे रातीं जेन्ना चंद्रीम उदेवंक नाशिल्लो तेन्ना हांव एका सावकाराल्या दुकानांत चोरी करपाक म्हूण गेल्लों. पूण चुकून एका विणकाराल्या घरांत पावलों. जेन्ना हांवें जनेलांतल्यान उडकी मारली तेन्ना म्हजी तकली हातमागाक आपटली आनी म्हजो दोळो फुटलो. राजासायबानू! म्हाका त्या विणकारा संबंदांत तुमी न्याय-नीत केल्ली जाय.

हें आयकून राजान त्या विणकाराक आपोवन हाडलो आनी तागेलो एक दोळो काडचो असो हुकूम दिलो.

विणकारान म्हणलें, "म्हाराज, म्हजो एक दोळो काडपाचो तुमचो हो निवाडो न्यायाक धरून ना. लुगट विणटना, लुगटाच्यो दोनूय कडो पळोवपाक म्हाका दोनूय दोळ्यांची सामकी गरज आसता. म्हज्या शेजाराक एक मोची रावता. ताकाय दोन दोळे आसात. पूण ताका आपणालें काम करपाक दोनूय दोळ्यांची गरज लागना."

हें आयकून राजान मोचीक आपोवन हाडलो. राजान तागेल्या दोन दोळ्यांतलो एक दोळो काडूंक लायलो. आनी हे भशेन न्याय-नीत करपाचें कार्य पुराय जालें.

## 11. बुद्धिवंत पातशा

खूब आदली गजाल. विरानी नांवाच्या शाराचेर एक पातशा राज्य करतालो. तो भोव पराक्रमी आशिल्लो. ताका लागून लोक ताका भियेताले. पूण तो बुद्धिवंत आशिल्ल्यान लोक ताचेर खूब मोग बी करताले.

त्या शारांत मदेवर्ती सुवातेर एक व्हड बांय आशिल्ली. तिचें उदक भोव शीतळ आनी मोतयां वरीं निर्मळ आशिल्लें. त्या शारांतले सगळे लोक आनी राजा सयत सगळे दरबारी तेच बांयचें उदक खाताले. कारण, पियेवपाच्या उदका खातीर शारांत आनीक दुसरी बांयच नासली.

एके रातीं सगळे लोक न्हिदेंत आसतना शारांत एक चेटकीण भितर सरली आनी एका अद्भूत वखदाचे सात थेंबे तिणें बांयंत घाले. मागीर तिणें म्हणलें, ''जो कोण हाचे उपरांत हे बांयचें उदक पियेतलो, तो पिसो जावन पडटलो.''

दुसऱ्या दिसा, पातशाले मंत्री बी भायरावन सगळे लोक ते बांयचें उदक पियेले आनी चेटकिणीन सांगून दवरिल्ले प्रमाण सगळे सामके पिशे जाले.

त्या दिसा शारांतल्या गल्ल्या-वाड्यांनी आनी बाजारांत सगळे कडेन लोक एकच गजाल उलयताले आनी एकामेकांक बी सांगताले ती म्हणल्यार ''पातशा आनी तागेल्या मंत्र्यांची बुद्द भ्रश्ट जाल्या. असल्या मतिभ्रश्ट पातशाचो कारभार आमकां कसोच उपकारपाचो ना. आमी ताका शिंवासना वयलो ओडून काडुंया.''

जेन्ना सांज जाली तेन्ना पातशान एका भांगराच्या आयदनांतल्या ते बांयचें उदक हाडूंक लायलें आनी तें पियेलो. तशेंच आपणाल्या प्रधानमंत्र्याकय तें पिवयलें. मागीर कितें पळयतलो विरानी शारांतले सगळे लोक खुशालभरीत जावन धोल-ताशे वाजयत नाचूंक लागले.

कारण तागेल्या पातशाची आनी प्रधानमंत्र्याची बुद्द आतां तांकां जाय तशी थाऱ्यार आयिल्ली.

### 12. व्हड हावेस

एका मदिरालयाच्या मेजा भोंवतणीं तीग जाण बसून आशिल्ले. तांतलो एक आसलो विणकार, दुसरो आसलो एक थवय आनी तिसरो एक फोंड खणपी वावराडो.

वीणकारान म्हणलें, ''आज हांवें बारीक धाग्यांचें धवट एके जाण्टेलेक दोन असुर्फ्यांक विकलें. येया, आज आमी भरपूर पियेवन घेवंया.''

थवयान सांगलें, ''आज हांवें एक बऱ्यांतली बरी मर्णा-पेट विकली. आज आमी सोऱ्या वांगडा बऱ्यांतले बरे कबाबय खावंया.''

फोंड खणपी वावराड्यान म्हणलें, ''आज हांवं फकत एकूच फोंड खणला. पूण मेल्ल्याच्या घरांतल्यांनी म्हाका दोट्टी दुडू फारीक केले. ते पासत आज आमी इल्ली मिठायूय खावंया.''

ते राती मदिरालयांत खूब गजबज चल्लो. तिगूय जाणांनी भरपूर सोरो, कबाब आनी मिठाय खा-खा खाली. कारण तिगूय जाण सामके खोशयेंत आशिल्ले.

मदिरालयाचो धनी खोशयेन भरून आपणाले घरकान्नी कडेन पळयतालो. कारण आज तागेले सोयरे मन सोडून खर्च करताले.

जेन्ना तिगूय मदिरालयांतल्यान भायर सरले तेन्ना चंद्रीम उदेल्लो. आनी ते मोट्या मोट्यान बोवाळ मारीत गायन आनी व्हडा व्हडान गजाली करीत वताले. मदिरालयाचो धनी आनी तागेली घरकान्न दारांत उबीं रावन तांकां पळयतालीं.

घरकान्नीन म्हणलें, ''हे मनीस कितले आल्मी खुशाल आनी मौज-मजा करपी पळयात. असलें गिरायक सदां जर आमगेर येत तर आमगेल्या पुताक हें सोऱ्या दुकान चलोवपाची गरज पडची ना. आमचे जोडींतल्यान आमी ताका खूब शिकोवंक शकतलीं. आनी घडये तो एक व्हड पाद्री जावंक पावतलो.''

* धवत - प्रेत गुठलावपाचे वस्त्र, कफन
* मर्णा पेट - काशांव, शवपेटी

**13. नवी खोशी**

काल रातीं हांवें एक नवे तरेचीं खुशालकाय सोदून काडली. आनी जेन्ना हांव ते खुशालकायेचो उपभोग घेतालों तेन्नाच एक देव आनी एक सैतान म्हज्या घरा वटेन धांव मारीत आयले. म्हज्या दारांतच ते एकामेकाक मेळ्ळे आनी हांवें जें कितें सोदून काडलां ते संबंदान आपसांत झगडूंक लागले.

एकलो म्हणटालो- ''हें सामकें पातक!''

दुसरो म्हणटालो, ''हें खरेलें पुण्य!'

**14. दुसरी भास**

म्हजो जल्म जाले उपरांत तीन दिसांनी हांव जेन्ना रस्मी पाळण्यांत आशिल्लों तेन्ना चोयवशीं सगळो संवसार अजाभरीत जावन पळयतालो. त्या वेळार म्हजे आवयन म्हाका दूद दितलेक विचारलें, 'कसो आसा म्हगेलो बाबुलो?'

दूद दिवपेन जाप दिली. तिणें म्हणलें, ''बाय, बाबुलो एकदम बरो आसा. हांवें ताका तीन खेपो दूद दिलां. आज मेरेन हांवें इतलो आनंदीत आशिल्लो भुरगो पळोवंक ना.

हें आयकून हांव आकूळ-पिकूळ जालों. हांव किळचलों, ''ना मम्मी, ही सांगता तें सत न्हय. कित्याक जाणा, म्हाका हें हांतरुण सामकें घट्ट घट्ट लागता. आनी जें दूद पियेलों तें म्हजे जिबेक सामकें कोडू लागलें. ती म्हाका दुदाक धरता तेन्ना तिका जो वास मारता तो म्हज्यान सोंसूंक जायना. म्हाका खूब त्रास जातात.''

पूण हांव कितें म्हणटां तें म्हजें मम्मीक कळ्ळें ना आनी ते दुदू-मांकूय कळूंक ना. कारण जे भाशेंत हांव उलयतालों ती संवसारांतली भास नासली. म्हजी भास ज्या संवसारांतल्यान हांव आयलां थंयची.

एकविसाच्या दिसा आमगेर, म्हाका नांव घालपाक जेन्ना आमगेलो धर्म-शास्त्री आयलो तेन्ना ताणे म्हजे मम्मीक म्हणलें, ''तुमकां खरेंच

खुशालकाय भोगूंक जाय. कारण तुमगेलो पूत जातकूच धर्मशील आसा.''

धर्मशास्त्री कितें सांगता तें आयकून म्हाका अजाप जालें. हांवें तांकां म्हणलें, ''तशें जाल्यार तुमगेले सर्गेस्त आवयक खूब वायट दिसूंक जाय कारण तुमी जातकूच धर्मशील नाशिल्ले.''

पूण धर्मशास्त्रीकूय म्हजी भास कळ्ळी ना.

सात म्हयन्या उपरांत म्हाका एका जोतिश्यान पळयलो. ताणें मम्मीक म्हणलें, ''तुगेलो पूत खूब व्हड राजकारणी जातलो. आनी तो संवसारांतल्या लोकांक बरी वाट दाखोवपी म्हूण नांव जोडटलो.''

हें आयकून हांवें किंळाच मारली. हांवें म्हणलें, ''हो जोतिशी फटी मारता. कारण एका गावप्या बगर म्हाका आनीक कोण एक जावपाचो ना.''

पूण त्या वेळारय म्हजी भास कोणा एकाक कळ्ळी ना. म्हाका भोव अजाप जालें. आतां म्हजी पिराय 33 वर्सांची जाल्या. म्हजी मम्मी, म्हाका दूद दिवपी, आमचो धर्मशास्त्री सगळीं संवसाराक अंतरल्यांत. पूण तो ज्योतिशी अजून जिवीत आसा. काल तो म्हाका देवमंदिराच्या दारा कडेन मेळ्ळो. आमी एकमेका कडेन उलोवंक लागले. उलयतां उलयतां ताणें म्हणलें, ''हांव जाणांच आशिल्लों तूं एक गायक जातलो म्हूण. हांवें तुगेल्या भुरगेपणांतच हें भविश्य करून दवरिल्लें.''

हांवें तो कितें सांगतालो तें खरें मानलें. कारण, हांव म्हजी पयलींची भास पुरायेन विसरून गेल्लों.

### 15. दाळीम

जेन्ना हांव एका दाळमाच्या पोटांत आशिल्लें तेन्ना दुसरें एक बीं एक गजाल सांगतना हांवें आयकल्लें. तें म्हणी, 'केन्ना तरी एक दीस म्हजें एक व्हड झाड जातलें. वारो येवन म्हज्या खांदयांचेर गायत बसतलो. सुर्याचीं किर्णां येवन म्हज्या पाना-पानांचेर नाच करतलीं. दर एका रुतूकाळांत हांव अदीक सुंदर आनी धश्ट-पुश्ट जातलें.

मागीर दुसरें बीं उलयलें- ''जेन्ना हांव तुमचेवरी तरणेताठें आसलें

तेन्ना म्हाकाय बी तुमचे वरीच दिसतालें. पूण आतां, जेन्ना हांव सगळ्या गजालींचो यथास्थीत अणभव घेवंक शकतां तेन्ना म्हाका दिसता, हांव जी आस्त बाळगून आशिल्लें ती सामकी अर्थाभायरी आसली.''

उपरांत तिसऱ्या बियान तोंड घालें, ''आमच्यांत असली कसलीच गजाल ना जिचे वरवीं एक पर्जळीत फुडार आमच्या वांट्याक येत.''

चवथ्या बिंयान म्हणलें, ''पूण आमच्या फुडारा विशीं आस्थेन जर विचार केलो ना तर आमचें जिवीत म्हणल्यार एक फकाण कशें जातलें.''

पांचव्यान उतर घालें, ''आमचे जिवीत म्हणल्यार कितें हेंच जेन्ना आमकां खबर ना तेन्ना आमी फुडाराक कोण जातलीं हाचेर चिंतप हाका कांयच अर्थ ना.''

सव्या बिंयान म्हणलें, ''आमी जें कितें आसात तशीच सद्दां उरतलीं.''

सातव्यान सांगलें, ''फुडाराक कितें कितें घडटलें तें सगळें म्हाका पुरायेन खबर आसा. पूण तें सगळें उतरांनी सांगपाक म्हाका जमचें ना.''

ते उपरांत आठवें बीं उलयलें. मागीर णववें, उपरांत धावें बीं. हे तरेन सगळीं बियां होच वाद एकमेकां कडेन घालीत रावलीं. आनी सगळो बोवाळूच जालो. त्या बोवाळांत कोणाचेंय एक धड उतर कळप कठीण जालें. हाका लागून हांव वचून एके कळयेच्या काळजांत बसलें जंय बियां थोडींच आसलीं आनी उलोवप-करपय चड नासलें.

### 16. दोन पांजरे

म्हज्या वडिलांचे बागेंत दोन पांजरे आसात. एका पांजऱ्यांत एक शींव आसा. तो तांच्या बंद्या दासांनी नानियाच्या रेंवटाळांतल्यान धरून हाडिल्लो. दुसऱ्या पांजऱ्यांत आसा एक किरकिरें सुकणें.

दर दिसा सकाळ जाली म्हणटकीच, सुकणें शिंवाक उलो मारता आनी म्हणटा, ''म्हज्या बंदिस्त भावा! तुजो आयचो दीस बरो वचूं अशें मागतां!''

## 17. तीन मुयो

एक मनीस वोत खायत उक्ताडार न्हिदिल्लो. इतल्यांत तीन मुयो ताच्या नाकपुडयां कडेन जमा जाल्यो. तांणी आपपणाले रीत रविशे प्रमाण एकामेकांक अभिवादन केलें आनी मागीर त्यो आपसांत उलोवपाक लागल्यो.

एकले मुयेन म्हणलें- "हांवें हांगाच्या दोंगर आनी देंगणा इतली फुटंग जमीन खंयच पळोवंक ना. हांवें हांगा पुराय दीस भर, कितेंय खावंक मेळटा काय म्हूण पळयलें. पूण म्हाका एक किस्कूट लेगीत मेळ्ळें ना."

दुसरी मूय उलयली- "हांवें सगळ्यो खांची कोनशे आर्तू-पर्तून पळयले, म्हाकाय कांय एक मेळ्ळें ना. म्हाका दिसता, आमगेले हेर जातवाले म्हणटात ते प्रमाण जंय कितेंच किल्लून येना तसली ही मोव गुळगुळीत आनी रेबटाळ भूंय."

हे मागीर तिसरे मुयेन तोंड उगडलें. तिणें म्हणलें, "म्हज्या सांगातिणींनो, हे वोगतार आमी एक व्हडले मुयेच्या नाकार बसल्यात. तिची कूड इतली व्हड आसा- जी आमी सगळी पळोवंकच शकनात. तिची सावळीच कितली तरी लांब रूंद-तिचो आमी अदमास करूंक शकनात. तिचो आवाज इतलो मोटो- जो आमच्यांनी सोंसूंकच जायना. हो एक सर्वव्यापी प्राणी."

जेन्ना तिसरे मुयेचें सांगून सोंपलें तेन्ना दुसऱ्या मुयांनी एकामेका कडेन पळयलें आनी त्यो व्हडा व्हडान हांसूंक लागल्यो. आनी बरोबर त्याच वेळार तो न्हिदिल्लो मनीस अर्द झेमेतच मात्सो हाल्लो. आनी तेच अवस्थेत ताणें आपणालें नाक हातान खाजयलें. तिनूय मुयो ताका लागून चिड्डून मेल्यो.

## 18. मर्णा फोंड खणपी

एक फावट हांव जेन्ना म्हगेल्या एका मेल्ल्या दासाक पुरतालों तेन्ना मर्णा-फोंड खणपी म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो : "कितलेच जाण हांगा अशें मेल्ल्यांक पुरपाक येतात. ह्या सगळ्यां परस

तुमीच म्हाका चड मानवतात.''

हांवें म्हणलें, ''तूं कितें म्हणटा तें आयकून म्हाका बरेंऽऽ दिसलें, पूण एक सांग- हांव तुका कित्याक म्हूण मानवतां.''

फोंड खणप्यान जाप दिली : ''सांगपाची गजाल म्हणल्यार लोक हांगा रडत येतात आनी रडत पर्थून वतात, पूण तुमी हांस-हांसत येतात आनी हांस-हांसतच पर्थून वतात.

**19. मंदिराच्या सोपणाचेर**

काल सांजवेळार हांवें मंदिराच्या संगमरवरी सोपणाचेर एक अस्तुरी बशिल्ली पळयली. तिच्या दोनूय अर्दांनी दोन दादले बशिल्ले. ते अस्तुरेचो एक वटेचो गाल हळडुवो जाल्लो. आनी दुसरो गाल सामको तांबडो गूंज जावन लकलकतालो.

**20. पवित्र शार**

हांव म्हजे तरणाटे पिरायेचेर एक गजाल सदांच आयकत आयिल्लों ती म्हणल्यार अशें एक शार आसा जंयचे नागरीक देव धर्माच्या पुस्तकांत बरयिल्लें आसा तेच प्रमाण आपणाली जीण सारतात. हांवें मनांत म्हणलें, ''हांव जरूर हें शार सोदून काडटलों आनी थंयचे प्रमाण जिवीत साधना करतलों.

तें शार खूब पयस आशिल्लें. हांवें म्हज्या प्रवासा खातीर बरेंचशें सामान एकठांय केलें. प्रवास सुरू जालो. चाळीस दिसां उपरांत म्हाका तें शार पयसुल्ल्यानच दिश्टी पडलें. एकेचाळिसाव्या दिसा हांव त्या शारांत भितर सरलों.

त्या शारांतली एक गजाल पळोवन हांव सामको अजापीत जालों. थंयच्या सगळ्या नागरिकांक फकत एकच दोळो आनी एकच हात आशिल्लो.

म्हाका रोखडेंच जाणवलें- खासा हांवच न्हय, तर त्या शारांतले नागरिकूय बी अजापीतच अवस्थेंत जियेताले. म्हजे दोन हात आनी दोन दोळे पळोवन तांकां सामकें सुमारा भायलें अजापच जाल्लें. हे खातीर म्हज्या संबंदांत जेन्ना ते आपसांत उलोवंक लागले तेन्ना एका

मनशाक हांवें विचारलें : एक सांगात, हेंच मू ते पवित्र शार, जंयचो दर एक मनीस आपणाली जीण धार्मीक रिती प्रमाणे सारता?'

ताणें जाप दिली : ''हय, हेंच तें शार.''

हांवें विचारलें : ''तुमची ही अशी दशा कित्याक जाली? तुमचो उजवो दोळो ना आनी उजवो हातय ना. अशें कित्याक जालें?''

म्हजो प्रस्न आयकून तो एके तरेचो उचंबळीत जालो, ताणें म्हणलें : ''म्हजे वांगडा येयात, दाखयतां. 'तो म्हाका एका देवळांत घेवन गेलो. शाराच्या मदेकांत तें आशिल्लें. हांवें पळयलें, देवळाच्या चौकार हातांची आनी दोळ्यांची एक व्हड रास पडिल्ली. तें सगळें कुसत घाणी घुट्टानी पडूंक लागिल्ल्यो. तें पळोवन हांवें म्हणलें, ''भोगोस सायबा! खंयच्या निश्ठूर जैत जोडण्यान तुमचेर हो असलो क्रूर अत्याचार केलो?''

हें आयकतकीच, ते आपसांत ल्हव ल्हव उलोवंक लागले. एक जाणटेलो फुडें सरलो. तो म्हाका सांगूंक लागलो : ''हें सगळें आमचेंच काम. खंयच्याय भायल्या जैतवंतांन हांगा येवन आमचे दोळे काडूंक नात वा हात कातरूंक नात. देवान आमच्यांतल्या वायटाचेर हें जैत जोडून दिलां.''

इतले सांगून तो म्हाका एके उंचेले सुवातेर घेवन गेलो. हेर सगळे जाण आमचे फाटल्यान आशिल्ले. थंय पावतकीच देवळाचे वेदी वयर कोत्रायिल्ली एक उतर-पाटी ताणें म्हाका दाखयली. तिचेर अशीं उतरां आशिल्लीं.

''जर तुमचो उजवो दोळो तुमकां अपमानांत घालता जाल्यार तो कोंचून काडून उडयात. कारण सगळी कूडच नरकांत पडून उरपा बदला, तिचें एक आंगच कातरून काडिल्लें बरें. आनी जर तुमचो उजवो हात कसलेंय वायट काम करपाक तुमकां भाग पाडटा जायत जाल्यार तोच कातरून भायर मारात. कारण तुमचें एक आंग ना जातलें पूण तुमची सगळी कूड नरकांत पडची ना.''

ती उतर पाटी वाचून म्हाका सगळ्या घुटाचो उलगडो जालो.

हांवें म्हजें तोंड फाटल्यान आशिल्ल्या लोकां वटेन केलें आनी तांकां विचारलें "तुमचे मदें असो एकूय दादलो वा अस्तुरी ना जाचे दोनूय हात आनी दोनूय दोळे जश्याक तशे आसात?"

सगळ्यांनी जाप दिली : "ना, ना . कोण एक ना. आसात तीं फकत भुरगीं. तीं, ही उतर पाटी वाचून ते प्रमाण वर्तुपाक तितलीं सज्ञान जावंक नात. देखून तींच उरल्यांत आनीक कोण ना."

हांव जेन्ना त्या देवळांतलो भायर आयलों तेन्ना हांव आनी आनीक वेळ होगडायत त्या पवित्र शारांत रावलों ना. सरळ भायली वाट धरली. कारण हांव भुरगे पिरायेचो नाशिल्लों आनी हांव ती उतर पाटी बरे तरेन वाचूंक शकतालों.

### 21. उजू मार्गी आनी दुश्ट मार्गी देवदूत

एक उजू मार्गी आनी एक दुश्ट मार्गी अशे दोग देवदूत एका दोंगराचेर एकामेकांक भेटले. उजू मार्गी देवदुतान म्हणलें : "तुजो आयचो दीस बरो वचूं!"

दुश्ट मार्गी देवदुतान कितेंच जाप दिली ना. उजू मार्गी देवदुतान परतून म्हणलें : "आज तुज्या जिवाक बरेंऽ दिसना दिसता."

दुश्ट मार्गी देवदुतान म्हणलें, "बरेच दीस जाले सगळे लोक म्हाका हांव म्हणल्यार तूं अशें समजतात. म्हाका तुज्याच नांवान उलो मारतात आनी तुजे कडेन वागिल्ले सारके वागतात. म्हाका ही गजाल सामकी काळजाक झोंबता."

हेच तरेन उजू मार्गी देवदुतान सांगलें : "लोक म्हजे संबंदानय हांव तो तूंच समजून गोंदळ करतात. तुजें नांव घेवन म्हाका उलो मारतात."

हें आयकून दुस्ट मार्गी देवदूत लोकांच्या अक्कलशुन्यपणाक शिरापीत थंयच्यान एकदम काडून गेलो.

### 22. पराभव

पराभव, म्हजी हार, म्हजें एकसुरेंपण, म्हजें एकटुकेंपण!

पराभवा, हजार गजालीं मदल्यानूय तूंच म्हजो चड मोगाचो!

संवसारांतल्या गिरेस्ताकायां मदें तूंच खरो म्हजो काळजा-कळो.

पराभव- म्हजी हार, म्हजें आत्मगिन्यान, म्हजी प्रतिकार- प्रवृत्ती.

म्हाका खबर आसा, तुकाच लागून हांव तरणाटो, तूंच म्हज्या पावलांतलें बळ.

एक खिणा भितर बावन-सुकून वचपी आनी सुफळतायांच्या जंवजाळांत घुस्पून पडपी हांव न्हय.

हांवें तुजे मदली एकसुरेपणाची खुशालकाय जोडून घेतल्या.

आनी जनलोकांनी, म्हाका कुशीन उडोवपाचें आनी दुस्वासपाचें सुखसमादान मेळोवन घेतलां.

म्हजे हारे, म्हज्या पराभवा, तूं म्हजी धारेची तरसाद आनी धाल!

तुजे दोळेच म्हाका सांगतात, राजशिंवासनाचेर बसप म्हणल्यार सामकी गुलामपणाची खुणा. आनी हेरांनी वळख देख दाखोवप म्हणल्यार मातयेभरवणच जावपा सारकें.

आनी कोणाच्याय चपक्यांत सांपडप म्हणल्यार फुलपा-फळपाचो निमाणो पांवडो. आनी पिकून अळार जाल्ल्या फळावरी झडून कुसून वचप.

म्हजे हारे, पराजया, म्हजो सांगाती बलदंडा! तूं म्हजें गीत, तूंच म्हजो सुस्कार आनी तूंच आयकतलो म्हजे स्तब्धतायेंतलो नाद-निनाद.

आनी तुजे बगर दुसरो कोणच म्हजे कडेन पांखाट्यांच्या फडफडाटा संबंदान खबर करचो ना.

ह्या गाजपी समुद्रा विशीं उलोवंचो ना. आनी तुजे बगर दुसरो कोणूच त्या रातभर जळत रावपी दोंगराची गजाल करचो ना.

हय, फकत तूं एकलोच म्हज्या फातरट चडावाच्या आत्म्याची वाट चलतालो.

पराभवा, रे पराजया, केन्नाच ना जावची ना अशी तूं म्हजी धिटाय.

तूं आनी हांव सांगाता मेळून वादळ-मोडांत व्हडाव्हडान हांसतले-खिदळटले.

आनी सांगाताच, त्या सगळ्यां खातीर फोंड खणटले जे आमच्यांतूच संवसाराक अंतरले.

आमी आमगेले खर हावेस घेवनच सुर्या वोतांत दिग्ग उबे रावतले. आनी आमी ह्या संवसारा खातीर भोव भयांकृत जावन उरतले!

**23. रात आनी पिसो**

''हांव तुजेच सारको! हे रातीं-विंगळे आनी काजळ काळके राती! हांव अशा एका तापाळ मार्गार चलतां. जो म्हज्या दिसासपनां परसूय उंचेल्या थरार आसा, आनी जेन्ना म्हजीं पावलां जमनीक लागतात तेन्ना थंय एक विशाळ असो ओक रूख वयर सरता.

''ना, तूं म्हजेवरी ना रे पिशा! कारण तूं आतांय बी फाटल्यान घुंवन, रेंवेचेर आपणाल्या पावलांच्यो केद्योय व्हडव्हड खुणो उदेल्यात त्यो पळयता!''

''हांव तुजे सारकोच, हे रातीं! एकदम स्तब्ध आनी गंभीर! म्हज्या एकसुरेपणांतल्या काळजांत एक देवी पलंगाचेर आड पडिल्ली आसा. तिच्या कुसव्यांतल्यान जल्मा आयिल्लो भुरगो सर्गाची नरका कडेन गांठ घालून दिता.''

''ना, ना, तूं म्हजेवरी न्हयच न्हय रे पिशा. कारण दुख्खाचे येवजणेनूच तुका थरथरो सुट्टा आनी नरकाच्या गितांनी तूं भयाभीत जावन पडटा.''

''हे रातीं, हांव तुजे सारकोच-आखांत भिरांकूळ आनी भंयांकृत! कारण म्हजे कान, जिखून घेतिल्ल्या लोकांचे करांदायेन आनी विसरायेर पडून गेल्ल्या देशाच्या किळच्यांनी आनी सांडून पडिल्ल्या देशांच्या सुस्कार्‍यांनी सामके फुटूंक पावल्यात.''

''आरे पिसांटा, तूं म्हजेवरी न्हयच. कारण, तूं साप्प धाकल्या मनाचो. तेंच तूं घेवन वावुरता. पूण तुवें तुज्या विराट स्वरुपा कडेन जी इश्टागत जोडूंक जाय तें मात तूं करूंक पावना.''

''आगे रातीं, हांव तुजेच सारको- क्रूर आनी अत्याचारी! कारण, म्हजें काळीज दर्याचेर जळत आशिल्ल्या तारवांच्या धगान पर्जळत आसा. आनी म्हजे ओंठ हांवें जिवेशीं मारिल्ल्या विरांच्या रगतान सामके थपथपल्यात.''

''आरे पिशा, तूं म्हजेवरी न्हयच! कारण तुज्या काळजांत एक आपुलकायेची भावना राबितो करता आनी स्वता पासत तूं कसलेच नेम-नियम थारावंक शकना.''

''हांव तुजेच सारको प्रसन्न मनाचो आनी खोशयेन भरिल्लो गे रातीं! कारण जो म्हज्या पाख्यातळा राबितो करता तो एका स्पर्श विरयत सोऱ्याचे धुंदेत कसो जियेता. आनी म्हजी सांगाती, खुशालकायेचो कसलोच आटेविटो घेनासतना गुन्यांव करता.''

''तूं म्हजे सारको न्हय हें हांव परतूय सांगता रे पिशा! कारण म्हज्या आत्म्याचेर सात पड्ड्यांचें धांपणें पडिल्लें आसा आनी तुजें मन तुजे सुवादीन ना.''

''ना, ना, हांव सांगता तें आयक गे. संतुश्टायेन भरिल्लें आनी आशा आकांक्षांनी परिपूर्ण राती हांव तुजे सारको! कित्याक जाणा, म्हज्या काळजांत हजारांनी मेल्ले मोग करपी मानो आडव्यो उडोवन आनी चुंबनांचें कफन गुठलावन पुरिल्ले आसात.''

''हूं, पिशा तूं कसो म्हजेवरी? खऱ्यांनीच तूं म्हजे भाशेन! कित्याक तूं तुफान वादळाचो घोडो करून धांवंक सोदता रे? आनी वीज तरसादेवरी हातांत घेवन सोदता रे?''

''आगे रातीं तुजे सारकेंच हें! तुजेवरीच बलदंड आनी उंचेलें! म्हगेलें शिंवासन, पांयांतळा चिड्डल्ल्या देवांची रात एकठावन घडलां. तें म्हजें मुखामळ पळोवपाक न्हय; तें म्हज्या आंगवस्त्रांक हुंगून तांचो उमो घेवपा खातीर दिसांचे दीस सारीत आसात.''

''कितें म्हणटा तूं? तूं म्हजेच भाशेन? म्हज्या आंधळेल्ल्या काळजाच्या गोंड्या- तूं म्हज्या बंधमेकळ्या विचारांक समजूंक शकता? आनी म्हजेवरी सर्व आस्पावणी भास उलोवंक शकता?''

''हय, आमी फाटीक फाट लावन जल्मा आयिल्लीं भावंडां, रातबाये! कारण तूं सगळें अंतरिक्ष वेंगावन उडयता आनी हांव म्हजें अंतरंग उक्तें करून सोडटां.''

(* विंगळे : नागडे, नग्न)

## 24. मुखामळां

हांवें हजारांनी आकृत्यो आशिल्लें मुखामळ पळयलां. आनी अशेंय एक मुखामळ पळयलां जाचो तोंडावळो म्हणल्यार एका सांच्यांत घालून काडिल्लें एक खुमणेंच.

हांवें एक मुखामळ अशें पळयलां जें दिसपाक सोबीत तकतकीत. पूण भायल्या दिसपा आड भितर सामकें कुरुपतायेन भरिल्लें. आनी एक मुखामळ अशें, जाची सोबीतकाय पळोवपाक ताचे भायल्यान दिसपी अडेचें रुपा वलय म्हाका कुशीन सारचें पडिल्लें.

हांवें एका जड्ड्याचें मुखामळ पळयिल्लें जें निर्विकार मिरयांनी भरिल्लें आनी दुसरें एक मुखामळ अशें जें सामकें रेखीव आनी सामकें सगळें कोंत्रावन काडिल्ले भाशेन.

हांव ह्या सगळ्या मुखामळांक बरे तरेन वळखतां. कारण हांव तांचें भायल्यान धांपिल्ल्या धांपण्या भितरलें रूप पळोवंक शकतां. म्हजे दोळे ते बराबर पारखितात आनी तांचें खरें रूप म्हाका समजूंक पावता.

## 25. व्हडलो समुद्र

म्हगेलो आत्मो आनी हांव, एक दीस व्हडल्या समुद्रांत न्हावपाक गेले. जेन्ना आमी दर्यावेळेर पावले तेन्ना खंय तरी सामकी कुशीची आनी जंय कोणूच पावना अशी सुवात सोदपाक लागले.

जशे आमी फुडें फुडें चलत रावले तशे, आमी एका गोबरी तळपाचेर एक मनीस बशिल्लो पळयलो. तो आपणाले झोळयेंतल्यान चिमटी चिमटीभर मीठ काडून तें समुद्रांत उडयतालो.

''हो निराशावादी मनीस!'' म्हज्या आत्म्यान म्हणलें- ''आमी हे सुवातेर न्हावपाक शकनात. चल, या, आमी फुडें वचुंया.''

आमी चलत फुडें गेले आनी एके दुसरे सुवातेर पावले. आमी पळयलें, एक मनीस एक धवसार खडपार उबो आसा. तो थिकां-भांगरान सजयिल्ले एके डबयेंतल्यान साकर काडून काडून समुद्रांत शेंवटून मारता.

''हो आशावादी मनीस!' म्हज्या आत्म्यान म्हळें- 'हेच खातीर

हाका आमगेलीं वेगळी कूड दिसपाक उपकारना.''

आमी आनीक फुडें गेले. एके कडेन एक मनीस वेळेर मरून पडिल्लें नुस्तें भोव म्हयपासान, वेंचू-वेंचून परतून समुद्रांत उडयतालो.

म्हज्या आत्म्यान म्हणलें, हो हांगा आसतना आमी न्हावंक शकनात. कारण तो एक दयावंत उदार काळजाचो मनीस.'

आमी चलत आनीक फुडें गेले. आमी पळयलें, एक मनीस रेंवेर पडिल्ले आपणाले सावळेचें चित्र रेखाट्टा. ल्हारां येतात आनी तें रेखाटप व्हळोवन उडयतात. पूण तो आपणालें काम थांबयना.

''हो रहस्यवादी मनीस.'' म्हज्या आत्म्यान म्हणलें, ''आमी हाका सोडून फुडें या.''

मुखार येतना आमी पळयलें एक मनीस वेळेर पुंजा जावपी फेणेर काडू-काडून एका आयदनांत भरता.

म्हज्या आत्म्यान म्हणलें, ''हो आदर्शवादी मनीस. हाका आमगेले विंगळेपण कशेंच दिसूंक फावना.''

आमी आनीक फुडें वचत रावले. आनी अकस्मात आमकां एक आवाज आयकूंक आयलो. कोण तरी आड्डू-आड्डून म्हणटालो. ''होच तो समुद्र. होच तो खोल अंगड समुद्र होच तो विशाळ आनी बळगेवंत समुद्र.'' आमी जेन्ना, जंयच्यान आवाज येता थंय पावले तेन्ना एक मनीस समुद्राक फाट करून उबो आशिल्लो आमकां दिसलो. एक शिंपलो कानाक लावन तो ताचो आवाज आयकतालो.

म्हज्या आत्म्यान म्हणलें, ''चल, चल, आमी आनीक मुखार या. हो वास्तववादी मनीस. जो कसलेय गजालीचो घूट सारको समजून घेनासतना, आपणाली, नदर दुसरे वटयां करता आनी ते गजालीचें एक किस्कूट घेवन आपणालें सगळें तन-मन ताचेर थिरायता तसलो हो.''

आनी हे भाशेन आमी फुडें फुडें चलत रावले. थोड्याश्या अंतराचेर, दोन उंचाट्यां मदें एक मनीस रेंवेचे राशींत आपणाली तकली रोमून राविल्लो दिश्टी पडलो. हांवें म्हज्या आत्म्याक म्हणलें, ''हुस्क्या विरयत आमच्यांनी हांगा न्हावूं येता. कारण तो आमकां पळोवंक

शकना.''

'ना, ना' - म्हज्या आत्म्यान म्हणलें, हो त्या सगळ्यां परस घातमारो. कारण तो सगळ्यांची उपेक्षा करता.

अशें म्हणटना म्हज्या आत्म्याच्या मुखामळाचेर सामके निरुसायेचें सांवट पडिल्ले भाशेन दिसलें. ताणें काकळुतीच्या सुरांत म्हणलें. ''आमी आयिल्ले तशे हांगाच्यान परत वचुंया. कारण हांगा आमकां जाय तशी, गुपीत आनी एकसुरेपणाची अशी न्हावपाक उपकारता तसलीं सुवातच ना.

हांव हे हवेक आमच्या भांगराळ्या केंसांच्या बटां लागीं कावल्यो-बावल्यो करूंक दिवचों ना. ना म्हणल्यार हे हवेंत आमचें गोरें-धवें हड्डें उक्तें करचों ना. आनी ह्या उजवाडाक आमचे विंगळे कुडीक आफडूंक दिवचों ना.''

मागीर आमी त्या व्हडल्या समुद्राक फाट करून त्याय परस विशाळ समुद्राचे सोदीक चलत रावले.

**26. सुळाचेर**

हांवें सगळ्यांक आड्डी मारून सांगलें, ''हांव सुळाचेर चडटालों.''

ताणी म्हणलें, ''तुज्या रगताचो शिंवोर बेठोच आमच्या आंगार कित्याक?''

हांवें जाप दिली, ''पिश्यांक तुमी सुळाचेर चडयले ना जाल्यार उदरगत कशी करतले?''

ताणी म्हजें म्हणणें मानून घेतलें आनी म्हाका सुळाचेर चडयलो. सुळार चडना फुडें म्हाका शांतिकाय मेळ्ळी.

आनी जेन्ना हांव धर्तरी आनी मळब हांचे मदें हुमकळत उरलों तेन्ना म्हाका पळोवपाक ताणी आपणाली नदर वयर केली. हाका लागून तांची तकली सामकी ऊंच जाली. हे आदीं ताणी आपणालें माथें अशें ऊंच करूंक नासलें.

पुणून, जेन्ना ते तकली वयर करून म्हाका पळयताले तेन्ना ताच्यांतल्या एकल्यान म्हाका विचारलें, ''तूं कसलें पातक केलां म्हूण हें प्रायश्चित

घेता?''

म्हणटासर दुसऱ्या एकल्यान आड्डून विचारलें, ''कित्या खातीर म्हणून तूं हें अशें बलिदान दिता?''

तिसरो उठलो, ताणें विचारलें, ''तुका दिसता, हे भाशेन प्राणार्पण करून तूं संवसारांत नामना जोडटलो?''

इतल्यांत चवथो एकटो उबो रावलो. तो म्हणूंक लागलो, ''पळयात तो कसो हांसता तो! कोणूय मनीस असले अवस्थेंत अशी बेसरमाय दाखोवंक शकता?''

हांवें त्या सगळ्यांक जाप दिली. हांवें सांगलें,

''तुमी फकत हांव हांसतालों इतलोच उगडास दवरात. हांव कसलेंच प्रायश्चीत बी घेना. ना म्हणल्यार हांव कसलेंच प्राणार्पण करिना. संवसार नामनेची जाल्यार म्हाका आस्तच ना. तुमकां क्षमा करची असो कसलोच अपराध तुमी करूंक ना. म्हाका तान लागिल्ली आनी एका पिशाची तान, खासा ताच्या रगता बगर आनीक कित्यानच भागूंक शकना. हांव मोनो आशिल्लों, देखून तुमचे घाय हांवें म्हज्या मुखामळार घेतले. हांव तुमचे मदें रातदीस बंदखण भोगतालों. ते खातीर हांवें तेय परस व्हड दिसां-रातीचो दरवंटो सोदून काडलो.

''म्हणटकीच हांव चल्लो आतां- जे तरेन सुळार चडिल्ले हेर गेले तसो. अशें समजूं नाकात आमी सुळार चडपाक कंटाळ्ल्यात. कारण आमी हाच्याय व्हडल्या आकाराच्या आनी हेर धर्तरि परसूय व्हड प्रिथुमीचे मदेकांत आनी ह्याय परस व्हडा लोकसमुदाया वरवीं परत-परत सुळाचेर चडत रावतले.''

**27. ज्योतिशी**

हांवें आनी म्हज्या इश्टान एका कुड्ड्या मनशाक देवमंदिराचे सावळेंत बशिल्लो पळयलो. म्हज्या इश्टान म्हाका सांगलें, ''हो आमगेल्या देशांतलो सगळ्यांत बुद्दीवंत मनीस!!''

हांव म्हज्या इश्टाक थंयच दवरून त्या मनशा लागीं गेलों आनी ताका प्रणाम केलो. उपरांत आमी एकामेका कडेन उलोवंक लागले.

कांय वेळा उपरांत हांवें ताका विचारलें, ''एक विचारतां म्हूण रागार जावं नाकात. तुमकां केन्ना सावन आंधळेपण आयलें?''

ताणें जाप दिली, ''हांव जल्माक येत सावनच आंधळो?''

हांवें प्रस्न केलों' 'तुमी खंयच्या शास्त्राचें अध्ययन केलां?''

ताणें सांगलें, ''हांव ज्योतिशी!''

उपरांत ताणें आपणालो हात आपणाल्या हड्ड्याचेर दवरीत म्हणलें, ''हय, हांव अंतराळांतलो सगळे सूर्य, चंद्रीम आनी नकेत्रां हांचे निरिक्षण करीत आसतां.''

**28 व्हडली आस्त**

हांव हांगा म्हजो भाव समुद्र आनी म्हजी भयण दोंगुल्ली हांचे मदें बसलां.

आमी तिगांय एकांतांत एक-रूप. ज्या प्रेमबंधनान आमकां बांदल्यांत तें सामकें अगड. सबळ आनी आगळें वेगळेंच आसा. ताची खोलाय समुद्रा परसूय अदीक आसा. ताची तांक मतींत घेतल्यार दोंगुल्लेची शक्त कांयच न्हय. ती म्हज्या पिशेपणा परसूय खूब वेगळी.

शेंकडे उलगले जेन्ना पयल्या फांतोडपारा आमी एकामेकांक वळखूंक लागलीं. आमी संवसारांतलीं कितलिंशींच जीव-जिवावळ, तिची उत्पत्ती, तरनाटेपण आनी मर्णां पळयल्यांत. तरिपूण आमी तरणी ताठीं आनी उर्बा उमेदीन भरिल्लीं आसात. आमच्या काळजांत जायते आस्त-हावेस भरिल्ले आसात. तरिपूण आमी सामकीं एकाणींच. कोण लागसाराक येना. काळचक्राच्या फेऱ्यांत आमी जरी एकामेकांक सामकीं दशिल्लीं आसात तरी आमकां सुख-समाधान ना. चेपिल्ले इत्सा-हावेस आनी आडवल्लो नेट हांकां समादान खंयचें?

तो अग्नीदेव खंयसून येतलो- जो दोंगुल्लेचे हांतरुण उजयतलो आनी खंयचें ल्हार येवन म्हज्या भावाच्या समुद्राच्या काळजाक थंडाय दितलें?

आनी कोण आसत ती सुंदरी जी म्हज्या काळजाचेर शेक चलयतली?

रातीचे किण्णतायेंत म्हजी भयण-दोंगुल्ली अग्नी देवाची याद काडीत

बडबडत आसता आनी म्हगेलो भाव समुद्र, थंडाय दिवपी देवतेची आराधना करीत आसता. पूण न्हिदेंत आसतना हांव कोणाक साद घालतां तें मात म्हाका खबरच ना.

हांव हांगा म्हजो भाव समुद्र आनी भयण दोंगुल्ली हांचे मदें बसलां. आमी तिगांय एकांतांत एकरुप जाल्यांत आनी ज्या प्रेमबंधनान आमकां बांदल्यांत तें सामकें अगड, घटमूट आनीक आगळें वेगळेंच आसा.

**29. तणा पात्यान म्हणलें**

तणाच्या पात्यान शिंयाळ्यांत गळून पडपी पानाक म्हणलें, ''तूं गळून पडटा तेन्ना बेठोच बोवाळ कित्याक करता? ह्या बोवाळाक लागून म्हज्या सूख-सपनांत बादा येता.''

पानाक मारली तिडक. ताणें म्हणलें,- ''उणाखा, अधोगतीक पाविल्ल्या, गायन विद्या खबर नाशिल्ल्या, किचमण्या तणा-पात्या! तूं त्या ऊंच बऱ्या वातावरणांत रावन येवंक ना. निरडुक्या! रागाची लय-ताल तुका कसो कळटलो?''

मागीर, पानझडीचें पान गळून सकला पडलें आनी ताका न्हीद लागली. जेन्ना उबाळ लागून वसंतभार सुरू जालो तेन्ना त्या पानाचे दोळे उगते जाले. पूण आतां, खासा तें पानच एका तणापात्यावरी जाल्लें.

उपरांत, पर्थून पानझडीचे दीस आयले. तणा-पातें शिंयाळ्यांतले गोड न्हिदेंत आसलें. अशे अवस्थेंत, ताचेर चारूय वटेच्यान पानां गळून पडपाक लागलीं. तेन्ना तें तणा-पातें फुतफुतपाक लागलें.

हीं पानझडींतलीं पानां खूबच बोवाळ करतात आनी म्हज्या शिशिर सपनांत बादा हाडटात.

**30. दोळो**

एका दिसा दोळ्यान म्हणलें, ''हांव ह्या दोंगरा देंगणाचे पयले कडेक निळायेचे गडद गुठलेत धांपून पडिल्ले दोंगर पळयतां. कितले सुंदर दिसतात ते!''

कानान हीं उतरां आयकलीं आनी थोड्या वेळान म्हणलें, ''पूण

दोंगर आसात खंय? म्हाका तर कांयच आयकूंकच येना!''

हें आयकलें आनी हात उठलो. ताणें म्हणलें, ''हांव तांचो थाव घेवपाचो आनी तांकां स्पर्श करपाचो प्रयत्न करीत आसां. पूण दोंगर खंयच म्हज्या हाताक गावनात.''

नाकान म्हणलें, ''हांगा दोंगर बिगर कांय एक ना. कारण, म्हाका तांचो वासच येना.''

हें आयकतकीच दोळो दुसरेच वटेन पळोवंक लागलो आनी बाकीचे तिगूय जाण तांकां जें कितें अजापभरीत जाणवलें ताचेर आपसांत चर्चा करूंक लागले. तांणी म्हणलें, ''आमकां दिसता, दोळो कसल्या तरी भ्रमांत आसा.''

### 31. दोन विद्‌वान

अफकार नांवाच्या एका शारांत, खंयच्या तरी काळार दोग विद्‌वान रावताले. तांच्या विचार चिंतनांत खुब्ब वेगळेपण आसलें. एकटो दुसऱ्याच्यो बकच्छायो करतालो. कारण त्या दोगां मदलो एकलो आसलो आस्तिक आनी दुसरो नास्तिक.

एका दिसा ते दोगूय बाजारांत मेळ्ळे आनी आपणाल्या अनुयायांच्या सामखारा इश्वराच्या अस्तित्वाचेर व्हडव्हडान वाद घालपाक लागले.

तेच सांजेर, नास्तिक देवमंदिरांत गेलो आनी देवाचे वेदी मुखार तकली खाला घालून आपणें केल्ल्या पातकां खातीर गुन्यांव भोगोस मागूंक लागलो. बरोब्बर त्याच वेळार दुसऱ्या विद्‌वानानूय बी, जो देवाक मानतालो ताणें आपणालीं सगळीं पुस्तकां उज्याचे भकीक घालीं. कारण तो आतां पुरायपणान नास्तिक जाल्लो.

### 32. जेन्ना म्हजें दुख्ख जल्माक आयलें

जेन्ना म्हजें दुख्ख जल्माक आयलें तेन्ना व्हडा प्रयासान हांवें ताचो थातोमातो केलो आनी मोटे चतुरायेन ताची राखण केली.

आनी म्हजें हें दुख्ख हेर जीवमात्रां वरी वाडत वचूंक लागलें- बळगेवंत, सुंदर आनी खोशयेभरीत जावन.

आमी एकामेकांचो मोग करताले- हांव आनी म्हजें दुख्ख

सरभोंवतणच्या संवसाराचो मोग करतालों. कारण, दुख्खाच्या काळजांत व्हड करुणाय भरिल्ली आशिल्ली. आनी म्हजें काळीज  बी दुख्खाक लागून काकळुतीन भरून गेल्लें.

आनी जेन्ना हांव आनी म्हजें दुख्ख आपसांत खबरी करतालीं तेन्ना आमगेल्या दिसाक पांखां फुट्टालीं आनी राती सपनाळ्यो जाताल्यो. कारण, दुख्ख गजाली मारपा संबंदांत सामकें फिशाल जाल्लें आनी ताका लागून बडबडें जावंक पाविल्लें.

जेन्ना आमी दोगांय सांगाता गायतालीं- म्हणल्यार हांव आनी म्हजें दुख्ख तेन्ना आमगेले शेजारी जनेलांसरी बसून आमकां आयकताले. कारण आमगेलीं गितां दर्याचे खराये वरी आसतालीं आनी आमगेल्या सुरांनी अजाप करी सारक्यो यादी भरिल्ल्यो आसताल्यो.

आनी जेन्ना हांव आनी म्हजें  दुख्ख सांगाता सांगता भोंवपाक वतालीं तेन्ना लोक आमकां अपुरबायेचे नदरेन पळयताले; आमकां लेखून गोड गोड उतरां उलयताले. कांय जाण  अशेय तरेचे आसले जे आमची अखटाय करताले. कारण, म्हजें दुख्ख  खूब व्हडविकेचें आसलें आनी हांव म्हाकाच भोव व्हडविकेचो समजतालों.

पूण, एक दीस हेर सगळ्या नाशिवंत गजाली सारकेंच दुख्खय काडून गेलें आनी फाटल्यान किंवाटून  दुखां गळोवपाक हांव एकलोच उरलों.

आनी आतांण जेन्ना हांव उलयतां, तेन्ना म्हजीं उतरां म्हज्याच कानांक जड-गुळी कशीं लागतात. हांव गितां म्हणपाक लागल्यार, शेजारी आतां तीं आयकनात. हांव जेन्ना रस्त्या वयल्यान चलत वतां तेन्ना कोणूच म्हजेर नदर घालिना.

आतां फकत न्हिदेंत म्हाका तो दुखवल्लो आवाज आयकूंक येता-

''पळयात, हो, तो मनीस जागेलें दुख्ख मरून गेलां.''

(अखटाय- मत्सर)

### 33. जेन्ना म्हगेली खोशालकाय जल्मा आयली

जेन्ना म्हगेली खुशालकाय जल्माक आयली तेन्ना तिका हांवें

लक्तुबायेन वेंगेंत घेतली आनी घराच्या  पांख्यार उबो रावन, सगळ्यांक साद घालीत उलोवंक लागलों, 'येयात, म्हज्या शोजाऱ्यांनो येयात, पळयात, आज म्हगेले खुशालकायेन भरिल्ले गजालीक पळयात. सुर्याच्या पर्जळांत ती हांसत आसा.

पुणून, म्हगेलो एकूय शेजारी, म्हगेली खुशालकाय पळोवपाक आयलो ना.

सात पूर्णचंद्र आयले आनी गेले. हांव नित्य, घरापांख्यार उबो रावन म्हगेले खुशालकायेची गजाल गाजयतालों. पूण  कोणेंच तिचे कडेन लक्ष दिलें ना. हय, हांव आनी म्हगेली खुशालकाय एकसुरीच पडून उरलीं. कोणेंच आमचो सोद घेवंक ना. ना म्हणल्यार कोणच आमकां पळोवंक येवं ना. हाका लागून म्हगेली खुशालकाय निस्तेज जायत चल्ली. म्हजे बगर आनी कोणेंच तिका विचारलें- पाचारलें ना. ना म्हणल्यार कोणच तिगेलें मुखामळ पोशेवंक आयलो ना.

परिणाम जावपाचो तोच जालो. आमी एकसुरीं पडिल्ल्यान म्हगेली खुशालकाय बी एक दीस उठून गेली.

आनी आतां हांव म्हगेल्या मेल्ल्या दुखखाच्या यादी सांगाता, म्हजे सोंपिल्ले खुशालकायेचो उगडास काडीत आसां.

पुणून, भंगले म्हजें! यादी म्हणल्यार पानझडीच्या पानां सारक्यो वातावरणांत भोंवर मारीत त्यो खीणभर गुणगुटात आनी मागीर सदां खातीर वोग्गी पडटात.

## 34. परिपूर्ण संवसार

हे शेंणिल्ल्या आत्म्याच्या देवा! तूं स्वताच देव देवतांचे गर्देत शेणलां. ''आयक हांव कितें सांगता तें.

पिशा आनी वाऱ्यार पडिल्ल्या जिवात्म्याची जतनाय घेवपी वंशकुळाचो हांव. आयज म्हजे हांव एका परिपूर्ण समाजांत रावतां खरो पूण हांव परिपूर्ण न्हय.''

हांव अस्ताव्यस्त पडिल्ल्या आनी हांगा थंय शिंपडिल्ल्या मनीसपणाच्या तत्वांचो एक गोंदळांत सांपडिल्लो प्राणी. हांव ह्या

पुर्णतायेन भरिल्ल्या संवसारांत जियेतां. जंय लोकां मदें भोंवतां- जांचे नेम-कायदे आनी मांड-मांडावळ सुढाळ, जांचें चिंतप-वर्तप नकसूद, जांचे दिश्टावे प्रत्ययकारी, आनी जांच्यो येवजण्यो बरे तरेन अक्षरबद्ध केल्ल्यो आसात.

आरे इश्वरा! जांचे उजूपण सांडीर घांशी-पुशिल्लें आनी गुन्यांव मापी-जोखिल्ले आसात. तशेंच हाचे भायर, आनीक कितल्योश्योच वस्तू ज्यो पाप-पुण्याच्या चक्रांतल्यान घडटात, तांची लेगीत नोंद जाता. तांचीय विशय वळेरी तयार जाता. हांगा दीस आनी रात हांच्या घटिताच्या काळावेळानुसार वांटे पडटात. आनी शासन-कारभार माप-जोखाच्या नेमा प्रमाण चलता. (आनीक मुद्दे अशे :-)

- खावप, पियेवप आनी न्हिदप, आपणालें आंग धांपप आनी वेळा काळा प्रमाण जिवाक पुरो जावप. काम करप, खेळप, गावप, नाचप आनी घडयाळीच्या कांट्यार नदर दवरून विसव घेवप.

एके विशिश्ट रितीन विचार करप. एके विशेश मर्यादे मेरेन कितेंय जाणवीक जावप आनी क्षितिजाचेर एका विशेश नखेत्राचो उदय जातकीच चिंतप आनी अणभव घेवपाची तांक ना जावप. हांस-हांसत शेजाऱ्याक लुटप, नाजकायेन हाताक गचके दीत भेटो वांटप, चत्रायेन आनी एका उद्देशान कोणाचीय तुस्त तोखणाय करप आनी चलाखेन कोणाचेर तरी गुन्यांव घालप, एका उतरान कोणाक तरी ना-नपयत करून सोडप आनी एक स्वास घेता म्हणल्यार कोणाक तरी भस्म करून उडोवप आनी जेन्ना दीसभरयाचें काम सोंपतलें तेनना हात धुवन मेकळे जावप. एका थारायिल्ल्या नेमाक धरून मोग करप आनी निर्धारीत कल्पने प्रमाण आपणाल्या आत्म्याची मनरिजवण. सामकी रिती-पतीन देवाची पुजा करप आनी मोटे हुशारेन देवचारा लागीं मेळ-मिळाफ सादप. हें सगळें करप आनी तुजी स्मरणशक्ती यादस्त ना जाल्या अशे तरेन विसरून वचप.

कसल्याय खासा उद्देशान कल्पना करप. गंभीरतायेन चिंतन करीत विचार करप. मन म्होंवाळपणान चित प्रसन्न दवरप. सुसभ्यपणान सगळे

सोंसप आनी निमाणे कडेन फाल्यांय तसोच भरिल्लो मेळटलो अशे रितीन मुखा वयलो पेलो आज रिकामो करप.

आरे इश्वरा! ह्यो सगळ्यो गजाली आदीं पयलींच चिंतपाक जाय. निश्चीत रुपान त्यो निर्माण करपाक जातात. मोट्या सावधपणान तांची पोसवण जाता. तांचेर नेमा नुसार शेक चलता. तर्कबुद्ध तांक वाट दाखयता. एके निश्चीत रितीन तांचो अंत जाता आनी मागीर तांकां भूंयभरवण करतात. गुपचीप पडिल्ल्या थड्यांचेरूय बी जातूंत मनशांचे आत्मे आसात, खुणो घालतात आनी तांकां क्रमांक दितात.

हाकाच परिपूर्णतायेक पाविल्लो संवसार म्हणटात. हेंच बऱ्यांतलें बरें जग. व्हडा अजापाची धर्तरी ही. देवाचे बागेंत पिकून अळार जाल्लें हें फळ आनी विश्वाची एक भोव उत्कृश्ट अशी कल्पना.

पूण आरे इश्वरा! हांव हांगा कित्या खातीर आसां? हांव असफळ इत्सांचें एक अमुरपिकें बी. एक शिरफिरें तुफान. म्हाका उदेन्त खबर ना आनी अस्तंतय खबर ना. हांव खंयचे तरी उल्केचो कुडको.

आरे, शेंणिल्ल्या आत्म्याच्या इश्वरा, तूं जो देव-देवतांचे गर्देंत फारवला तो! उलय आतां-

"हांव हांगा कित्याक आसां?"



खलील जिब्रान मनांत कितलींच वर्सां घर करून आशिल्लो. ताच्या साहित्याचे वाचन मनन काळजांत एक वेगळीच खोशालकाय जागयतालें. ही खोशालकाय आमच्या कोंकणी साहित्य मोग्यांमेरेन पावोवची अशें सदांच म्हाका दिसतालें. आनी असोच एक दीस हांव जिब्रानाक सांगाताक घेवन बसलों, आनी हो अणकार जल्माक आयलो.

सृजना पब्लिकेशन्स

मोल : रु. 200/-